III ध्वनी ओळकोंचे मापन करचें इत्यादी काम तशें जाल्यार, रस
ोळकोन खुशी जांवचें सामान्य हृदयिंक असाध्य नहीं. ह्या विशीं थोडें
ावलोकन गर्ज. तपशील तपासणेक देंवानासतानांच प्रसतुताक उपकार्ता
ातलें तें करयां.

नात्यदर्पणकारान "सूख दुःखात्मको रसः" म्हण धयरान सांगलां.
ांतुंच कळटा रस म्हळ्यार विशाल सागर जाव्येत या अपायकारी केद
ाव्येत म्हण. अन्येकल्या अलंकारिकान सांगलाः–

सर्वेषू रसेषू तुल्यसुखानुभवः न ।
रजस्तमो अम्समिश्रणात तारतम्यं अनुगंतव्यं ॥

अनिकी एकलो म्हणताः – "रसाही सुखदुःखावस्था रूपाः॥"
ाभिनव गुप्त रसचें सूख वरणिताना वीररस कटू म्हणजे धारूण म्हणटा.
ाेश्वनाथ सांग्ता त्ये प्रकार, कषट, वळवळे पळेतेल्यांच्या दोळ्यांतली दुकां
ाळ्ळ्यार, तीं दुकाचें खूण नहीं, फकत त्ये घड्ोच्या तांच्या संवेदनाचें
ाूण, तितलेंच. ह्यें तर्क ओपचें सुलभ नहीं. कष्ट आनी वळवळे, दुरंत
ानी मरण खरेंच दुकाचें कारण जावनासताना खऱ्या सहृदयीक तीं दूक
ापजयनासताना सोडचीं नहीं. त्या देकून तांची प्रतिक्रिया भायल्या देकीक
ात्र दिसचें खूण नहीं, बगर तांच्या अनुभवाचें परिणाम म्हणाजय.

रस म्हळ्ळयार चित्तवृत्ती (sentiment) म्हण हास म्हळ्यो विलायती
ाेद्वान सांग्ता जाल्यार, भारतीय विद्वान डाकटर जाह रस म्हळ्यार
ाावोद्रेक (passion) म्हण सांग्ता. फ्याडेगन म्हळ्ळो रस एक कल्पन
impression) म्हणटा जाल्यार, ब्यालंटैन आनी थोमस म्हळ्ळयांक रस
ाळ्यार आस्वादन.

कीटस म्हळ्ळ्या इंगलेज कवीन Poetry should appear almost
ike remembrance म्हण सांगलां जाल्यार, वर्डसवर्थ अशें बरयता.

Oft over my brain does that strong fancy roll
Which makes the present (while the flash doth last)
Seem a mere semblance of some unknown past;

We lived ere yet this robe of flesh we wore.

रोसेट्टी कविचें चिंताप तरी अशेंच व्हाळटाः–

O born with me somewhere that men forget
And though in years of sight and sound unment

Known for my soul's birth partner well enough.

रेयनर मरीय रिल्के "For it is the memories themselves that matter" म्हण पाचार्ता.

ह्यें सर्व काळिदासाच्या उत्रांनी आमी समारोप कऱ्येतः-

रम्यानी वीक्षय मधुरांस निसम्य शब्दान...

म्हणजे आमच्याच उत्रांनी सांगाजाय तर खरी कला कलाकाराचेर ताच्या अनुभवान छापलेलें सगळें एकवटावन सोभायेन नेटवन सादर कर्ता. आनी काव्य कलेंत अशेंच घडटा.

कवी कविता रचता. वाचतेल्यांक या आयकातेल्यांक ताचे निमतीं भावुकता चडटा. तांचीं काळजां मनां जागयता, आनी तांचे थंय अपापलो अनुभव उगडासाक हाडटा. हाचें परिणाम साधारणीकरण म्हणटात, म्हळ्यार संवेदनां आनी स्मरणां सगळीं सुकवन वाऱ्यार उबयता म्हण अर्थ नहीं. अनुभवांचें स्मरण आदले निर्दिषट घड्डो थावन मेकळें जाता, सोभायेन आनी स्वादान भर्ता, रस जावन निशेता.

असो निशेल्लो रस विशिषट जावनासा. तो विभाव, अनुभाव आनी व्यभिचारी भाव (म्हणजे जागंवचो भाव, परिणाम जालो भाव, आनी आमी दोनांक सहायक जाल्लो भाव) हांकां सरी करचें चूक जाता. आमी शरबत पियेताना, रुचीन मिटियो मारतांव. ति ताची रुच. पूण ताच्ये घडवणेक साकर, मेल, उदक, फळां रोस आनी कितें कितें घालां तें एकेकच थंयसर ओळकोंक येना, या आपलेस्तकीं उराना. तशेंच विभिन्न भाव भर्साले तरी, परिणाम जावन आयिल्लो रस विशिषट म्हण समजजय. काव्यरस, जिबेचो नहीं, विस्व्यांनी चाकचो नहीं, तो काळजां मनां भुलंवचो. देकून ताका "मनसा आस्वादयंती" म्हणटात.

music heard so deeply. That it is not heard at all and you are the music. While the music lasts. हेंच रसभरीत काव्य.

हाका कवी थंय चमत्कार, निर्वेश, रसन, आस्वादन, भोग, समापत्ती, लय, विश्रांती आनी निर्वृत्ती आसाजय म्हणांत जांटे विद्वान. देखूनच आख्ख्या भारतीय सौंदर्य मीमांसंत रस म्हळ्ळी वसतू सर्वप्रधान जावंक पावल्या. रस धाधोसकायी उपजयता. वांटेली जातेले अधीक संख्यान हाजर आसल्यार तितलीच चड धादोसकायी वाडोन वेता. देकूनच नहिंगी साद्या दिसांच्ये भक्ती प्रास महोत्सवांची भक्त अधीक धादोसकायेची? तशेंच कलेच्या लोकांत घडटा.

दीस बुडटा म्हणटाना भौतशासत्र विज्ञानीक विजेच्या आयस्कांताचीं ह्यारां मार्तात जाल्यार, चित्रकाराक भांग्राळो रंग पिसो कर्ता, आनी कविक ऱ्यो धारेक वेंगचें मोगाचें दृश्य कशें दिसता, कलेची श्रीमंतिका वीध झरी जावन फुटोन येता. तितलो रस उमाळटा. देखून कलेक कत निसर्गचें या प्रकृतेचें आणकार्णे करचो वावर, या मार्कसवादांत तिपादित जाल्लो प्रकृतेक आर्सो धर्चो वावर सहजल्लो नहीं. कला पलेसतकीं रचुंक सक्ता, आपलेसतकीं धादोशी करुंक सक्ता. ही दोसकायी मात्र विवीध सन्निवेशां प्रकार ब्यासतर रसां द्वारीं व्हाळटा.

हाच्ये आदिंच सांगलेले प्रकार, दुरंत नाटक प्रधान जाल्ल्या ग्रीक ाहितांत वाडलली अरिसटोटल, काव्यचो शेवट निर्मळ कर्चो या ुद्धीकरणाचो जावनासा म्हणा. हाका काथार्सिस (katharsis) म्हणटात. चीन काळार व्हो शेवट शुद्धीकरण म्हण लेखलें तरी आधुनीक विध्वान द्यात्तीकरण व्हो शेवट म्हणटात तें पळेंवचें. हांचो गुस्पड पळेवन वेळ बाडच्या बदलाक, लुकास म्हळ्ळो विद्वान दिता तें विश्लेषण लेखचें धीक फायद्याचें जायत. दुरंताची देस्वाट आमी भोगिनाये तर आमी खिजय जाल्ल्यो संग्ती आसात म्हण तो सांग्ता. म्हणजे:–

) ग्रीकांचे दिष्टिक दुरंत नाटक सुखाळ या दुकाळ खंचायि परिणामान मुगदाताले.
) दुरंत म्हळ्यार एकानेक घडचें नहीं, बगर संसकृताच्या निर्वहन भाषेन मेटान मेट घडोन येंवचें. शेक्सपियराचो डोन आर्माडो, “Love is Labour Lost” नाटकांत दुरंत एक लग्न म्हण सांगता.
) आरिस्टोटलाचीं उत्रां दुरंताची धादोसकायी पाचार्तात.
) ग्रीक दुरंत नाटकां पैकी सबार नाटक दुकाचें समारोपण घेनांत मात्र नहीं, ते खरेच सुखाळ सन्निवेशचे परिणाम करून समाप्त जातात. दाकल्याक एस्खिलसाचो ओरेसटेयीय, सोपोकलोसाचो एलेकट्रा आनी फिलोकटेटेस, आनी एवरिपिडेसाचो इफिगेनेयीय टावरिसांत.

विद्वानांनी आमकां सांगच्यो आनी थोड्यो संग्ती आमकां प्रस्तुताक संगत. विद्वान आज आरिस्टोटलाचो मुळावो शेवट विसर्तातशें दिसता. कून हाच्ये पयलेंच उल्लेख केल्ल्या इंगलेज कविंचीं उत्रां हांगा पर्तून ाडासाक हाडचीं बरी म्हणाजय. अशें कवितेचें शुद्धीकरणचें लक्षण ानी कविची शुद्धीकरणची सामर्थी जावनासची प्रतिभा राजशेखर ळ्ळ्या लाक्षणिकाच्ये नदरेंत दोन फांटे जावन फुटोन येता, पयलो फांटो

कारयित्री आनी दुसरो फांटो भावयित्री. पयल्या फांट्याची प्रतिभा “The shaping spirit of imagination” आनी दूसऱ्या फांट्याची Reason in her most exalted mood,” म्हण ओपोंक अड्डी ना.

IV अशें आमचें मुखलें मेट प्रतिमेचेर (imagination) खंचता. ध्वनिची कारयित्री प्रतिभाच ही प्रतिमा म्हण आमी समजजय. हि प्रतिमांच अस्तमतिच्या थोड्या प्रमूख दार्शनीक विमर्शकांक कवितेचो जीव जावनासा. तें आमी पळेव्येत. अशे कोलरिज आनी कोचे प्रतिमांच कवितेचो मुल्याफातर म्हणांत. मनश्शासत्रांत समेत (psychology) रिबो आनी स्पियर्मन म्हळ्ळे विद्वान सृषटी करच्ये प्रतिमेचें विशेस विशलेषण करून मोटीं पुसतकां रचुंक पावले. प्रस्तुताक कवी र.वी. पंडिताच्या कवनांनी ही प्रतिमा बळवंत आसलेली दिसता. आमच्या व्याख्यानांत वयरा वयर प्रतिमा आसा म्हण सांगलां तें पळेवन कोणेंयी उबगोंक फावो ना. खऱ्ये कवितेचें लक्षण या मुल्या फातर हाजर आसा तें दाकयल्यार व्यर्थ जांवचें बिल्कूल नहीं.

भारतीय लाक्षणिकांनी प्रतिमेचें लक्षण आनी क्रिया कितें म्हण सबार कडेन सांगलेलें जळकता. तें सगळें हांगां जमवन पळेव्यां. पूण हाका प्रसतावन जावन पाश्चात्य विद्वानांक फकत कवी प्रधान, वाचपी या आयकोवपी अपरधान म्हण समजंचें, आनी कोलरिजाचीं हीं उत्रां मनांत ठेंवचीं बरें:–

“As far as metre acts in and for itself, it tends to increase the vivacity and susceptibility both of the general feelings and of the attention. This effect it produces by the continued excitement of surprise, and by the quick reciprocations of curiocity still gratified and still re-excited, which are too slight indeed to be at any one moment objects of distinct consciousness, yet become considerable in their aggregate influence. As a medicated atmosphere, or as wine during animated conversation; they act powerfully, though themselves un noticed. Where, therfore, correspondent food and appropriate matter are not provided for the attention and feelings thus roused, there must needs be a disappointment felt;

ke that of leaping in the dark from the last step of staircase, hen we had prepared our muscles for a leap of three or four." Biographia Literaria XVIII, 1817) .

ही प्रतिक्रिया वाचप्याचेर या आयकोवप्याचेर धादोसकायेचें परिणाम ाजशें कर्ता म्हण कोलरीज ओप्ता, आनी हाका पुरस्कार टी.एस. लियटाचो लाभता. हिच ती प्रतिमा ताणीं ओळकोंची. अय.ए. रिचड्र्स ळ्ळलो प्रतिमा म्हळ्यार आनेक अर्थ जातात म्हणटा. एकदम साधो र्थ दोळ्यांक दिसचें सोंपें दृश्य म्हण लेख्तात जाल्यार, कविच्ये प्रज्ञेच्या ाळ्यांत फुटोन येंवचीं असंख्यात कल्पनां म्हळ्ळो अधीक गुंडायेचो र्थ आमकां दिसता.

The Poet described in ideal perfection, brings the whole ul of man into activity, with the subordination of its faculties each other according to their relative worth and dignity. e diffuses a tone and spirit of unity, that blends, and (as it ere) fuses, each into each, by that synthetic and magical ower,to which I would exclusively appropriate the name of **nagination**. This power... reveals itself in the balance of concilement of opposite or discordant qualities of sameness ith difference; of the general with the concrete; the idea ith the image; the individual with the representative; the nse of novelty and freshness with old and familier objects; more than usual state of emotion with more than usual der; judgement ever awake and steady self-possession with thusiasm and feeling profound or vehement..." (Coleridge, iographia Literaria XIV).

परनी सवयेक पडलेली वसत कविच्ये कारयित्री प्रतिभेक सांपडटा नी ताच्या अनुभवान नवेंच रूप घेता – हीच प्रतिमा. असली नवी णा घडोन येताना प्रपंचांत विचित्र आनी हाता भायर आसलेल्यो वस्तू धाराण सामान्य वसतू जावंक पावतात. अशें कविचें मन प्रपंचचेर चताना हावेस भर्ता आनी काऱ्यें घडटा.

राजशेखर लाक्षणिकान आपल्या काव्य मीमांसचो एक अखंड

अध्याय कविच्ये प्रतिभेक भेटयला, आनी तांतूं प्रतिमेचें रूप आमकां जळकता, कुंतक लाक्षणिकाचें वक्रोक्तिजीवीत फकत कवितेंत प्रतिमा म्हळ्ळे विषयांत म्हण आमी ओपाजाय. कुंतकची वक्रोक्ती सिद्धांताची सांकळ जायना, बगर ती कवितेंत प्रतिमा कशी सोधिजय आनी तिचेर कशी नदर मारिजय म्हण शिकयता. "मनशाची कूडच शिंगार म्हणशी तर तुवें सुंर्गारांवचें जाल्यारी कसलें?" म्हण तो विचार्ता.

हांगा पंडिताचें २४वें कवन उगडासाक येता. ताणे:-

उन्नांचीं रत्नां गुंतून
घडले रत्नां हार...
रत्न पार्की सोधीत भंवतां,
घेवन व्हज्यां भार!

कवी आपलें कल्पण पाचार्ताना ताका रूप दिंवची सकतच ही प्रतिमा म्हण सांगलेल्यां पैकी प्रमूख जाणारी व्होच कुंतक. हाकाच तो वक्रकविव्यापार या कवी कौशल्य म्हणटा.

भट्ट तौत म्हळ्ळयान कवीकौतूक म्हळ्ळें पुसतक रचलेलें. ताचे बोव थोडे कुडके मात्र सद्याक उपलब्ध आसात. हांतूं तरी प्रतिमेची खबर जळकता.

प्रज्ञा नवनवोल्लेखशालिनी प्रतिभा मता ।
तदुनुप्राणज्जीवद्वर्णनानिपुणः कविः ॥
तस्य कर्मस्मृतं काव्यं ॥

उल्लेख म्हळ्यार हांगा सृषटी म्हण समजजय. अशें कवीतेंत नवी नवी प्रतिमा रचल्यारच कविची प्रज्ञा कवितेंत पर्जळटा. असो भट्ट तौत. ह्यें लक्षण पंडिताच्ये कवितेंत ओळकोंक जाय तर, फकत "उन्ना" विशीं ताचीं १४, २०, २२, २४, २६, ८४, १८०, इत्यादी कवनां पळेंवचीं.

पंडिताचीं प्रतिमा भरलेलीं थोडीं पुणी कवनां हांगा आमी लेखिजय.

२१. उन्नांचे न्हंयेक येयला पूर...
गीतांचे लागले सूर!

२३. पानांतल्यान कुच्च करून
फूल वालिर फुल्ता
तेच भाषेन गीत म्हजें
मना ताळ्येर धोल्ता.

२७. मोग्रे कळ्यान उमो घेतां...
लजेन जालें लाल.
लजेल्लें आबोलें लज रंगी उल्लें
तांबडें सदांकाळ.

२९. कोणालें काय तें सपण
मळबां चंवरलां?
रंगारंगी इंद्रा धोणू
रंगां शिंवरलां!

ह्यो सगळ्यो निसर्गांत उजळच्यो संगती विंचून कवीन आपले लाकेन प्रतिमा भरून काव्य रुपार उबीं केलेलीं कवनां हीं. परिणाम चतेल्यांचेर बळादीक जाता.

४३. सूऱ्यान खंय नेकेत्रां पुंजोवन
मळबांत व्हेल्लीं.
चंद्रिमान सगळ्यांक फुसलावन
आपलिंच केलीं.

हांतूं सूऱ्या चंद्रा मधें स्पर्धो मांडून, कवीन भरलेली प्रतिमा एकदम चित्र नहिंगी?

४४. मळबान होंड्याचेर मोग केलो...
नेकेत्रां झेलो ताका भेट दिलो.

हल्की क्षुल्लक वसत, तें चिकला उदकान भरलेलें होंडें. मळब यर उंच आसचें. हांचे मधें मोगा सैरिकेची प्रतिमा रचता कवी पंडीत, केत्रांची माळा त्या होंड्याचेर देंवयता!

लोक साहितांत बाळकांचे दोळे विशिषट मान आनी मोल आसची सत. अनेक भासांनी ह्या दोळ्यांची प्रतिमा एकदम बळादीक आसा. न्नड लोकगितांनी ताका विशिष्ट स्थान तर, तमीळ लोक गितांनी आनी क प्रज्ञेंत त्या नेंट्या दोळ्यांच्ये प्रतिमे विशीं संशोधन करून मोटें बंध बरयलेलें समेत आसा. आनी आमच्या कवी पंडिताच्ये नद्रेक ही सत सांपडोन उदेल्लें कवन काय सुंदर दिसता!

४६. साळिका पानार पाण्यां थेंब्यां
माणकां मोत्यां जिगजिग्तात...
तुजे कुशीं लकालका
बाबुल्या नदर लिकलिक्ता !

तें पावाना तर पावसा आनी धर्णी मधलो मोगा मयपासाचो एकवट पाचार्ताना, खोटें वारें सदांच धर्णीक पोशेंवचें त्ये घड्ये कशें धर्णीक सांडून मळबांत सुशेग घेता म्हळ्ळी प्रतिमा कांयी हल्की नहीं!

४८. धर्तरेच्या मोगा लागून
पावस धांवलो आधारा...
वारो मिणो जोगलां वेंगें
सोंशेत मळबा गोंटेरा!

असल्या सबार कवनांनी कवी पंडिताची कारयित्री प्रतिभा म्हणजे प्रतिमा उबार्ची सामर्थी तेल्ती तेल्ती व्हाळटा ती सार्की दिसता. तशेंच दोनी फांट्यांची म्हणजे कारयित्री आनी भावयित्री प्रतिभा भरोन उजळचीं ताचीं कवनां अधीक पिशयार घालचीं आसात.

कवी आपूण तळें जावन कितें सांग्ता? दोडती प्रतिभा हांगा ओळकोयां:–

५४. मळबाचो मोग हावें
नितळ मनान घेतलो जिकून.
नेकेत्रांचीं साळकां आयज
काळजां म्हज्या फुल्ल्यां देकून
हांव तळें... हांव तळें!

६८. दान दिल्यार सुट्टा गिराण?
हांव प्राण दितां
जांवदी म्हजो देस महान
जांवदी म्हजो देस महान!

हांतूं तर देशाभिमान आपल्या त्यागा द्वारीं फुटोन व्हाळटाना, भावयित्री प्रतिमा चड प्रबल जालाशी दिसता, तरी सुर्विलीं उत्रां विडंबन करून हासतात तीं पळेंवचें, या कुंतक लाक्षणिकाचें वक्रोक्तिजीवीत हांगा रुजू जालां म्हण समजंचें.

भावपण आसोन जांटिकायी जोडल्यार आपशेंच देवपण उदेवन फुलता म्हळ्ळी पऱ्याय रीतिची प्रतिमा, कारयित्री तशीच भावयित्री भरोन आसचें कवन जावनासा ८२ वें.

पाटीर भाव नासलेल्यान
हावें भावपणू चोयलें ना.
देकून घड्ये जांवंये....
म्हज्यां देवपणूय येयलें ना!

ही प्रतिमा कितली बळादीक म्हळ्यार समाजेक आनी व्यक्तीक ापूट सतानीतिचो अर्सो कसो ती उजळटा.

नाचोन येंवचीं कलवंतां जिवितांचो अभास दाकयतात म्हणच्ये तीन प्रतिमा रचून कवी सत शिकयता ८९ व्या कवनांत प्रतिभेक लांब त्रां नाकात.

ल्हारांर नाचता नकली भांगार.
दर्या पोटांत रत्नां दोंगार

मनषा काळिज मोगा पासून निर्मिलेलें, तें कविच्ये मोगा प्रज्ञेंत माळोन नाचता. ताची प्रतिभा १०८व्या कवनांत ल्हारां ल्हारांनी उठोन ार्ता, एका वयर एक विवर दाळून, प्रतिमांचो दैत्याकार दिसता. तेंच तें कवन “आयज तूं येतलो देकून” हांतूं उल्लेख जांवच्यो वस्तू आनी ंगती आपापलेसस्तकिं फकत किर्कोळ, साध्यो. पूण प्रतिमेच्या हावेसान ांकां घन गंभीर दैत्याकार भरला.

मेटान मेट अर्थ करिनासताना फकत सगळी अखंड प्रतिमा पाचार्चें कवन आसा. तें जावनासा ११७वें कवन. पयले नद्रेक हांगा तिरसकार नळकता तरी, तपासणेच्ये नद्रेन पळेल्यार ह्यें कवन खुसालायेन नाचंवचेंच. ासल्या चमत्काराची प्रतिमा हांगा. खरोच कुंतक ह्यें कवन अधीक पसंद कर्तो आसलो म्हणाजय.

त्येच भाषेन लोकगिताचीं “नाचरे मोरा” म्हळ्ळीं उत्रां वापरून कवीन घडल्या आन्येक प्रतिमा. हांगा एक उगती प्रतिमा म्हणजे कुंतकची ासिद्ध प्रतिमा जाल्यार, कवनाच्या अखेरिच्या उत्रांनी लिप्ती प्रतिमा म्हणजे कुंतकची उत्पाद्य प्रतिमा हाजर आसा. ह्यें १३८वें कवन.

मोगाक आनी गालांक अधीक लागशिलो संबंधसो दिसता. मोगा विरोध राग गाल फुगयता. असो कवी आपले खुशे प्रकार गालां द्वारिं जाय तसली प्रतिमा रचून खेळयता तें १६३व्या आनी १६४व्या कवनांनी ळंवचें.

V काव्य मीमांस प्रकार कवीन वापुर्चो अन्येक खेळ म्हळ्यार ब्यास्तर अर्थ खंचवन मनोरंजन उपजंवचें.

अपारे काव्य संसारे कविरेव प्रजापतीः ।
यथास्मै रोचते विश्वं तथेदं परिवर्तते ॥
भावानचेतनानपी चेतनवच्चेतनानचेतनवत ।
व्यवहारयती यथेषटं सुकवीः काव्ये स्वतंत्रतया ॥

(आनंदवर्धन – ध्वन्यालोक ३–४२ वृत्ती)

विशाल काव्य प्रपंचंत कवीच ब्रह्म जाता. ताच्ये खुशे प्रकार ब्रह्मांड रुपांतर जाता. जीव नासलेल्याक जीव भरून जीव आसलेल्याचो जीव काडून कवी आपणाक जाय आसलेलें वर्णन कर्ता.

ह्येंच कुंतकच्या वक्रोक्तिजीवितांत "यन्न वर्ण्यमान स्वरूपाः पदार्थाः कवीभिरभूताः संत क्रियंते, केवलं सत्तामात्रेण परिस्फुरतां चैषां तथाविधः कोऽप्यतिशयः पुनर आदीयते, येन कानपी सहृदयहृदयहारिनीं रमणीयतां अधिरोप्यते" (पान १४०). म्हणजे कवी संपूर्ण नासलेल्योच वसतू या संग्ती रचिना. फकत चाल्त्यो साध्यो आसलल्यो वसतू घेवन आपल्या वर्णना द्वारिं तांकां विशेस सोभायि भरून स्वादिक कर्ता. हांगासर जमता कविची ब्यास्तर अर्थ खंचंवची सामर्थी. तरावळ वस्तूं आनी संगतिंचीं लक्षणां आनी तांचे गूण तो विंचता आनी आपणाक जाय थंयी खंचयता. हाचें परिणाम जावन प्रतिमा आपशीच उदेता.

ह्ये संबंधीं भट्टतौत कितें म्हणटा तें आमकां हेमचंद्र थाव्न कळोन येताः–

नानृषीः कविरित्युक्तं ऋषिस्च कील दर्शनात ।
विचित्रभाव धर्मांशतत्त्व प्रख्या च दर्शनम ॥
स तत्त्व दर्शनादेव शासत्रेषू पथितः कवीः ।
दर्शनाद वर्णनाच्चाथ रूढालोके कविश्रुतीः ॥
तथा ही दर्शने स्वच्छे नित्येऽप्यादी कमेर्मुनेः ।
नोदिता कविता लोके यावज्जाता न वर्णना ॥

(काव्यानुशासन पान ३७९)

म्हणजेः– "कवी म्हळ्यार अवश्य जावन ऋषि, आनी दर्शन

ोडललोच ऋषी म्हणटात. प्रपंचंतल्या सर्वय वस्तुंचें धर्मांश आनी तत्व कतें म्हण ओळकोंचेंच दर्शन. तर शास्त्रा प्रकार कवी म्हळ्ळें बिरूद ोडिजय तर ह्या सत्वचें दर्शन आसल्यार पावता. पूण चालत्या रिवाजिंत वी जायजय तर ह्या दर्शनाचे बरबर वर्णन सामर्थि आसची गरज." सो महाकवी वाल्मीकि आपूण ऋषि जावनासोन दर्शन जोडललो ावनासलो. जाल्यारी ताका कवी म्हळ्ळें बिरूद मात्र ताची वर्णन सामर्थी गडापी जाल्या मागीर मात्र (म्हणजे ताणे रामायण महाकाव्य रचल्या परांत मात्र) लोकान ताका दिल्लें. निजाकी पळेवंक गेल्यार फकत तिंत मात्र आख्या आनी पाख्या एका पाटल्यान एक दिसतात शिवायि ाख्या संपूर्ण जांवची प्राख्या उदेताना मात्र, म्हण्जे दोनी पूर्ण जांवचें काच खिणा म्हण समजजय. अशें ब्यास्तर अर्थ सांगाताच खंचतात ानी सांगाताच उदेतात. तशें म्हळ्यार वर्णना द्वारिं मात्र दर्शनाचें निर्दिषट ूप उदेता. ह्यें सर्व लागीं लागीं एक हजार वर्सां आदिंच भारतीय ाक्षणिकांनी ओळकोन पाचारलें. तेंच असतमतिच्या लाक्षणिकांच्या द्रेंत उदेवंक कळाव जालो तें आमी पळेतांव.

पयले सुवातेर ब्यास्तर अर्थ आसचे म्हळ्यार अस्तमतिच्या विद्वानांक ो एक दोष. देखूनच श्लेष या pun म्हळ्यार तांकां ति हास्यास्पद वसत. सलें चिंताप तांचे मधें फकत आमच्या शतमानांत मात्र बदल्लें.

तांचे मधें ग्रीक संप्रदाया थावन उदेलेलि रिवाज म्हळ्यार एका त्राक एकच अर्थ. कसलोयि गुस्पड आसल्यार तर्क करून नितळांवचो. खून तांकां ब्यास्तर अर्थ या श्लेष म्हळ्यार सताक विरोध म्हण अर्थ ासलो. ग्रीकांची कवनां मात्र श्लेष शिवायि आयकोंक मेळानासलीं तरी या लोकाक त्या शकुनांचेर अखंड पात्येणी आसताली!

त्येच भाषेन हुमिण्यांनी जाल्यारी खरो अर्थ लिपयताले देखून हुमिण्यो मेत तांकां हल्क्यो दिसताल्यो खंयी. हाका कारण ग्रीक संप्रदायचो भाव. ग्रीकांक इतिहास निरासाचो सागर जाल्लो. पूण क्रिसतांवांचें वित्र पुस्तक आनी क्रिस्तांव समर्थ रोमी आनी ग्रीक निरासावादा प्रास धीक प्रबल जावन येताना इतिहास भर्वास्याची वाट दाकवंक पावलें. र्वेस्पर मोगाळ बाप मन्षाचो हुस्को कर्ता. तारक सोडवण्दार मन्षा रूप

घेता, अशें चिंताना कलेक साहिताक आनी कवितेक नवोच जीव भरोन आयलो. हाका मोटो दाकलो जाय तर प्यारीस शहरांतल्या नांवाडदिका नोटर डेम देवमंदिराच्या शिल्पांत मेळटा. तशेंच क्रिस्तांव साहितीं विद्वानां मधें देवशासत्रचें सौंदऱ्य मीमांस (didascalia) घडोन आयलें. रचणाराक ओळकाजय तर पयलें रचणेक ओळकाजय, आनी रचणेची ओळक श्लेष शिवायी जायना तें ते समजले.

अशे अनुभावीक (mystic) क्रिसतांव सांत मनशाचो शेवट ओळकाले. हाका दाकलो जावन ह्यू सांवितोर आनी रिचर्ड सांवितोर आमकां दिसतात. हे सांवितोराच्या क्यानन रेग्युलर (canons regular) म्हळ्ळ्या मठवासी पंगडाचे प्रसिद्ध वांगडी. हांचीं आनी हेरांचीं लिखितां महाकवी डांटेच्यो कृतियो समजन घेवंक कुमक जाल्लिं. हाच्ये द्वारीं डांटेच्या साहित्यांत श्लेष आसा तो ओळकोंक वाट जाल्ली. भारतीय वर्गीकरण प्रकार श्लेषच्यो गर्भितार्थ, अरथांतरोक्ति, रहस्यार्थ, गूढार्थ द्योतक इत्यादी अनेक जाती लाक्षणिकांनी विंगड विंगड ओळकोन घेतल्यात. पूण असतमतिंत अशें अर्थ कर्ची चलाकी विपरीत वाडली, आनी वैज्ञानीक तपासणेची प्रज्ञा उदेल्ल्या फारा हाका खाडूं पडलें. भारतांत तशें नहीं. आजून खुशे प्रकार साहित्याचो आनी वैदीक लिखितांचो अर्थ कर्तेले असंख्यात आसात, आनी तांकां खाडुं घाल्तलो कोण ना.

अस्तमतिच्या विद्वानांक १९३० इस्वेंत विल्यम एंप्सन म्हळ्ळयान "श्लेषचे सात नमुने" (The Seven Types of Ambiguity) म्हळ्ळें व्याख्यान दिल्लें. ताचो गुरू रिचर्डस ह्ये विशीं आपल्या अनेक पुस्तकांनी आपलें चिंताप शिंपडायताना, एंप्सनान आपलें व्याख्यान एकेच कडेन जमयलां. पूण हे सात नमुने वेवेगळे म्हण चिंतल्यार अतिरेक जाता. तशेंच श्लेष म्हणजे ambiguity म्हळ्ळें उतार कांटाळ्याचें आसलेल्यान हेरांनी हाका बहुसंकेतन (plurisignation) म्हळ्ळें उतार विंचलें. कोलरीज ह्यें नेणासलो तरी, ताणे शेक्सपियराचें कवन विंचून विशलेषण केल्लें पळेव्येत:–

Look! How a bright star shooteth from the sky,
So glides he in the night from Venus' eye.

(Shakespeare - Venus and Adonis)

हांगा कितल्यो सक्कड प्रतिमा आनी कितलीं संवेदनां मिहनत काडीनासतानांच आनी घुस्पड करिनासतानांच कवीन मांडल्यांत म्हण कोलरीज अजाप्ता. अदोनिसाची सोभायी, ताच्या धांवणेचें वेग, चोयतेल्याच्ये आकांक्षेचो व्हाळो ह्यें सगळें जागेंच जाता. रिचड्र्स ह्येंच विंचून कोलरिजान सांगलेल्यो प्रतिमा तपासता, आनी तांचे मधें परस्पर प्रतिक्रिया परिणाम आसलेलें तूक्ता.

अशें घडटाना, फकत एकेक सब्द असल्या चमत्काराक काराण जाता, दाकल्याकः–

Pan is our All, by him we breathe, we live,
We move, we are; ........
But wehn he frowns, the sheep, alas,
The shepherds wither, and the grass.

(Ben Jonson - Pan's Anniversary).

हांतूं चमत्काराचें उतार alas. हाच्ये निमतीं मात्र कसलें सक्कड आमच्ये तपासणेक मुख्य, म्हणजे sheep, shepherds आनी grass, तें देसता, आनी हरयेकाक wither म्हळ्ळी क्रिया कशी लाग्ता तें पळेंवचें. आखेरिच्या grass सब्दा संगीं alas उत्राचो प्रास घडटा.

इंगलेज कवितालोकांत क्रांती उपजयललो जेज्वीत पाद्री जरर्ड म्यान्ली हापकिन्स असल्या चमत्कारांत भारीच प्रवीण, दाकल्याकः–

Sometimes a lantern moves along the night
That interests our eyes. And who goes there?
I think; where from and bound, I wonder, where,
With, all down darkness wide, his wading light?

(Hopkins - Sonnet - "The Lantern Out of Doors")

हांगासर चमत्काराचें उतार interests जावनासा. साधें कुतुहल उबजंवचें उतार तें. पूण कवन मुगदाताना पयशांची वाड म्हण समजजय.

ताच्याच आन्येका सोनेटाचीं आखेरिचीं उत्रां अशीं:-

O the mind, mind has mountains; cliffs of fall
Frightful, sheer, no man-fathomed, Hold them cheap
May who ne'er-hung there. Nor does long our small
Durance deal with that steep or deep. Here! creep
Wretch, under a comfort serves in a whirlwind: all
Life death doth end and each day dies with sleep.

ह्यें वाचताना कवी र.वी. पंडिताचें २१७वें कवन आपशेंच उगडासांत जागें जाता. आमोरेच्या आमुरकाळ्या नकलामी तिनसानां, मानो, दोडून, तेंकले गळटा, मात्ये मेळटा... ज्वाळांचा तुर्मण्यांनि, तांचे शेंडे... सुकले सगळे तणावरी, सर्सरी; मुळापसून ताळा मेरेन, कांडापसून गोंड्या मेरेन जावन पडले अवचीत फिकट; उज्वाडाचीं जिकलीं रानां, पिकलीं पानां.

चडुणे शेंभर वर्सांक पाटींफुडे, ह्या दोगां कविंक. भासो तमा वेवेगळ्यो. पूण दोगांयचीं कवनां सांगाता; वाचल्यार कितली दोगां मधें सहृदयता! हापकिन्स कवीन विकटोरियन रिवाजी थावन आनी वड्सवर्थाच्या संप्रदाया थावन सुटका जोडून नव्या कवितेच्या, अजून उज्वाडनासलेल्या अंध्कारांत उडकी मारून जयत व्हेलें. पूण तें जयत तो मरोन पन्नास वर्सां मागिर मात्र साहितिक संसारान ओपोन मानुन घेतलें. त्ये नदरेन पळेल्यार, नवीन काव्यलोकांत हेळोन व्हाळोन उज्वाडाच्ये कुशिक उडकी मारली कवी पंडितान. धादोसकायेची गजाल, ताची उडकी जयताक पावली. राज्यांत आनी केंद्र सर्काराच्ये नद्रेंत मात्रच नहीं, अंतर राषट्रीय मळार समेत ताची कीर्ती आनी कविता स्फूर्ती गाजली. कवी हापकिन्सान १८७५ इसवेंत जेज्वीत याजकांनी उज्वाडांवच्या The Month पत्रिकेक आपलें एक कवन धाडलेलें. हापकिन्स खुद्ध जेज्वीत पाद्री. ताचें तें कवन उज्वाडावंक फावो नहीं म्हण तवळच्या संपादप्यान सांडून उडयलेलें. तेंच कवन कवी हापकिन्स मोटो इंगलेज कवी म्हण सगळ्या संसारान मानून घेताना, ताच्या सर्वय कवनां पैकी सर्वश्रेषठ म्हण विद्वानांनी पाचारलें. १९७५ इसवेंत The Month महिनाळ्या पत्राच्या संपादप्यान आपल्या मालघड्याची चूक ओळकून

कवी हापकिन्साक विशेस वाखण्णी आनी मान करून त्या कवनाचो शतमानोत्सव चलयलो.

कवी पंडिताचीं कवनां फकत "दऱ्या गाजोता" संग्रहांत भरोन सुगदाल्लीं नहीं. आमच्ये नदरेक पडानासलेलीं आनी कितलीं ताचीं कवनां आसात तोच जाणा. देखून खंचें कवन अती श्रेष्ठ म्हण पाचारुंक आमी धयर घेंवचें नहीं. तो आपलेच नद्रेंत खंचीं सगळीं कवनां आपणाक आधान म्हण लेख्ता तें ताचे लागिंच विचारुन व्याख्यानांत संबंध आसच्ये कडेन तें सांगलां.

तरी कवी पंडितान मनपूर्वकीं श्लेष वापुरलेले थोडे संदर्भ आमी पळेव्यां. फुलांचो आनी भक्तिचो सुवास पाचार्ता कवी ९ व्या कवनांत.

देवा मात्यार
फुलां रास...
म्हजा काळजां
भक्ती सुवास!

हांतूं चमत्काराचें–उतार "सुवास" जावनासा. कवितेचें आवर, व्हाळो, खोलायी ह्यें सर्व जमोन कवीक बुडयता. बुडयता म्हळ्ळें उतार चमत्काराचें १३ व्या कवनांत:–

कवितेचा हुंवारांतू
एक कवी व्हाळून गेलो.
अर्था खोलाय, तोल्तां माप्तां
घुस्मटून बुडोन मेलो.

कवीक आपलीं कवनां फळादीक जांवच्ये प्रास अधिक धादोसकायी आसोंक नजो. ताच्या २२ व्या कवनांत ह्यें फळ तो पाचार्ता. चमत्काराचें एक उतार नहीं, बगर चमत्कारान भरलेलें सुपुरलें कवनच ह्यें,

उत्रां म्हजीं मनांतलीं
सुकणीं जावून वाऱ्याक गेलीं
वाऱ्यावेल्यान हुबतां हुबतां
कोणेंय तरी आपलीं केलीं.

हांगा आपलीं केलीं म्हण्टाना, तीं चोरून भितर घालिं म्हण्येतशें

पयलें दिसता तरी, तीं ज़िरवन पसंद केलीं म्हळ्ळो गुंडायेचो अर्थ पळेंवचो!

दोळ्यांच्ये नद्रेंतली वात, या फुला सार्की काप्साची वात करून तुपान पेटंवची, ह्यो दोनी अर्थ आसचो चमत्कारी श्लेष १२६व्या कवनांत जळकता:–

म्हजे दोळ्यां
काजळी रात...
तुजे नद्रें
फुलां वात!

कवी पंडितालागीं तर्क कर्ताना, ताच्ये खबरे विणेंच श्लेष उदेल्ले संदर्भ आसलेले हावें पळेले, ताका दाकले हांगा:–

४ तें कवन:– दर एका दोवा थेंब्या
फुला फुला नांव आसा...
दर एका म्होंवां थेंभ्या
भंवराचो गांव आसा.

ह्या कवनाचें व्याख्यान १०३ व्या पानार दिलां. कविच्ये प्रज्ञेंत पयलेचो अर्थ मात्र आसलो. विमर्शकाक जळकंचो दुस्रो अर्थ वाचून सांग्ताना कवी पंडितान आपल्या दोळ्यां थावन धादोसकायेचीं दुकां गळयलीं.

कवी पंडितान खुद्ध आपणेंच आपलें सर्वश्रेष्ठ कवन जावन १८२वें कवन विंचलां. एक नदर जैतवंत म्हण पाचार्ताना, ताच्या उत्रांचो लोटा वयर लोट चडोनच येता, आनी नद्रे वयर नदर, क्रिये वयर क्रिया सगळें बळवंत जाता. नद्रे नद्रेक मनीस बदल्ता. पिसोळ्या भाषेन फुला थावन फुलाक धांवतां, आनी एक दोन नहीं पन्नास साठ विभिन्न अर्थ भरून, मनशाक आपलीच जिणी तपासुंक जागयता कवी पंडीत ह्या कवना द्वारीं. हाच्ये बरबर गाजता आन्येक बळादीक आनी श्लेषान भरलेलें कवन, १८३ वें कवन, ह्यें जिरयजय तर, हाच्ये पासून जाय तितलो वेळ खर्चिजय. व्याख्यान वाचून ह्यें काम केल्यार, आमी प्रसतुताक सांगलेलीं लक्षणां रूपरूप दिसानासताना उर्चिनांत.

VI काव्य, या कविता म्हणटाना छंदसाचेर दिष्ट लायनास्ताना सोडचें नहीं. आधुनीक काव्य मीमासांत छंदस म्हळ्यार काव्यक प्रास, लय आनी नाद भर्च्ये खातीर मांडलेले नियम म्हण अर्थ कर्चें रूढीर आयलां.

प्राचीन अध्ययन प्रकार असतमतिच्या लोका मधें ग्रीक आनी लातीन साहित्याचे कायदेच कविचें कानून आनी वेद जावनासलें. कवनांतल्या हऱ्येका सब्दाक आनी उन्नाक आपापलो श्रुतिताळो (intonation, tone) जोडटाले, आनी कवनां वाचुंचीं नहीं, हरयेकाक घडणारान नम्यारलेल्या नामक प्रकार तें उचार्चें (declaim) असलें. तशें तरी, ग्रीक आनी लात्या विद्वानांचें अभिमत छंदस व्याकरणचो एक आंकडो मात्र म्हण जावनासलें. प्रसतुताक आमचें, अवलोकन कोंकणी कवितेचें देकून, अस्तमति संप्रदायाचेर गुंड नदर मारची हांगा विसंगत. भारतीय छंदस आमकां प्रस्तुताक सुसंगत. तरिपूण छंदोशासत्रांत मापन करुंक अक्षरांचें मापन कर्चें जशें असतमतिंत तशें उदेंतिंत समेत प्रमूख लक्षण जावनासलें. संस्कृतांत अक्षरवृत्त आनी मात्रावृत्त म्हळ्ळ्यो दोन जाती प्रबल जाल्ल्यो. त्यो चडावत भारतीय भासांनी आपणावन घेतल्ल्यो. आधुनीक काळाक नसलें मापन वाऱ्यार उबलां, आनी नव्यकाव्यच्या उपासकांनी आपुणच आपलें काव्यमीमांस रचतलों म्हळ्ळो रसतो धरलागाय म्हळ्ळें सवाल उदेलां.

भारतीय काव्य लोकांत छंदस वापुर्ची अवश्यकता कितली म्हण नेयहाळ्ळलो विद्वान महिमाभट्ट. ताणे रचलेल्या "व्यक्ती विवेक" ची इल्लि पुणी ओळक आमी करिनासताना सोडची नहीं. थोड्या वर्सां आदीं छंदोलक्षणांचें उल्लंघन करून कविता रचचें धयर कोणाकच नासलें म्हळ्यार चूक जायशिना. आज तशें नहीं. नव्य काव्यचो वोसो बळादीक जाला. हाचें परिणाम जावन दोन प्रबल शिबिरां दिसतात. पयलेचें अशीर चेंत्पाचें. हांकां लातीन भाषेन laudatores actitemporis, म्हणजे गतकालचे पुजारी म्हण्येत. प्राचीन संप्रदायच्ये भायर रोसाळ कविता चडुंकच नजो म्हणचे शिपायी ते. हांकां विरोध शिबीर, पर्नें सगळें पर्काटें आनी रूच नासललें म्हण दांटुवन भायर उडयतेल्यांचें. पुरनें मोलादिक आनी नवें अमोलीक अस्येत म्हळ्ळ्या प्रामाणीक मनोभावचे साहिती मेळचे अपरूप. देखूनच महिमाभट्टच्ये कृतियेची ओळक हांगासर

प्रस्तूत म्हण लेखचें. दंडिन्न विद्वान हाचे प्रास पुर्विलो, आनी ताच्ये नद्रेंत छंदसलोप घडचें "भिन्नवृत्त" कवितेक बिल्कूल मारेकार जावनासलें.

वर्णानां न्यूनताधिक्ये गुरुलग्वयथास्थितीः ।
तत्र तदभिन्नवृत्तं स्यादेष दोषसुनिंदितः ॥

(काव्यादर्श III, १५६)

असलो संपरदाय प्रबल जावनासलेल्या साहित्याच्या संसाराक महिमाभट्टचें विशलेषण! काव्यन्यूनत या काव्यदोष फकत दोन रीतिंचे आस्येत म्हणा तो. ह्या लोपदोषाक तो अनौचित्य म्हण वोलायता. आनी ह्यें अर्थाचें अनौचित्य या अंतरंग अनौचित्य आनी सब्दाचें अनौचित्य या बहिरंग अनौचित्य जाता. अंथरंग अनौचित्या विषयांत आनंदवर्धनानच चत्रायी दीवन जाल्ली. देखून महिमाभट्ट फकत सब्दाच्या म्हणजे बहिरंग अनौचित्याक नदर मार्ता. हें बहिरंग अनौचित्य पांच तरांचें, म्हणजे विधेय विमर्श, क्रमभेद, प्रक्रमभेद. पौनरुक्त्य आनी वाच्यावचन म्हण आस्येत. तितल्यार थांबाना तो. छंदस खर्कस जालें म्हळ्ळ्या कारणान तें अनौचीत्य म्हणोंक जायना. प्रसतुताक खर्कस संवेदन, या खर्कस गुणा विरोध संवेधन उपजवंक जाय तर, तें छंदस थंयसर प्रसतूत, उपयुक्त आनी सूक्त म्हणटा तो. प्राचीन विद्वान कसल्या दोषाक भिन्नवृत्त या हतवृत्त म्हण म्हणटाले तसल्याक दुःश्रववृत्त या खर्कस छंदस म्हणचें चूक म्हणटा तो. सांप्रदायीक छंदोशासत्राक आड वेचे दोष भिन्नवृत्त या हतवृत्त. दुःश्रववृत्त तरबेती जोडून तेल्ते जाल्ल्या नाजूक कानांक मात्र खर्कस मार्ता. तशें आसतां अध्ययन अभ्यास करून जांटे जाल्ल्या कानांक मात्र हाचो गूण या ऊण खंचो अधीक म्हण पारकुवंची सामर्थी आनी हक्क आसा.

तितलेंच नहीं आसतां काव्य लक्षणाक समास सब्दांची मजत आनी बळ अधीक फायद्याचें जावनासा. समास सब्दांचो पयलेचो या उपरांतलो खंचो सब्द प्रधान म्हळ्ळ्याचेर ध्वनी आनी औचित्य व्होंदोन उर्तात. हाका महिमाभट्ट "प्रधान्येतर भाव" म्हण नांव घाल्ता. व्याकरणांत समासची घडावळ फकत गणिताची जाव्येता. छंदशासत्रांत ती तशी उरना. औचित्या अनौचित्याच्ये दिष्टिन ताका अधिक प्राधान्यता भर्ता. साद्या उलवण्यांत खंचो सब्द प्रधान म्हळ्ळें गुमान करिनासतानांच समास

घडावळ केल्यार अधीक अपाय दिसाना जाव्येता. पूण काव्यंत तशें करुंक जायना. प्राधान्यता पयलेच्या या उपरांतल्या सब्दाचेर खंचता म्हळ्ळ्या प्रकार रसभाव आनी ध्वनी बदल्तात. कवी तत्पुरूष समास वापुर्ता तर ताचो दुस्रो सब्द प्रधान जाल्यार मात्र ताणे तशें कऱ्येता. ना तर ताणे तत्पुरूष समास बिल्कूल वापुर्चोच नहीं.

महिमाभट्टच्या उपरांत आयलेल्या छंदोलाक्षणिकांनी प्राचीन संप्रदाय उकलुन धर्ले, आनी महिमाभट्टचो ताळो अरण्यांतलें रडणें जावनच उरलो. तरिपूण अर्विले कवी महिमाभट्टची ओळक नासतानांच, ताणे आपणावन पाचार्लेंलें स्वातंतऱ्य, या काव्यसरस्वतिचेर सर्वाधिकारी चलंवची रीत आपणावन घेतात तें पळेंवचें!

कोंकणी भाषेचें प्राचीन साहित्य नास जालां तरी थोड्या शतमानां आदलें, म्हणजे सत्राव्या शतमानांतलें दायज पुणी आमकां उपलब्द आसा म्हण ओपानासताना वाट ना. त्या साहितांत आमकां कवनां काव्य मेळटात, आनी थोडे कण कण जळकातात. तांतूं सकटांनी निर्दिषट छंदस नियमां प्रकार वापुरलां तें खरेपणी दिसोन येता. एक दाकलो घेंवचो जाल्यार १६६९ इसवेंत मरण पावलेल्या जेज्वीत आंतोन द साल्दान पादरिन सांतांतोनिची जिणी काव्य रुपार विणल्या ति १६६५ इस्वेंत छापोन उज्वाडलेली. ताचो छंदोबंध व्होव्ये रुपार आसा.

क्रिसतांव भक्तिचे मुक्तक आदीं थावन देंवन आयलेले आपूट छंदोबंधांत घडलेले जावनासात. क्रिसताचें यातनगीत प्राचिन तशें ह्या शतमानांत मोन्सीनोर सिल्वेस्टर मिनेजान रचलेलें व्होव्ये बन्धांत आसा. पूण अरविल्या कोंकणीं कविंच्यो कृतियो अश्यो छंदोलक्षण प्रकार घडच्यो अपरूप जाल्यात. हांकां ध्वन्यात्मक संवेदन आनी प्रतिमा प्रधान जाल्या म्हणाजय.

केंद्र सरकाराच्ये साहित्य अकादमिन उज्वाडायललो कोंकणी काव्यसंग्रह उगडून पळेल्यार कितें दिसता! आटेचाळीस लेखकांचीं कवनां तांतूं आसात. निर्दिष्ट छंदोलक्षण वापुरचीं कवनां तांतूं कितलीं जळकतात? बयाभाव, बाकिबाब बोर्कार आनी मनोहर राय सरदेसाय हांची शिवायी हेरांच्या कृतियांनी कसलोच निर्दिषट छंदोबंद दिसोन येना. तशें सांग्ताना हेरांच्या कृतियांनी कवितेचीं लक्षणां नांत म्हणचें

नहीं. फकत छंदोबंध या निर्दिष्ट छंदसाचो नेट ना म्हण मात्र सांगचें. त्या काव्यसंग्रहांत कवी र.वी. पंडिताचीं अनेक कवनां आसात. तर पंडीत तरी छंदोबन्धाचो नेट सांडल्लो कवी म्हळ्ळें सत रुप रुप दिसता. मुखार येंवचें व्याख्यान ताणे पर्ने छंदोबंध सांडले तरी कवितेचो हावेस कसो आपणायला तें धाराळ समर्थन करुंक सक्तेलें.

जाय ते कडेन पंडीत कवनाच्ये एक्ये फांतीक एकच सब्द मांडून तृप्ती जाता, हाका १९२, २१९, २२७, २५१, २७१ इत्यादी पानां पळेंवचीं. खुशी आसली तर व्होवेचो बंध नेट या आनी कसलो छंदस वापरून तो आपली कविता रचूंक सकतो ना म्हण नहीं. कोंकणी भाषेची प्रज्ञा आनी जाण्वायी, तश्योच कोंकणी भाषेन जातिवार कोंकणी लोकाच्या जिबांचेर नाचोन करचो गडामुडी सगळ्यो बऱ्यान जाणासचो पंडीत आपल्या कवनांनी खुशी आयलेले प्रकार उत्रां आनी सब्द बांदता आनी उडयता म्हळ्यार चूक जायशिना. आपणें चिंतल्लें संवेदन उपजशें करुंक खर्कस अनौचित्य वापरुंक तो लजेना, "म्हजी भास गौडीच" म्हण तो पाचार्ता.

असल्यांत ताची भाषेची सामर्थी, कोंकणी संस्कृतेची प्रज्ञा आनी कवितेची स्पूर्ती दोळ्यांक बांदलेले परीं आमकां रूप रूप दिसता. तरी पूण लातीन भाषेंत सांगणी आसा. Quandoque dormitat bonus Homerus (बरो होमर कवी मधें मधें जेमेता). त्येच भाषेन जाव्येत कवी र.वी. पंडीत अपरूप जेमेल्लो दिसता. वसतूध्वनी पाचार्ताना ताणे भाषेची वैविध्यता वापुरल्यार तें गर्जेचें म्हण्येतें. पूण रसादिध्वनी पाचार्ताना ताणे आपलीच प्रमाण भास वापुर्चो न्याय जावनासलो. तरिपूण प्रमाण भाषेक लक्ष दीनासताना "येयलें तशें गायलें" म्हण ताणेंच म्हणचे प्रकार सबार कडेन तो गुस्पड उपजयता कोण्णा म्हळ्ळी भिरांत दिसता. असल्या प्रमादाक आवकास मेळानाये म्हळ्ळ्या इराद्यान अधीक अधीक म्हिनत काडून हऱ्येका कवनांत उत्रांचो अर्थ तब्दील केला. अशें कर्ताना सपणेवन या म्हज्या मनांतलो अर्थ पंडिताच्या उत्रांक आरोपून तशें करुंक ना, बगार वयर वयर पंडिता लागिंच विचारून अर्थाची खात्री केल्या. भाषेचे, जातिचे, काळाचे, छंदोबंधाचे आनी दाक्षेणेचे बांधपास फडून उडटलोच खरो कवी. तसलो कवी रघुनाथ विषणू पंडीत म्हण हांव कायिंच पाटीं फुडें करिनासताना धयरान पाचारतां.

*** *** ***

# कोंकणी बालसाहित्य निर्मिती आनी प्रसारांतल्यो आडखळी

– तुकाराम शेट

कोंकणी बाल साहित्य :– निर्मिती आनी प्रसारांतल्यो आडखळी असो पेपर सकारात्मक नद्रेंतल्यान तुमचे मुखार मांडपाचो यत्न करतां. ालसाहित्याची निर्मिती करताना आनी ताचो प्रसार करताना खंयच्यो ाजाली व घटक पोशक जांवयेतात व ताच्या उणावान आडखळी ांवयेतात तें कोंकणिंतल्योच देखी दिवन सांगपाचो यत्न करतां. पूण ाका गोंयच्या वाठाराची आनी नागरी लिपियेंतल्या बालसाहित्याची शेममेर आसतली. जाणकारानी हातूंत अदीक भर घालून म्हजो भार ाणो करचो अशें नमळायेचें मागणें.

पारंपरीक बालसाहित्य हें सर्जनशील साहित्याचें पयलें आनी सोपें ोपण. लोकवेदांतल्या भुरग्यांच्या लोकवेदाचो अभ्यास केल्यार पारंपरीक ालसाहित्य हें हेर सर्जनशील साहित्या पयलीं निर्माण जालां हें कळून ाता. आयीक काळासाकून आशिल्लो जाण्ट्यांचो आनी भुरग्यांचों सहवास ानी भुर्ग्यांच्या लोकवेदाची गरज ही मूळ कारण ताची निर्मिती फाटली ासुंये. भुरग्याचो आपली आजी, आजो, आवय, बापूय, भावभयण अश्या कुटुंबांतल्या मनशांकडे आनी समाजांतल्या जाणट्या–नेणट्या ाडे संपर्क, तशेच बालगीतां जावप खेळ, खेळप, काणयो आयकप– ांगप अश्यो भुरग्यांच्यो गरजो हातूंतल्यानूच सगळ्यांत पयली पारंपरिक ालसाहित्य वाडीक लागलें आनी सगल्याक पसर्ले.

कोंकणी बालसाहित्य हें फकत पुसतक रुपान व पुस्तकाच्या ाध्यमांतल्यान आकाराक येना, तें वेगवेगल्या रुपांनी आनी माध्यमांतल्यान ेर्माण जाता आनी भुरग्यांमेरेन पावता. ह्या वेगवेगळ्या माध्यमांतल्या बाल ाहित्याच्या निर्मितिंतल्यो आनी प्रसारांतल्यो आडखळी व उणाव हे पुराय ाल साहित्याच्या निर्मितिंतल्यो आनी प्रसारांतल्यो आडखळी आसतल्यो. ारंपरीक बाल साहित्य जें तोंडांत घोळ्ळें आनी घोळटा, पुस्तक ानी मासिकांच्या रूपान वाच्पाचें बालसाहित्य, आकाशवाणी आनी ायकपाच्यो केसेटी ह्या श्राव्य माध्यमांतलें बाल साहित्य, दूरदर्शन आनी

विडियो केसेटी ह्या साख्र्या दृक–श्राव्य माध्यमांतलें बालसाहित्य, तशेच भुरग्यांच्या कान्यावळिंनी प्रत्यक्ष (Live) सादर करता तें बालसाहित्य, अश्या वेगवेगळ्या संपर्क माध्यमांतल्यान, रूपकाराक येतल्या पुराय बालासाहित्याचो विचार केल्यार बऱ्याक पडटलें.

पारंपरीक बाल साहित्य: कोंकणी पारंपरीक बाल साहित्य हें दायजान भुरग्यांक मेळ्ळां. मूळ रचनाकार कोण तें खबर नासलें तरीय तें एके पिळगेंच्या तोंडांतल्यान घोळत येवन दुस्रे पिळगेक, तें सहवासान आनी संपर्कान मेळत रावलां. देखीक आल्लयो, बालगीतां, नाचगीतां, खेळगीतां, खेळ, उमाणी, काणियो आदी. आवय भुरग्याक न्हिदायताना थोपटियताना म्हण्टाली–

कुरू कुरू काना
म्हशी गेल्यो राना
आमूड हाडरे मामा
बाबुली हामा.........

व आवय भुरग्याक खेळयताना गाताली

लाडू करगे
लाडू करगे
अम्मायी

एक लाडू
करपा लो
सोयरो बाबडो
झडपा लो......

एक लाडू
तुपान खांव
संवगड्या वांगडा
खेळोंक जांव............

दायजान अश्यो खूबश्यो मेळिल्ल्यो आल्लयो आवयानी सांबाळल्यात व्हय? आवयो आतां अल्लयो गातात तर? कांय आडवाद सोडल्यार आवयो ह्यो आल्लयो विसरुन गेल्यात. तोंडांतूच घोळाना फेंळान मागीर तांचो प्रसार कसो जातलो?

आदीं भुरगीं गितां गायत खेळटालीं. आतां दुस्रे खेळ आयल्यात. ुरगी आतां खेळगितां विसरत चल्ल्यांत. आज्ज्यो आपल्या नातवांक ुशीक घेवन काणयो सांग्तालीं. आतां विभक्त कुटुंब पद्धत जाल्ल्यान ुर्ग्यांक आजेच्यो काणयो आयकपाक व्हडलेशें मेळना. सादारण धा-ारा वर्सांमेरेन पारंपरीक बालसाहित्यांतल्यान भुरग्याच्या मनाची पोस्वण ाताली. तें आतां जायना. पारंपरीक बालसाहित्य इंगलीश संसकृतायेच्या ानी आधुनिकतेच्या साव्टा पोंदा चिड्डुत आसा. तरी तोंडांत घोळटा तें ांय थोडें बालसाहित्य आयज पुस्तक रुपान आयलां. चडशें पारंपरीक ालसाहित्य आमी शेणोवन बसल्यात. हाका मुखेल कारण आमी ामच्या पारंपरीक बाल साहित्याक फावा तें म्हत्व दीवंक ना. तशेंच तें शिक्षणांत आस्पावन घेंवना. 'आपलें तें हीण, परक्यालें तें बरें' अशी ामी वृत्ती आपणायली. ही वृत्ती सोडून दीवन आमी आमचें पारंपरीक ालसाहित्य पुंजावंक जाय. ताचें वर्गीकरण करून तें भुरग्यांच्या मनांत ़जोवन हाडपाक जाय.

हातुंतल्यान फुडें वाडटा वाडटा भुरग्यांक लिखीत साहित्याचीय रूच ाग्तली. कांय संस्था आनी वावुरपी मनीस, पारंपारिक बालसाहित्याच्या ळार वावुरतात आनी पारंपारीक बालसाहित्य पुनरुज्जीवन करपाचो यत्न र्तात ही हुमेदिची गजाल आसा. कांय नव्यो रचना भुर्ग्यां मदी प्रीय ावन, चड करून नवी बालगीतां कांय वाठारांनी पारंपारिक भालगीतां री भुर्ग्यांमदीं घोळटात. पूण तांच्यो प्रसार पुराय कोंकण वाठारांत ाल्लो दिसना हाचें कारण, वेगवेगळ्या कोंकणी वाठारांतल्या भुरग्यांचो त्यक्ष संपर्क जायना. तशेंच सिंधुदूर्ग, गोंय, कारवार, कुमटा, होन्नावर, ंगळूर, कोच्चि ह्या वाठारांनी कोंकणी भुरग्यांचें शिक्षण तांची आवयभास ोंकणिंतल्यान जायना. वयल्यान ते वेगवेगळ्या परकी भाशांतल्यान जाता ानी हे शिक्षणाचें वोजें भुरग्यांच्या ल्हान पिरायेंतूच पडटा.

ाव्य संपर्क माध्यमांतलें बालसाहित्यः पणजी आकाशवाणी ेंद्रावयल्यान भुरग्यांच्या कार्यावळिंत बालगीतां, काणियो, नाटकुलीं शेंच ज्ञान आनी मन रिजवणेचें विंगड विंगड बालसाहित्य वितरायतात. ाकाशवाणिवयली खळार मळार ही कार्यावळ पयली भुरगीं न चुक्तां ायकतालीं. ही कार्यावळ भुर्ग्यांची आवडिची जाल्ली. आतांय भुरगीं ायकातात. पुण दूरदर्शनाच्या माध्यमाक चड आकर्शीत जाल्यात. तशेंच

ही कार्यावळ सप्तकांतल्यान एक फावट आनी अर्द वराची आसता. त्या कारणान प्रसारीत जावपी बालसाहित्याच्या प्रमाणाचेर, वेळेची मर्यादा येता. आकाशवाणिचेर बरें बालसाहित्य निर्माण जाता तें राखून दवर्पाचें काम जावंक जाय. आकाशवाणिच्या पुडाकारान व दूसऱ्या संस्थ्याच्या पालवान तें पुसतक रूपांतय हाडूंयेता.

कोंकणी बालसाहित्याचो आयजवेर कांय थोड्यो आयकुपाच्यो कॅसेटी निर्माण जाल्यात. म्हजे म्हायतिप्रमाण फकत पांचूच कॅसेटी तयार जाल्यात. मडगांवच्या मेलवीन येंटरप्रायज हांणी निर्माण केल्ली आनी शोरोन हांच्या आवाजांतली पारंपरीक कोंकणी काणियांची कॅसेटी, गोंयच्या बालगीत निकेतन बेतीं हाणीं निर्माण केल्ल्यो 'गोंयचीं बालगीतां' नाचगितां, खेळगितां, तशेंच 'कोंकणी बालगीतां' ह्यो दोन शिक्षणीक कॅसेटी, कुंदापूरच्या गुरुप्रसाद कोंकणी सभा हे संस्थेच्या पालवान विकास लायव कॅसेटी विजयनगर बेंगळूर हाणी तयार केल्ले केसेटिंत एके वटेन भुरग्यांची गितां आसात. तशेच तोमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, पर्वरीं गोंय आनी मांड सोभाण मंगळूर हाणी 'हासून खेळून गांवया' ही बालगितांची कॅसेट तयार केल्या, आडियो–वीडियोच्या युगांत ह्यो कॅसेटी खूबच अल्प प्रमाणांत जाल्यात, लिपिभेद, प्रांतभेद कुशीक सार्पी हें एक बरें श्राव्य माध्यम, पूण कोंकणी बाल साहित्याच्यो जाय तितल्यो आयकुपाच्यो कॅसेटी तयार जाल्यो नात ही एक खंतिची गजाल. ह्या मळार कलाकार, उद्देजक आनी सामाजीक, शिक्षणीक संस्था फुडें येनात हेच मुखेल कारण हाचे फाटलें आसूंये. कोंकणी मनशांची, जशी कांय मळार अनास्था आसा तशीच ह्याच मळार अनास्था आसा नव्या संस्थ्यांनी तरी ह्या मळार वावुर्पाचें आव्हान पेलूंक जाय.

दृक–श्राव्य संपर्क माध्यमां: पणजी दूरदर्शन केंद्रार फुलती फुलां ही अठ्ठावीस मिनिटांची भुरग्यांची कोंकणी सप्तकी कार्यावळ दाखयता. हे कार्यावळिंतल्यान दूदाची तान ताकाचेर भागोवची पडटा. कारण कार्यावळिचो वेळ खूब कमी. कोंकणी भुरग्यांक वेगवेगळ्या चानेलाचेर वेगळ्या भासांनी भुरग्यांच्यो प्रसारीत केल्ल्यो कार्यावळी पळोवच्यो पडटा. कार्टून फिल्मां तशेच भुरग्यांची टेलिफिल्मां आजून कोंकणिंत जांवनांत. दूरदर्शन केंद्रान तशेच खाजगी निर्मात्यांनी भुर्ग्यांचीं फिल्मां

तयार करपाच्या वावराक लागापाक जाय. तशेंच हेर भाशेंतलीं भुरग्यांचीं फिल्मां कोंकणी भाशेंत दब्बिंग करून कोंकणी भुर्ग्यांची गरज भागोवयेता. भुर्ग्यांचीं फिल्मां आर्थीक नद्रेन परवडना जाल्यार पयली मूळ कोंकणी फिल्मां करून मागीर तीं फिल्मां हेर भाशानीं डबिंग करून वेवहारीक मेळ साधपाचो यत्न करूं येता. तशेंच बालनाट्यांची मुजरत निर्मिती कर्ची पडटली.

भुर्ग्यांच्यो काऱ्यावळी : साहित्यीक आनी भुरगीं हांचो प्रत्यक्ष संबंध येवपी कोंकणी भाशेंतल्यो काऱ्यावळी खुबूच कमी जातात. कांय वाठारांनी तर त्यो जायच नात. साने गुरूजी कथामाला मराठींतल्यान भुरग्यांच्यो कार्यावळी वर्सांची वर्सां खूब कडे करतात तश्यो कार्यावळी कोंकणिंत जावपाक जाय. नामनेचे कोंकणी साहित्यीक आनी संघटक भोमानेस्त नागेश बाब कर्मली हांच्या फुडारपणाखाल 'लळितक' ही साहित्यिक कार्यावळ गोंयांत खूबकडे आनी कांय वर्सां जाताली. हातूंत हेर साहित्या वांगडा भुर्ग्यांखातीर कविता, काणियो, विनोद अशे साहित्य प्रकार सादर जाताले. ह्या काऱ्यावळिंत सादर करपाक म्हूण कांय कवी आनी कथाकार भुर्ग्यांचे साहित्य निर्माण करताले आनी ते गांवा गांवांतल्या भुर्ग्यां मेरेन पावयताले.

गोवा कोंकणी अकादमी वतीन 'बालमेळ' आनी बालगीत निकेतनाच्या वतीन 'गीतमेळ' अश्यो कार्यावळी जाताल्यो. हातूंत पारंपारीक बालसाहित्य वांगडा नवे बालसाहित्य रचून ते भुरग्यांमेरेन पावयताले. अश्यो कार्यावळी आयोजीत जातल्यो जाल्यार आर्थीक फाटबळावांगडा काम करपी संस्था तशेच मिशीनरी वृत्तिचे वावुर्पी जाय. ह्या प्रत्यक्ष कार्यावळिनी भुरग्यांचो आनी साहित्यीकांचो सहभाग आसल्ल्या कारणान भुरग्यांक कितें जाय कितें आवडता तें कळटा आनी भुरग्यांक फावा अशे योग्य साहित्य निर्माण जाता. तशेच प्रत्यक्ष साहित्यिकांकडल्यान सरळ भुरग्यांमेरेन पावता. कोंकणिंतल्या लेखकांचो संपर्क वेगवेगळ्या प्रदेशांतल्या कोंकणी भुरग्यांकडे आनी साहित्याकडे येना. तसो संपर्क येत तर बालसाहित्य बरेतरेन फुलून येतले. कोचिंतल्या एका पारंपारीक बालगीताकडे गोंयांतल्या एका कविचो संपर्क आयलो. तें गीत अशें आसा–

कायळ्या तूं गोंयां गेल्लोल वे?
पुतोले मामाक दिक्कील वे?
यो म्हणटाल वे?
येतोल म्हणटाल वे?

हें पारंपारीक गीत वाचून गोंयांतल्या कवीक उमाळो फुटलो आनी ताणे इतिहासीक संदर्भ आशेल्ली बालकविता बरयली.

मामालो रकाद

कावळो गेलो कोचीक
मामालो रकाद घेवन
करूंक लागलो कावकाव
घरा पाडसार बसून

भाच्याची आवय तेन्ना
याद काडी चिंतेन
ती भावाची भयण मागीर
विचारूं लागली खोशेन

कायळ्या तूं गोंयां
गेल्लोल वे?
पुत्तोले मामाक
दिक्कील वे?
यो म्हणटाल वे?
येतोल म्हणटाल वे?
कायळ्या तूं गोंया
गेल्लोल वे?

भयण आयकत रावली
खोशेच्या उमाळ्यान
भाचो नाचूंक लागलो
मामाच्या रकादान

काण्णा चुन्ना भिण्णा
रसाळ पिकून रावल्यां
आंबे पणसा घरे
पर्मळान घम घम्ल्या

योरे भाच्या यो
योगे भयणी यो
शेकड्यांनी वर्सां
वाट पळयतां

अशे तरेन संपर्कान आनी प्रतिक्रियेंतल्यान साहित्य निर्माण जांवयेता.

छापील बालसाहित्यः बाल साहित्य वेगवेगळ्या माध्यमानी रुपकाराक येत् आसलें तरी पुस्तकाच्या रुपांत जे बालसाहीत्य येता ताकाच आमी 'बालसाहित्य' हें नांव दवरून पाळण्यांत घातलां आनी धोलयलां. पुस्तक हे भुरग्यांचे इश्ट. भुरगीं आपल्याक जाय तेन्ना आनी जाय तसलें पुसतक सहजतायेन वाचूंक शक्तात. तांच्या सांगातान रावंक शक्तात.

कोंकणी भाशेंत हालिच्या काळांत बालसाहित्य निर्माण जावपाक लागलां. सादारण तीन दशकाच्या काळांत दोनशांवयर पुसतकां उजवाडाक आयल्यांत. हातूंत मूळ बरयल्ले साहित्य रूपांतरीत साहित्य तशेच अणकारीत साहित्य आसा. मूळ साहित्य बरोव्पाक कांय आडमेळीं आसूं येतात. लेखकाक भुरग्याच्या विश्वाची माहिती नासप, भुर्ग्याच्या मानसशासत्राची जाणीव व अभ्यास नासप, बालसाहित्य बरोवपाक उत्तेजनाचो उणाव, भुरग्यांकडे सहवास व, संपर्क नासप ही आडमेळी आसूं येतात. तशेच पुस्तक प्रकाशीत करपी न म्हळ्ळ्या कारणान आनी पुस्तक प्रकाशीत जावपाक कळाव लागिल्ल्यान लेखक निर्शेता. लेखक आनी भुरगीं हांचो संपर्क येवचो म्हूण वेगवेगळ्यो कार्यावळी जावपाक जाय. लेखकांक उत्तेजन मेळपाक फावा ते मानधन दिव्पाक जाय. तांच्या उत्कृश्ट पुसतकाक राज्यस्तरीय आनी राषट्रीय पुरसकार दिवपाची व्हेवस्था आसूंक जाय. कोंकणिंत अशे पुरस्कार नासले. तरीय पुसतकां भुरग्यांच्या मोगान तयार जालीं. कोंकणी भाशा मंडळी बालसाहित्याक नेहरू पुरसकार म्हूण दिताले. पूण तो रोकडोच बंद जालो. हालीच १९९७ सालां सावन NCERT ची राषट्रीय इनामां कोंकणी भाशेंतल्या पुस्तकांक मेळपाक लागल्यांत ही एक बरी गजाल. कोंकणी भाशा भारतीय संविधानाच्या आठवे वळेरेंत नासली देखून कांय राषट्रीय येवजणांचो लाभ मेळानासलो. आतां भारतीय संविधानाच्या आठवे वळेरिंत मान्याताय मेळ्ळ्यान कोंकणीक आतां राषट्रीय स्तराचेर खूबशीं दारां उक्तीं जाल्यांत.

आतां राषट्रीय स्तराचेर लागपासारको बालसाहित्याचो दर्जो निर्माण करपाक लेखकांक आव्हांन आसा.

सरकारी संस्थ्याकडे आनी कांय खाजगी प्रकाशकांकडे वर्सांची वर्सां बालसाहित्याचें हातबरप पडून उरता. तशे न घडटा सादारण स म्हयन्याची तरी पुसतकां उज्वाडावपाक येवन तीं भुरग्यांमेरेन पावपाक जाय. पुस्तकां छापपाक लेगीत सर्कारी संस्थ्याकडे आर्थीक फाटबळ ना ही व्हडली चिंतेची गजाल जाल्या.

पुस्तकां बरोवन घेवपाक संस्थ्याचो वावर म्हत्वाचो आसता. संस्थ्यांनी वेगवेगळ्या विशयावयली पुसतकां वेगवेगळ्या लेखकाकडल्यान बरोवन घेंवयेतात. शिबिरां घेवन व मार्गदर्शन करून जाय तसलीं पुसतकां तयार करून घेंवयेतात, भारती भाशा संस्थान मैसूर हे संस्थेन गोंय, महाराषट्र, कर्नाटक, केरळ ह्या राज्यांतल्या कवीक एकठांय हाडून तांका मार्गदर्शन करून 'कोंकणी बालगीतां' हे ३६० बालगितांचें पुसतक तयार करून घेतलें. चारूय राज्यांतल्या कोंकणी भाशीक भुरग्यांक उपेगी अशें हें पुस्तक निर्माण ज़ालां अशे तरेन एकठांय येवन कामां जावयेतात. पूण अशे यत्न जाल्ले दिसनात. नॅशनल बूक ट्रस्टान कांय प्रस्तकां अणकारीन करुन ती पुस्तक रुपांत उजवाडाक हाडल्यात. भाशांतरीत पुस्तकां उज्वाडावपाचो संस्थात्मक वावर कोंकणी भाशेन कमी जाता. तो तर वाडत तर कोंकणी भुर्ग्यांक बालसाहित्याचो चडांत चड लाभ जातलो.

कोंकणिंत जी बालसाहित्याची मासिकां आयलीं तांतूतल्यान बरेच बालसाहित्य निर्माण जाले. 'मारुती' तशेच 'भुरगीं आनी राजहंस' ह्या मासिकांतल्यान तयार जाल्ले साहित्य, पुस्तक रूपानच उज्वाडाक आयलां. लेखकां वांगडा मासिकांक उद्वेगी सर्जनशील प्रकाशक मेळ्ळे म्हूण बालसाहित्य उज्वाडाक हाडपाचो इतिहासीक वावर जालो.

आयज 'भुरगीं आनी राजहंस' हें एकोडेच मासीक चल्ता आनी ताणे अठव्या वर्सांत पावल घालां. तांतुतल्यान भुरग्यांक जाय अशी बर्पावळ निर्माण जाता ही तोखणायेची गजाल. राजहंस वितरण, संजीविनी प्रकाशन, जाग प्रकाशन, आपूरबाय प्रकाशन, गोवा कोंकणी अकाडमी ह्या सरक्या प्रकाशन संस्थ्यांच्या कठीण कश्टांतल्यान 'बालसाहित्य' निर्मितिचें आनी प्रसाराचें कार्य चल्ता.

बालसाहित्याचीं पुस्तकां जाय तितलीं, जाय त्या विशयावयलीं बरोवन आनी पुसतका रूपान छापून तयार जायना ताची कारणां आर्थीक, शैक्षणीक, वाठारीय आनी सांख्यिक आसा, चार राज्यांनी कोंकणी भाशा उलोवपी लोक आसले तरी कोंकणी उलोवपी लोक खूबच कमी. तांतूत पुस्तकां विकप घेवन वाचपी सामके कमी. गोंयांत आनी हेर वाठारांत कोंकणी भाशेंतल्यान शिकपी भुरगीं कमीच. त्या कारणान बालवाचक कमी तशेच लिपिभेदाक लागून आनी वेगवेगळ्या वाठारांत शिंपडून पडल्ल्या कारणान वाचक विभाग्तात. कमी वाचकांक लागून पुसतकांची मागणी कमिजाता. कमी मागणेवेल्यान कमी खप. गोंयांत कांयकडे कोंकणी भाशाविशय देवनागरी लिपियेंतल्यान शिकल्या कारणान तशेच भाषा चळवळिच्या वातावरणाक लागून शाळांतल्या वाचनालया खातीर पुस्तकां घेतात. हे खातीर बाल साहित्याचो खप हेर साहित्याच्या पुस्तकांच्या मानान बरो आसा. पुस्तकांक खप कमी आसल्ल्यान पुस्तकाच्यो प्रती छापपाक मर्यादा येता. एक हजार लेगीत प्रती छापपाक  भियेतात. कमी प्रती छापल्या कारणान पुस्तकाचें मोल वाडटा. तशेच रंगीत आनी चित्रांनी सोबयिल्ले पुस्तक छापल्यार खर्च वाडटा ते प्रकाशकाक पर्वडना आनी चड मोल जाल्ल्यान वाचप्याकूच पर्वडना, भुर्ग्यांचीं पुसतकां सचित्र आनी रंगीत नासत तर भुर्गिंय पुसतकां कडे आकरषीत जायनात, खप नासल्या कारणान तीं छापपाक प्रकाशक मेळप खुसतार जाता. ही आडमेळ ह्या मळार खरपणान जाणवता. मात पुसतकांची छापणावळ सुंदर आनी निवळ नासप रंगीत चित्रां बरेतरेन छापपाक ना मेळप अश्यो आडखळी नव्या टेकनॉलॉजींतल्यान पयस जाल्यात. आतां पुस्तकां सोबीत आनी बरेतरेन छापपाची पायावळ गोंयांत आनी हेर वाठारांनी उपलभध आसा. खर्चाक परवडत नासत पूण रंगणक आनि अफसेट प्रिंटिंग मेशीन  ह्या अर्विल्या साधनाचो उपेग करून छापिल्लीं आकर्शक पुस्तकां निर्माण जावपाक लागल्यांत.

बाल साहित्याचीं पुस्तकां निर्माण जावचीं म्हूण गोवा कोंकणी अकाडेमी पुस्तकां छापपाक प्रकाशकांक अनुदान दिताली ते अतां फंड नाशिल्ल्यान बंद जालां. तेच बराबर चित्रासयत हातबरपावळ तयार करून घेवन प्रकाशकांक दिताली. हालिच्या तेंपार अकाडमी बालसाहित्याची पुस्तकां आपुणूच प्रकाशीत करून बालसाहित्य पसवणेक हातभार लायता.

प्रकाशकाक अनुदान दिवप, अनुदान दिवना त्या पुस्तकांच्यो प्रती विकत घेवप, विक्रेक हातभार लावप असो मोलाचो वावर सरकारी संस्थानी करीत तर बालस्याहित्याची पुस्तकां निर्माण जावपाक बरे दीस येतले. फाटी गोंय सरकाराचें शिक्षण खातें आपल्या शाळांखातीर बालसाहित्याची पुसतक विकत घेताले त्या काळांत बरीच पुसतकां निर्माण जाल्लीं. मात गोंय शिक्षण खात्यान घेतिल्लीं पुसतकां शाळांतल्या कपाटांनी बंद उर्तात. तीं वाचपाखातीर भुरग्यांच्या हातांत पावपाक जाय.

प्रसारांतल्यो आडखळी : बालसहित्य निर्मितिंतल्यो ज्यो आडखळी आसात तांतल्योच चडश्यो आडखळी प्रसारांतल्योय आसात. बालसाहित्य निर्माण जायना म्हण बाल साहित्याचो प्रसार जायना आनी प्रसार जायना म्हूण निर्मिती जायना. बालसाहित्याच्या पुसतकांचो प्रसार जातलो जाल्यार पुस्तक बरपाचे नद्रेन आनी उत्पादनाचे नद्रेन उत्कृश्ट व गुणवत्पूर्ण आस्पाक जाय. रंगीत आनी चित्रांचे बरें पुसतक भुरगीं हातांत घेतात. अशी पुस्तकां कोंकणिंत जाल्यार पुस्तकांचेर भुरग्यांचो उडयो पडटल्यो. दूरदर्शनाचो भुरग्यांचेर बरोच प्रभाव पडला. भुरगीं चडांत चड वेळ दूरदर्शनावयल्यो कार्यावळी पळेयतात मागीर त्यो कसल्योय आसूं. भुरगीं इंगलीश माध्यमांतल्यान शिक्षण घेतात त्या कारणान कोंकणिंतल्या पुस्ताकांच्या वाचनाची संवय भुरग्यांक जायना आनी तांकां गोडयी लागना तशेच तांचेर शिक्षणाचें वोजें चड आसल्ल्या कारणान अवांतर वाचनाक भुरग्यांक वेळ मेळाना. अवांतर वाचन कमी जाल्ल्यान पुसतकांतल्या बाल साहित्याचो प्रसार जावप खूबुच कमी जालां. हाचो अर्थ तांका दूसऱ्या माध्यमांतल्यान कोंकणी बालसाहित्य पावलें तर तांका नाका अशें न्हय. टेलिफिल्मां, व्हिडियो कॅसेट, आडियो कॅसेट हाचो उपेग साहित्य प्रसाराखातीर बरे तरेन जांवयेता. चड करून भुरगीं पुस्तकां वाचिनात म्हूण कोंकणिंत भुरग्यांच्या साहित्याविशीं शिबिरां, बालमेळ जातात व्हय? तेय नात. खास शिबिरां, बालमेळ घेत तर कोंकणी बालसाहित्य तोंडी माध्यमांतल्यान सरळ भुर्ग्यां मेरेन पावूंयेता.

कांय प्रकाशन संस्था भुरग्यांचीं पुस्तकां निर्माण करून तीं विकप, असो उद्देग व धंदो म्हूण करीना. केल्यार तांतूत साहित्य नासता. छापिल्लीं पुस्तकां तशीच दवरून कांय वर्सांनी तांका वायटीय लाग्ता अशे वायट अणभव येतात. मार्केटिंग ना जावप ही ह्या मळावयली व्हड आडखळ.

तशेच जायराती दीवन व दैनिकांनी, मासिकांनी पुसताकाचो तितलो प्रचारूय जायना. वितरण वेवस्था नासप, sale counter नासप, ह्यो अडखळी आसात. पुसतक प्रदर्शनां वर्सांत एक दोन फावट जातात पूण ती वेगवेगळ्या वाठारांनी जायनात. कांय प्रकाशक सोडल्यार चडशे प्रकाशक तांतूत आपले स्टाल लेगीत घालीना. हाचें एक कारण तांच्या पुसतकांची संख्या कमी आसता. तरी कांय प्रकाशक खासा 'पुसतक जात्रा' करतात. तशेच काल्या जात्रानी लेगीत पुसतकां विकपाचो यत्न कर्तात. तरीय ह्या विक्रिच्या मळावयले यत्न एक शिमेंतूच उर्तात. कांय प्रकाशन संस्था आपलीं पुसतकां भुर्ग्यां मेरेन पावोवपा खातीर वेगवेगळ्यो सर्ती घेतात. येवजण्यो चालीक लायतात. कोंकणिंतलेंच उदाहरण घेतल्यार संजीवनी प्रकशानान सर्ती घेवन, येवजण्यो चालीक लावन महाभारत ह्या भुरगांच्या  पुसतकांच्यो हजारांनी प्रती भुर्ग्यां मेरेन पावयल्यो. तशेच 'भुरगीं आनी राजहंस' हे मासीक वेगवेगळ्यो येवजण्यो आखून संपर्क करून भुर्ग्यां मेरेन पावता. तशेच वाचनालयांनी बालसाहित्याचीं पुस्तकां भुरग्यांक सहज मेळटा अशी वेगळी दवरूंक जाय. आयताराच्या सुनापरंत दिसाळ्यांत भुरग्यां खातीर वेगवेगळ्या तरेचें साहित्य येता. तें आनीक आकरर्षक रितीन मांडून भुरग्यांचें लक्ष चड वोडटा अशें जांवयेता. तशेच सूटयेंतल्या दिसांनी भुरग्यांचें सहभाग आनी प्रतिसाद चड प्रमाणांत मेळवन घेंवयेता.

बाल साहित्याची निर्मिती आनी प्रसार करपाक अडखळी आसतल्योच. प्रश्न आसता तें सुटावें करपाक जाय. ह्या मळार वावुरपी संघटणांनी आमी मनशांनी खर कश्ट काडून, आपल्या कामांत वेग आनी अखंडपण दवरून बालसाहित्याचे गोड वडे वावुर्पी संघटनांनी आनी मनशांनी खर कषट काडून, आपल्या भुर्ग्यां मेरेन पावोवपाक जाता. तशेच कोंकणी लेखकांची सर्जन शीलता तांकां वोगी बसपाक दिवची ना. ही सर्जनशीलता कोंकणी लेखकांक धोंगशीत रावतली आनी तांचेकडल्यान बरें दर्जेदार बालसाहित्य निर्माण करून घेतलीच घेतली.

*** *** ***

# चरित्रात्मक – आत्मचरित्रात्मक लेखन: कोंकणींत उणाव कित्याक?

–डा. बी. देवदास पै

१. प्रसतावन **(Introduction):**

एक भाशेची ग्रेसतकाय, तिची साहित्य भंडार, ते भंडरांतुले वैविध्यताय, आनी ते हरयेक वैविध्यंताल्यान साहित्य मेळपाचे शक्तताय, हाचेरी अवलंबीत जावून आसा. काव्य, कविता, निबंध, कथा, नवालक नाटक हे एक भाशेचे सदांचे विभाग जाल्यार; वैज्ञानीक साहित्य, प्रवास–साहित्य, जीवन चरित्रा असली विरळ प्रकारां दुसरे विभागांतुली. पयले विभागाचे साहित्य जायितले सृषटी जाल्यारियी दुस्रे विभागाची थोडी साहित्य प्रकारां ते पांवङ्यार उत्पत्ती जायनी. हे साहित्य उणे आसा म्हणतना, ते बरें ना, ताची गरज ना, ताचे उपेग ना, अशे समजुचे न्हय. कांय किते कारणांनी असली साहित्य बरयनातल्यान, वाचकाक मेळनातिल्यान सगळे सन्निवेश ह्या प्रकाराचे साहित्य वडावळिके देंवते पांवङ्यार उरले दिसोन येता.

हे प्रसतुतींत आमी जीवन चरित्राः (Biography) आनी आत्म चरित्रा (Autobiography) क्षेत्रांतुले बरप–लेख कित्याक ऊणे आसा म्हळळे विचारू विमरश करुंया.

२) जीवन चरित्रा आनी आत्मचारित्रा अर्थविवरण **(Biography and Autobiography:meaning)**

जीवनचरित्रा आनी आत्मचरित्रेचे अर्थ विसतार, विवेचनात्मक विशलेषण आनी लेखकांले अनुभव अशें तीन वांट्यारी भासाभास चलच्या. हे संदर्भारी जीवन चरीत म्हळ्यारी कितें –कशें– कित्याक असली विषयाचेरी वेवेगळे दृषटी कोनाचे चिंताप व्हाळतले. साहित्याचे उणेपणा विचार चर्च करताना जीवनचरित्र=–आत्मचरित्र बरपाचे अर्थ विवरण सांधरबीक जावुनू परत परत दिवचे अवश्यकता आसा. कित्याक म्हळ्यार, एक प्रकाराचे बरपां उणी घटता कित्याक म्होणु सोदताना त्या साहित्य प्रकाराचे गूण स्वभाव (Nature) समुजुचे आवश्यक. आनी

हे स्वाभावा सोदाप, उणेपणांचे विषयारी जायितले उज्वाडू घालपाक शक्य जातले. (जीवन चरित्रा (Biography) हे जोडी शब्दूः (१) जीवन (Bio) आनी २) चरित्रा (Graphy) अशें जीवनाचे बरपा विवरण म्होणू समजता. जीवन चरित्रा एक व्यक्तिले जिणिये कथा एक व्यक्तिचे सगळे जिवितावधिचे काणी. आनी ती वासतवीक–कृतक काणी न्हय)

तशें जाल्यान, मटवे प्रमाणेरी चड गुंडाय नातिले फकत व्यक्ती परिचय दिवचे–लेख जीवन चरित्र न्हय. असले परिचय पुसतिका प्रशसती प्रधान समारंभा तसले संदर्भारी आमी पळेयताती.

३) कठीण प्रकाराचे साहित्य **(Difficult typs of Literature):** जीवन चरित्राः एक व्यक्तिचे जीवनाक अध्ययन करनू संशोधनात्मक, वीसकावणिचे, पेंडणिशीचे **(Analysis)** बरप. ते उद्देशीत व्यक्ती जिणियेचे हर एक घडीत, पळवनू तांतुल्या प्रमूख, अर्थगर्भीत घडितांक वर्णन करता. ताचे जन्म, जन्म स्थळ, आवयबापय, कुटुंबेचे फाटभूंय, बुर्गेपण, तर्नाटपण, मांतारपण, ताचे जीणिचे खंयचेय खाशेलपणाचो आनी अनन्यातायेचो विचार जीवन चरित्रेंतू असता. जीवन चरित्रा एक व्यक्तिचे कृतक कथा न्हयशी (Non Fictional) ताचे पूर्ण जीवनाक दृश्य रूप (Panaromic View) दिवचे लेख. इतले पूराय आयकतना जीवन चरित्र बरोवपाक उणेपणाक, आमका कळोन येवचे प्रथम कारण म्हळ्यारी प्रबुध्द लेखकांची उपेपणा. लेखकांची उणेपण सांगाता तांचे बरवचे सामार्थ्याचे उणेपणय प्रमूख जाता.

जगत्यांतू, तशीची आमगेले भारतांतू राजकीय, आडळीत, जनसेवा क्षेत्रांतू कितुलेकी महानायक आसाती, वैज्ञानीक, वैद्यकीय, ब्यांकिंग, शिक्षण, उद्यम, सिनेमा नटन, निर्देशन रंगभूमी, संगीत, चित्रकला, क्रीडा, क्रिकेट, अतलेटिक्स, बाह्याकाश, साहित्य, लोकवेद, धार्मीक, समाज सेवा असले मसत इतले क्षेत्रांतू काम केले साधक, आदर्श व्यक्तित्व आमचे मुखार आसाती. साताट दशकांचे कोंकणी इतिहासू पळेयताना कोंकणी साहित्य शेतांत मस्त नव्वी तरुण लेखक आनी कृती, ग्रेस्तकायेरे वाडता आसा. तेच वेळार कोंकणी भाशेक राषट्रीय–प्रादेशीक पांवड्यारी स्थापन करनू घटकरचे चळवळिकार, संघटक, झजपी, आमचे मदें उबे रावल्याती. कवी, साहिती, लेखक, शिक्षक. भाशाशासत्रज्ञ आमचें मधें जावून गेल्याती. नव्वे आनी मुकार येत आसती. हांतुल्या खूब व्यक्तित्व

अपार-असीय बाशा सेवा दिल्ये मान-मनीश आनी तानी तांचे चरित्र बरवनू घेवचे अऱ्हता आशिले जावन आसाती. जाल्यारीय प्रबुद्ध लेखकानी कोंकणी भितरचे जावो, बायले जावो मेरू व्यक्तियांगेले जीवन चरित्र बरवचाक मुकार आयिल्ले आनी धयर घेतिले मसत मसत ऊणी असा. भाशा क्षेत्रांतुल्याकचे आमी अवगण केल्ला म्होणू बाकशेलडर पौल (१९९९) म्हळ्ळ्या चिंतक अशें सांगाता : Biographies about artists and writers are sometimes some of the most complication forms of Biography (कलाविदांगेले आनी लेखकंगेले जीवन चरित्रां सगळे जीवन चरित्रेचे प्रकारांत चडशे गूसपावाचे जीवनचरित्रा.)

डा। रामचंद्र गुहा म्हणता-There is no quality biographies of Indian Political leaders, Musicians, Writers, Artists and Sports personalities. There were not even scholarly independent biographies of business leaders. (भारतीय राजकीय नेता, संगीत तज्ञ, लेखक, कलावीद आनी क्रीडा व्यक्तित्वांचे गुणात्मक जीवनचरित्रा ना. आनी प्रसिद्ध उद्यमियांगेलय व्यासंगिकातायेची स्वतंत्र जीवनचरित्रा मेळनाती.)

४) लेखकांची सामाथ्य **(Competence of the Writer):**

आमी स्पषट केलै वर्वी सकड साहित्या पासून, जीवन चरित्रा साहित्य रचन कषट म्हणतना ते कामा खातीर लेखकांक आकर्षण ऊणी आसा म्हळ्ळेंय स्पषट जाता. वृत्तिपर लेखक जनप्रिय साहित्य रचनेंतू उमेद दाखयताती. ताणी सृजनशील साहित्य शेता कडेन चड आकरषीत जातती. काणी नवालकथा, कविता साहित्य, लोक मोगाळ असात. तांतून व्यापरीकरण अंशय आसता. उद्यमी, फिल्मसटार्स, राजकारणिंक दुडू खर्चून लैखाकंक दरनू तांची जीवनचरित्र प्रकट करचे तांका आसता. आनी तसली जीवनचरित्रा बरयल्यारीय ते प्रसिद्धी जावचे खात्री ना. कारण हे बरप करताले अनुभवी लेखक म्हळ्ळे कांय खात्री आसना.

५) खाशेलपणाचो आहवान **(Challenge of Identity):**

स्पोर्टस (क्रीडा) आनी फिल्म (सिनेमा) क्षेत्रांतू स्टार संस्कृती कितले प्रभल आस म्होणु आमका कळीत आसा. एक फिल्म/स्पोर्टस स्टार पाटल्यान लक्ष लक्ष अभिमानी वर्ग वाडता. जाल्यारियी तांची जीवन चरित्र बरोवनू प्रसरण करचे प्रयत्न कोंकणिंतू सोडा, इंगलीष-

हिंदी भाशेंतूयी ऊणी आस. भारतीय लेखक आनी वाचपी लोक विषयारी मालगडो क्रीडा पत्रकर्त आयाज मेमोन सांगता "Indians have a poor sense of recorded history, which prevents the writers from penning down a quality Biography" (भारतीयांक दाखलीत चरित्रे वयरी क्षीण समजिकाय आसा आनी ते तांका बरे जीवनचरीत्र बरोवपाक आंवपकरण) चिंतुकू डा। रामचंद्र गुहाचे उत्रां There is an acute dearth of scholarly Biographies in India. (भारतांतू व्यासंगीक जीवनचरित्रेच खूब उणेपण आस)

जागतीक पांवंड्यारी विंचून काडिले विस्रून गेल्ले मान मनीस (Forgotten Heroes) नावाडदीक पन्नास या शंबरी व्यक्तियांगले बयोग्राफी कोंकणी भाशेंतू रचन करचे एक योजन घालयेत. मालगड्यांगेले देणिगा, सेवा, त्याग विचार मुकले पीळिगे भुरग्यांक पावोची जीवन चरित्रे साहित्याक, ताचेच जाल्ले अनमोल मौल्य आस. अजून, मसत विद्यार्थियांक चरित्र म्हळ्यार फोकणे, शुषक आनी बोरिंग. असले चरुडुवां कडेन संबंध करपाक अमका मेळची एक वाट म्हळ्यारी तांका– चरित्र न्हंय, ते चरित्रे निर्मण केल्ले प्रत्यक्ष व्यक्तिंक सोदचाक अवकाश करनू दिवचे. जीवन चरित्रकारांनी हे करयेत. जीवन चरित्रा, चरित्रेक जीवन भितरी हाडता. प्रसिद्ध व्यक्तिंक तांचे जिणियेंतू मेळ्ळे प्रेरणपणा मूळ सोदताना तांची क्रियाशीलतायक अर्थ मेळता. राष्ट्रपित महात्मा गांधिचे जावो छत्रपती शिवाजी जावो तांचे जिणियेंतू तांचे आवयचे धार्मिकतेचे खूब प्रभाव आमी पळोवयेत. फ्हूडले व्यक्तिंक वाचताना विद्यार्थियांक, मनांतू समजप शुरू जातकी, चारित्रीक मनीश चडते आयचे मनशावरी आशिल्ली म्होणू.

(६) आत्मचरित्रा **(Autobiography)**

जीवनचरित्रा आनी आत्म चरित्रा मधे फरक कितें म्हळ्यार आत्मचरित्रा व्यक्तीन स्वतः बरयिले ताचेत जीवनचरित्रा. तशे जाल्ल्यान, जीवनचरित्रा लेखनांचे सकड उणेपण आत्मचरित्रेंतू आसता. अनिकय एक समस्या म्हळ्यारी आत्म चरित्रा बरयितालो स्वतः एक समर्थ बरूवपी जावनु आसुचे म्हणु ना. तेदना ती आत्मचरित्रा वाचपियांक आकर्षक जायना आसतले. महात्मा गांधीजीन My Experiment with Truth (जिणेयेचे संगी म्हजो प्रयोग) जवहार लाल नेहरून Discovery of India(भारताचो

आविष्कार) बरेयलेवरी सकड प्रसिद्ध व्यक्तींक जीवन– भावन – संवेदना आसल्यरीय बरपे रुपारी जांवनू प्रकट जावचे खातरी ना. जाल्यारियी आत्म चरित्रेचे लागिंपण आनी आंतरदृषटीक बायरसरपी थांक, जीवन चरित्रेंतू आसना. कोंकणिंतू प्रमाणीक सेवाकेल्लो, कोंकणिचे असतित्वा खातीर, कोंकणी राज्य स्थापने खातीर, कोंकणी राष्ट्र मान्यते खातीर, संघ संस्थे रचन करचेखातीर जीवन पर्य्यंत काम केल्ले मान मनीस पयकी बहुशः शेणै गोंय बाब, मनोहर सरदेसाय, असले थोडे महनीयांगेले सोडूनू विंगड जीवनचरित्रे/ आत्मचरित्रा रचना जायनी. भाशेचे संघटन वावरांतू बुडोन आशिल्ल्यान तांचे स्वंतपण वयरी बरोवचे गमन ताणी दिलेना. हे मनस्थितिंतुल्यान भायर येवून महान कोंकणी साधकांक, तांची साधन, मुकले पीळिगेक पावोचे खातीर जीवन चरित्र बरोवचाक प्रेरेपणा दिवचे एक अभियानाचे गरज आसा.

७) परिसमाप्ती **(Conclusion)**

जीवनचरित्र एक साहित्य, एक अपुरबायेचे साहित्य, मनशा मोग दाकयिता, मनशपणाक वळकता, उल्लास पटयता, ते मनशा भितरची निगूडायेची दर्शक जावनासा. वांगड्याचे वयरी गुंडायेची चिंताप आटोवनू, ताचे वयरी शुद्ध उमेद दाकून, शोधन करुनू, सामाजीक समजणेन बरोवचे साहित्य. आत्मचरित्रा स्वज्ञान वाडवचे क्रियाशील अभ्यास. 'हांव' म्हळ्ळे ते उबते जावनू वाडोनू, फ्हूलोवनू, जीविताचे अवकाश (opportunities), जवाब्दारी, कठीन वावर (tasks), झज (Struggle), पीडा (illness), अवघडा (accidents) मदें चलचे निरंतर शोधना आत्मकथा जाता. जीविताकथा, आत्मकथा भूंयचे ताळ मेळांनी निर्देशन घेवुनू राती दीस, ऋतूपर्व, म्हळे एक तटदाकूनू आध्यात्मीक (Cosmic), विश्वाक (Spiritual),बांदचे एक सांकोव (Bridge), म्हणयेत. असले साहित्य निर्माणा कडेन सकड कोंकणी लोकानी चड आत्म –विश्वास घेवनू, सांगत मेळनू, कामकरचे खूब अवश्यक म्हणतच हे प्रसतुतीक हांव सोंपयेता.

*** *** ***

# संस्कृती

## एक सम्मिश्र आनी संकीर्ण व्याख्यान

सं: यं. गोपाल गौडा

'संस्कृती' म्हळ्ळ्या सब्दाचो अर्थ विवरण एका उत्रान दिंवचें तितलें सलीस न्हय. पूण संसकृतीचो अर्थ अनिवार्य जावन भाशेच्या व्याप्ती भितर हाडिजाय. संसकृती विशीं विश्वांतल्या विद्वांसांनी अनेकानेक व्याख्यां, वेवेगळी अभिप्राय दिल्या व्हय तरी खंयचियी अभिप्राय सूत्रबद्ध चौकट्टा भितर ना म्हळ्ळें सत मानून घेजाय. 'सोभायेचो मोग' (Love of beauty) आनी 'अंतरंग व्यवसाय' (persuit of perfection) म्हण थोड्यांनी व्याख्यान केलां. (सी.पी.के. – काव्याराधने – भारती प्रकाशन मैसूरू १९६६ पू. ११७). 'संसकृती' व्यक्तीक काळोखा थावन उज्वाडा तेवशीं, अज्ञाना थावन ज्ञाना तेवशीं व्हर्चें साधन म्हण डी.वी.जी.न एक कडेन उल्लेख केला.

Culture consists of patterns, explicit and implicit, of and for behavier acquired and transmitted by symbols, consisting the distinctive achivement of human groupes, core of culture consists of traditional (i.e. historically derived and settled) ideas and especially their attached values; culture systems may, on the one hand, be considered as products of action (culture = A critical review of concept and definitions. 357 quoted in NEW Catholic Encyclopedia, Vol. 4 - P. 522).

'कल्चर' (culture) म्हळ्ळो सब्द इंगलिशांतल्या ताच्या आतांच्या अर्थान साधारण १०० वर्सां हेवशीन चड आनी चड प्रयोग जातेत आयला. १९४५ वर्सा युनायटेड नेशन्स म्हळ्ळो जागतीक संस्थो असतित्वाक आयल्या उपरांत १९४६वेर युनेसको विद्या विज्ञान समितीन 'संसकृती' (कल्चर) म्हळ्ळ्या सब्दाक आपल्याच नांवार ताका एक अधिकारयूत स्थान लाभयलें. पूण हाका ह्या वरेग अधिकृत अर्थ निर्णय कोणेंच दिवंक ना. देकून ह्या सब्दाक वेवेगळे असकत अर्थ प्राप्त जाल्यात. 'संसकृती' म्हणटाना एक गंभीर अर्थ आस्येत म्हळ्ळें कौतूक, आतुराय उबजाता.

कानांक खंयचिगी महत्वाच्या संग्तिचो अनभोग जाता. हाचो अर्थ जाय तशें व्हाडव्येत आनी हृस्वयी कऱ्येत. हाचो अर्थ बहुमुखी आनी विशाल आसा. जाणाऱ्यांच्या वापर्नेन आनी विवरणान ह्या उत्राचो अर्थ आमी मनन करून घेव्येत.

शिक्षणाचो प्रभाव, साहित्याची व्हडविकाय, मनशाचे गूण स्वभावाविशीं उलंवच्या संदर्भांनी 'संसकृती' सब्द उप्योग जाता. पुरातन गृंथांनी ह्या सब्दाचो प्रयोग दिसोन येंवचें विरळ तरी त्या कुळियेंतलो `संसकार' म्हळ्ळो सब्द आदल्या प्रयोगांनी मेळटा. शोडश संसकार, बुध्दी संसकार म्हळ्ळे सब्द सर्वांकी परिचीत. संसकार आपणयिल्ली भास 'संसकृती'. बरो संसकार आसचो मनीस 'सुसस्कृत'. सुसंस्कृताची गूण संपत्ती संस्कृती. कल्चर (culture) म्हळ्ळ्या अर्थान इंगलिशांत सुमार २०० वर्सां हेवशीन चाल्तेर आयला. 'कल्चर' हाचो मूळ सब्द ल्याटीन भाशेंतलो 'कल्ट' (cult) या 'कल्टस' (cults)). हाचो मूळ अर्थ 'मान कर', 'निषठा कर', `लक्षांत दवर' म्हळ्ळ्या रितिचो आसल्लो.

ह्या उत्रान क्रमेण दोन अर्थ उबजाले.

१) दैवा भक्त, वृतां दीक्षा, मत सिध्दांत इत्यादी.

२) भूम्यासक्त, भूमी देविचें आराधन, व्यवसाय, नांग्रण, बेळें इत्यादी. दूसऱ्या अर्थान आयिल्लो भूव्यवसाय (Agriculture). कालक्रमेण भूव्यवसाय म्हळ्ळ्या थावन वसतू उत्पादन, बेळें काडचें म्हळ्ळी अभिपराय उबजाली. तशें 'हार्टिकल्चर' (तोटां, भाटां कृशी), 'आरबोरिकल्चर' (रूख झाडांची कृशी), सेरिकल्चर (रेश्मे कृशी), फिस्सिकल्चर (मासळी पोसप) असले सब्द उबजाले. हो अर्थ विसतार जायित्त घायांतल्या पूंवान सूक्ष्म विषाणू तयार कर्ची ब्याकटिरियोला-जिकल कल्चर, कृतक मोतीं (Pearl) तयाराय कर्ची विद्या असले अर्थ आयले. आखरेक १८६७ यितल्यार मनशाची बुध्दिचो विकास, मेंद्वाची चालाकी, अंतरंग संसकार म्हळ्ळे अर्थ प्रचारांत आयले. अशें साहित्य, संगीत, चित्रकला, शिल्पकला – हांच्या मुखांतर उबजोंचो उत्तीम मनोभाव म्हळ्ळी अभिप्राय चाल्तेंत आयल्या. १८६९ वर्सा मेथ्यू आर्नालड (Mathew Arnold) म्हळ्ळ्या इंगलीष विध्वानान 'कल्चर अंड अनार्की (culture & Anarchy) = 'संसकृती' आनी अराजकता'

म्हळ्ळ्या वचन प्रबंधांत तवळच्या आंग्ल समाजांत ताच्या दिश्टेन उटोन दिसच्या तीन लोका पंगडांच्या मनोबुद्धिच्या वयर विमर्सो चलयला. अनागरीक ग्रेसत, द्रव्यांच्या आबलेसांत बुडलले नीरस मनीस, आनी केवल कालक्षेप कर्चे मनीस – ह्या तीन जनवर्गांनी खंयिच्च रसीकपण दिसना म्हण मेथ्यू अर्नालडाचें दुर्सोवणें.

संस्कृती म्हळ्ळी ती विद्या मात्र न्हय. ती विद्या म्हळ्ळ्या फुलांतलो पराग. ती साहित्य परामर्शन आनी जिणियेंतल्या अनभोगांतल्या विवेकाच्या दांपत्यान जल्मोंचें एकानेक लोका समाधानकारक जाल्लें शील सौभाग्य. तें जिणियेच्या वेवेगळ्या विशयांची, वेवेगळ्या ध्येयांची, वेवेगळ्या तत्वांची, वेवेगळ्या धर्मांचीं मौल्यां वेगळावणेच्या ज़ानान उबजाल्लें समन्वय स्वारस्य.

'संस्कृती' सब्द विंगडन करून सांगल्यार 'सम्यक कृती' म्हण जाता. 'सम्यक' म्हळ्यार सोभीत / समर्पक म्हण अर्थ. `कृती' म्हळ्यार क्रिया या वस्त म्हण अर्थ करयेत. 'सम्यक कृती' म्हळ्यार सोभीत जांवच्या बरीं केल्ली वसत या कार्‍यें. स्वाभावीक, विकृत या निरुपयुक्त आसची वसत या कार्‍याक, उप्योगाक येंवच्या तशें या सोभीत दिसच्या तशें कर्चें कार्‍यें 'संस्कृती'.

दृषटांत दिंवचें जाल्यार, एका रूखाचें कांड रानांत / मैदानार पडोन आसोन, पावसाक भिजोन, वताक सुकोन कांयच प्रयोजनाक येनासतां, कोणायचाय गमनाक पडानासतां, वाटसूर्‍यांक आडकळयी जाता. तो रूख चिरून बागील, दार्वंद, जनेल, मेज, बांक... असले गृहोपयोगी साहेत तयार करून उजळ दीवन दवरल्यार त्यो वसतू आकर्शकयी दिसता उप्योगाकयी येता. अलक्षीत या रूप नातल्लो रूखाचो कांड रूपांतर केल्ली क्रिया एके रितीन संस्कृतीची क्रिया जाता. ह्या क्रियांत रानांत पडून आसल्लो रूखाचो कांड प्राकृतीक रूप जाल्यार, त्या रूखा कुडक्यान तयार केल्ल्यो वसतू संस्कृतीचें प्रतीक जाता.

जल्माताना आसल्ले जांयवोळ केस ताच्या यितल्याक सोडल्यार लांब वाडोन जोंट जाता. घाम, धूळ बसोन म्हेळें जावन अळशीक उब्जायता. अशें केस व्हाडल्यार अवलक्षण मात्र न्हय हेर कामांक सयत अडकळ. केस कापणी करून, तेल घालन वोळेवन क्रोप, फांती, शेंडी

बांधून शृंगार केल्यार तोंड़ाकयी लक्षण आनी आंगपांगाक अडकळयी जायना. मातें आनी आंग नितळ आनी शुध्द उरता. ह्या क्रियांत आपशेंच व्हाडल्ले केस प्रकृती. वोळेवन विविंगड संसकार दिल्ले केस संस्कृती जाता. ह्याच रितीर आलोचन केल्यार वसतुरां न्हेसचें संस्कृती रितें आंग प्रकृती, निदळाक तिळो लांवचें संस्कृती –रितें निडवळ प्रकृती, कानांक कुडकां घाल्चें संस्कृती – रिते कान प्रकृती. पायांक पायजणां (पायां चैनां) घाल्चें 'संस्कृती '–रिते पांय प्रकृती. मोनजाती, सुकणीं सावजांय सब्द कर्ता ही प्रकृती. जीवीं पयकीं मनीस मात्र सब्दांक उत्रांचें रूप दीवन उलवंक सक्ता आनी त्या उत्रांनी संगीत घडून गावंकयी सक्ता ही 'संस्कृती'. मातिये थावन प्रकृती– त्या मातियेची केल्ली इमाज संस्कृती. रंग प्रकृती, चित्र संस्कृती. चामडें प्रकृती, वाणो संसकृती. भास प्रकृती, साहित्य संगीत संस्कृती. सामान्य रितीर आलोचन केल्यार मनशाची कलात्मक अभिव्यक्तिच्च संस्कृती .

मनीस पाळून येंवच्या आचार विचारांक सामूहीक जावन संस्कृती म्हणतांव. ह्याच्च कारणान खाणा जेवणाची संस्कृती, आराधना संस्कृती, कृशी संस्कृती, काजाराची संस्कृती – ह्या संग्तिंच्या भोंवतीं जाय पुर्तीं व्याख्यानां, चिंतनां चल्ल्यां. एक फळ आसा तशेंच खेल्यार प्रकृती. तें फळ वाटून ताका दूध साकर घालन पानीय रूपार परिवर्तन करून पियेल्यार संस्कृती. तेंच फळ कुसोंक घालन सोरो उकडल्यार विकृती. प्रकृती, संस्कृती पूरक विशय. धर्णीर पडोन आसचो एक खडपी फातर तशेंच सोडल्यार वताक सुकोन पावसाक भिजोन आसचो एक सामान्य फातर मात्र. केदनां एक्लो चतुर शिल्पी तो फातर तासून आपल्या शिल्पकला चमत्कारान मूर्तिचें रूप दीवन तयार कर्ता आनी ती मूर्ती गर्भा कुडींत प्रतिष्ठापित जावन आराधन घेवंकयी सक्ता, तेदनां ती संस्कृती जाता. कला, नैतिकता, ज्ञान, रिती–रिवाजी, संप्रदाय, लोकाची अभिरूच आनी कृत्यां मुखांतर उबजोंचें संकीर्ण असतित्वच संस्कृती. मनीस जल्मांत येतानाच संसकृतीयी उबजाल्या. मनशाचें काम, जिणिये शैली, मनशान भावनां व्यक्त कर्ची रीत एका परिधी भितर संसकृतिचें रूप घेता.

संस्कृती आनी नागरिकता हांच्या मदल्या एकामेका संबंधा विशीं जाय तितलें चर्चा विमर्सो चल्ल्या. संस्कृती–परंपरा–संपरदायांक एकामेका समीकरण कर्चें प्रयत्नयी चल्लां. ह्या सगळ्यांच्याकी प्रमूख जावन प्रकृती

आनी संस्कृती मदलो संबंध व्याख्यान कर्चीं चिंतनांय चल्ल्यां. सहज जावन आसची प्रकृती. त्या प्रकृतीक उप्योग करून मनशान निर्माण केल्ली व्यवस्थाच्च संस्कृती म्हळ्ळें चिंतनाक्रम प्रामुख्यता घेता. आपलो उपयोग, अनुकूल, जिणिये सुधारणाक मनशान आपणायिल्ली ही एक व्यवस्था. मनीस रानां मोल्यांनी, रूखाच्या माट्यांनी जियेवन आसल्ली स्थिती प्रकृती; त्या प्रकृतिंत मेळल्ले रूखाचे फांटे, खुंटे, खोले, तण उप्योग करून, गुडचिलां बांधून रावोंक प्रारंभ केल्ली स्थिती संस्कृती. रानांनी सहज जावन मेळल्ले कांदेकणगी, फळवसतू, बोंट केल्ल्या मोनजातिचें मास जिवें जिवें खावन आसल्ली परिस्थिती प्रकृती; त्या प्रकृती थावनच्च उज्याचो आविश्कार करून, उज्यांत भाजून, उकडन खावंक सुरू केल्ली स्थिती संस्कृती. प्रकृतिंत ताच्यायितल्याक किरलोन वाडल्लीं धानी, कांदेकणगी, हांची व्यवस्थीत रितीर कृशी करुंक प्रारंभ केल्ली रीत संसकृती. मुक्त लैंगिकता आसल्ली स्थिती प्रकृती. दादले बायलो जोडें काजार म्हळ्ळ्या संस्थ्या मुखांतर दांपत्य जिणी जियेवंक लागल्ली स्थिती संसकृती. मनशान आपल्या अनुकूलाखातीर निर्माण केल्ली ही संसकृती काळा काळांत विकास जाल्या आनी जावनंच आसा. ह्या विकास कार्‍यांत ‘ज्ञानदाह’ (curiosity of knowledge) आनी ‘सोभायेची प्रज्ञा’ (aesthetic sense) हाचो महत्वाचो पात्र मिसळाला. मानव समुदाय सांस्कृतीक मळार विकास जायनासल्लो जाल्यार आनी वयलीं दोन प्रज्ञां मनशां मधें उबजानासल्लें जाल्यार मनीस आजिकी आदिमानव जावनंच उर्ते आसल्ले; आमच्या पुर्वजां विशीं अध्ययन चलंवचें, आर्विल्यां विशीं चिंतनां चलंवचें, मुकल्या जनांगाविशीं आलोचन चलंवची प्रवृत्ती मनशांमधें विकास जातिना. त्या त्या दिसाची पोटा भूक थांबंवचारच तृप्त जावन, एका रितीर आयच्या जिणियेंतल्या फुस्पड गोंदोळा थावन पयसच उर्ते.

मनीस आसल्ले कडेन संस्कृती आसाजेच्च. संस्कृती नातल्लो मनीस ना. संस्कृती एका समाजाची. समाज बदलाल्ल्या प्रमाणे संसकृतियी बदलाता. एका समाजाच्या दैनीक जिणिये व्यवहारांत कितें कितें गर्जगी, तें सगळें ताची संसकृती जाता. हांतूं जेवण खाण, न्हेसण फांग्रण, भास, साहित्य, संगीत, जानपद, जनपद साहित्य, घरां बांदची रीत, घरा भितर आनी भायर उप्योग कर्चो वसतू, पोसचीं मोनजाती

सुकणीं, रूखझाड, कृशी, वक्तां, आलोचन कर्चीं आनी व्यक्त कर्चीं भावनां, आचार विचार, रितिरिवाजी, पात्येण्यो, चित्रकला, धर्म आनी धर्म विधी, संसकार, खेळ, मनोरंजनाचीं साधनां, वृत्ती, आयदां, परबो फेसतां, सामाजीक विधी... इत्यादी भर्सोन आसता.

संसकृती एका नंयबरीं. पर्वतांच्या तोंक्यांनी, उदकाच्या झरिंनी, ल्हान ल्हान व्हाळ्यांनी व्हाळल्लें उदक नंयक मेळून ह्या सर्व मुळांनी निरंतर व्हाळल्ल्या उदका सयत नंयच्या व्हाळ्याची विसताराय वाडटा. संसकृतीयी काळ बदलाल्ल्या प्रमाणें, परिसर परिस्थिती बदलाल्ल्या प्रमाणें बहुरूप घेता. हेर गर्ज आसल्ले या नासल्ले घटक आपणावन, आपल्या मूळ संसकृतिंतले थोडे घटक होगडावन घेवन मुकार सर्ता. पन्र्या आनी नव्या घटकांचे भर्सवणेन ही प्रक्रिया कळीत जायनासतांच्च निरंतर चलोन आसता. देकून केदाळांय संसकृती जिवंत (lively) आनी क्रियात्मक (Active) आसता. खंयची संसकृती काळा काळाक बदलाना या हेर संग्तीं थावन कांयच आपणायनागी ती संसकृती तटस्थ जाता या आळवाता.

१. मनीस आपलीं चिंत्नां उत्रांनी कळयता. देकून भास, साहित्य, संगीत, नाच – हांतूं संसकृतिचें भंडार भरोन वोमताता.

२. माणसुगेक मनीस आंग धांप्ता आनी ह्या धांपणाक आमी न्हेसण म्हणतांव. हें न्हेसण कसलें, केदाळां, कशें न्हेसचें म्हळ्ळेल्यांत संस्कृती आटापल्या.

३. मनीस काम कर्ता, विलास विनोद भग्ता, खेळ खेळता, हें सर्व कशें, केदनां, कितलें आनी कित्याक कर्ता म्हळ्ळेल्यांत संसकृती आटापल्या.

४. लोक आसल्ले कडेन मांडावळ, क्रम आनी कायदे प्रमूख जावन आसता. हीं शिसतेचीं सर्व क्रमां नियमां संसकृती निरूपण कर्ता.

५. दृषट आनी अदृषट संग्तिंनी लोकाच्यो वेवेगळ्यो पात्येण्यो आसता. त्या पातियेण्यां प्रकार पाळचे विधी निषेधांत संसकृती आटापल्या.

६. भुकेक खाण, तानेक पीवन, जीवाक सूख, मतीक समाधान – ह्या संग्तिंनी संसकृती उगडापी जाता.

हाच्या पयलेंच विवरण दिल्ल्या प्रमाणें 'संसकार' या 'संसकरण' म्हळ्यार सम्यक करण - सम्यक+कृती= संस्कृती. म्हळ्यार बरें - सोभीत जांवच्या बरीं कर्चें, शुद्ध करून उत्कृष्ट स्थितीक पावंवचें म्हण अर्थ. एक वसतू या वर्तन कशें आसल्यार जिणियेचो परमोद्देश सिद्धी आमकां लागीं जायतगी - तेंच 'बरें', तेंच हीत, तेंच औचित्य. बरें आपणांवचें प्रयतन आनी तें हीत सोधचेंच संसकृती. आमची जिणी हीत करून घेंवचें विधानच संसकृती. संवसारांतल्या लोकाकडेन विविध संपर्कांनी आमी जोडून घेंवचें औचित्यच संसकृती.

सोभाय सगळेकडेन, सगळ्यांनी अपेक्सुंची एक विशय. आमी आंगपांग धूवन नितळ करून, वसतुरां नगांनी नेटोवन सोभीत करून घेतांव. घराक सुनो, रंग सारवन सोभीत दिसाशें कर्तांव. आमच्या दिश्टीक पडच्या सगळ्या कडेन सोभाय सोधतांव. आमच्या लोका संबंधांतल्यो चालचमकणी आनी उलोवण्याची सोभायच संसकृती.

भाव सौंदऱ्य, शील सौंदऱ्य असले गुप्तगामिनी नग न्हेसानातल्ली कूड केवल वन्य मोनजात. आमी दैहीक रितीर कूड निर्मळ दवरूंक प्रयतन येंवच्या रितीक बुद्धिपूर्वक श्रम घेंवचें संसकृतीचें सारांश. जिणियेंतल्या विवीध घडितांचीं युक्तायुक्त विवेचनां, वसतुंचीं मौल्यां अर्थ करून घेंवचें लेक, हेरांचो मनोधर्म अर्थ करून घेंवचें परिज्ञान, धर्म चिंतनाची जाग्रुत्कायें परस भावनांचीं अभिरूच - अशें वेवेगळ्या विवेकाच्या समावेशांचें फळ संस्कृती. जिणियेंतल्या शेवटाची सिद्धी अंतरंग कृशीन साध्य जाता. ह्या कृशिंतले विशय गृंथपठण, कलोपासन, रसीक सहवास, लोक-मऱ्यादा परिपालन हाचे थावन संसकृती म्हळ्ळो अंतरंगांतलो परिपाठ प्राप्त जाता. ह्या पाठाक वेवेगळ्यो साहेत गर्ज. खंयचियी एकच साहेत ती संसकृती म्हण वळखोन घेवंक जायना.

संसकृती म्हळ्यार एका थराचें आत्मशिक्षण. ती केवल मनोव्यापार, बुद्धिचो व्यापार या केवल स्मृतीशक्तिंचो व्यापार मात्र न्हय. ती मन-बुद्धी-स्मृती ह्या सर्वांचाकी वयर आसची जीवात्माक लग्ती जाल्ली विशय. रानांत आसच्या वेवेगळ्या वनफूलांचो पर्मळ वाऱ्यांत मिसळोन अनामीक एक विशेस पर्मळ उबजाता. रानां मोल्यांनी मेळचीं पाळां पाल्या सालिंचो सार मेळवन गांवटी वयज एक विशिश्ट रस तयार कर्ता. संस्कृती

म्हळ्ळियी ह्याच गूणलक्षणांची. संगीत, साहित्य असल्या वेवेगळ्या कलानुभवांच्या आनी वेवेगळे शासत्र–शिक्षणांच्या फलितांशाचो सार सहमिलन. तांतूं विज्ञान, विवेक, उदारपण, धृडत्व, बळ आनी निरबळयी आसा.

संस्कृतिचो अर्थ खूब पुर्विलो. संवसारांतल्या लोकाच्या खंयच्या वर्तनांच्या सोभायेक सात्विकता, सभ्यता, सौजन्य, विनय, गौरव, व्हडविकाय म्हण आमचे मधें पुर्वीं थावन चाल्तेर आयलांगी – तोच्च संस्कृतीचो आत्मो. मीठ, आम्साण, तीक, गोड – हीं एकेकयी प्रत्येक आसताना परस्पर विरोध आसा तशें भोग्ता. पूण त्यो वसतू एकानेक प्रमाणार सार–सांबारांत हळतान भर्साताना ही भर्सवणी त्या चार वसतुंच्याकी वेगळीच आनी बऱ्या रुचिचें खाद्य विशेश जाता. गंध, ऊद (पुनुगू), पच्चे कर्पूर, केसरी – हीं परस्पर विरोध न्हय तरी प्रत्येक तशें भोग्ता. पूण ह्यो वसतू एका लेका प्रमाणार भर्साताना पांचवें एक पर्मळ विशेश उबजाता. तशेंच विद्या, विनय, धैर, चमत्कार, हास्य, करूण, शौर्य, साहस, गांभीर्य – हे वेवेगळे गूण मेळोन त्या सहमिलनान नवें एक शील सौंदर्य जल्माक येता. तांतूं प्रसन्नता, तेज, विनय आनी दृढता आसता. तें आसल्ले कडेन भिरांतीक जागो ना. तें विश्वास उबजायता, मान व्हाडयता – हो संस्कृतिचो प्रभाव.

संस्कृती पुरातन वडारूखाबरीं. ताचें मूळ एक दोन वांव रूंदायेच्या धर्णीर त्या एकेच कडेन थिरोन आसता. ताचे फांटे सर्व दिकांनी फासळोन, पयशिल्यान व्हाळच्या वाऱ्यांतलें सार चिंवून घेवन, हजारांनी सुकण्यांक, सावजांक आवासस्थान जाता. मुळांत तो रूख स्थीर. शिरो भागांत विशाल विसतार. संस्कृती तशिच्च मुळांत एका वर्गांतली, परिणामांत बहुवर्ग संसर्गाची; वेवेगळे समाज संघटीत जाल्ली; विश्व विसताराय आपणायिल्ली. ती व्यषटीक समषटिंत मेळयता. म्हळ्यार तिचें एक पोंत व्यक्ती तर आनियेक पोंत संवसार. संसकृती एक व्यक्ती मूळ, एक समाज, एक जनपद मुळांत थावन जल्मोन, वाडोन संवसारांतल्या सर्व जिणियेक आपूण एक प्रत्येक दायज जाता.

संस्कृती समाजेंतल्या सामान्य वाडावळींत दैहीक बळा प्रमाणें स्वभलायकेन फलीत जांवची विशय. खाणा जेवणाचीं क्रम नियमां

सांबाळ्ळ्यार बळ भलायकी ताच्यायितल्याक संवर्धन जाता; भलायकेचें लक्षणच बळ. ह्याच प्रकार विद्या–शिक्षणाचें ज्ञान सार्कें आसल्यार संसकृती ताच्यायितल्याक वृद्धी जाता; त्या खातीर प्रत्येक प्रयत्नाची गर्ज ना.

संस्कृती म्हळ्ळ्या सब्दाक विश्वांतल्या विद्वानांनी, अध्ययनकारांनी, संसोधकांनी अनेक थराचे अर्थ दिल्या. जगद्विख्यात विद्वांस कैबर आनी क्लुकोहन – हांणी असल्या १६०चाकयी चड व्याख्यार्थांची पट्टी दिल्या.

१. पाश्चात्य मानव विज्ञानी ई.बी. टेयलर म्हळ्ळ्या संसोधका प्रकार मनशाचें गिन्यान, जाण्वाय, पात्येण्यो, कला, विश्वास, नीत, कानून कायदे, रितिरिवाजी – ह्या सगळ्याचें जमो जाल्लें संकीर्ण घटकच संस्कृती. (Richard M. Fox, - American Civilisation)

२. मेथ्यू अर्नालडा प्रमाणें मनशान जिणियेंत सार्थकता साधनाक कर्च्या प्रयत्नाचें फळच संसकृती. मृगत्व (मोनजातपण) होगडावन घेवन नैज मानवीय गूण आपणावंक कर्च्या प्रयतनाचें फळच्च संस्कृती. (Mathew Arnold : Culture and Anarchy: PP VIII)

३. निर्दिषट एका समाजांतले सर्व सांदे भागी जावन व्यवहार कर्चें ज्ञान, भावविन्यास आनी सांप्रदायीक चल्णेंचे समुदाय (ऱ्यालफ लिंटन).

४. परिसरांतली मनशा निर्मीत भागच संस्कृती (हरस्कोविटस)

५. एक निर्दिषट परंपराक एकटाय जाल्लो लोक शिकच्या, वांटून घेंवच्या आनी गौरव दिंवच्या कार्‍यांच्या, भावनांच्या आनी मनशानिर्मीत विशेशांचो जमोच्च संस्कृती (कीसिंग)

६. सामाजीक संप्रदायांचो जमोच संस्कृती (लूवी)

७. लोकाच्या वर्तनाक मुक्त मार्गदर्शी जावन खंयच्याय एका निर्दिषट काळांत जियेवन आसच्या, ऐतिहासीक रितीर असतित्वांत आयिल्ली मादरी (क्लुकहान आनी केल्ली).

८. संस्कृती म्हळ्ळेली सामाजीक जावन व्हाळोंक सकची व्यक्ती शिक्षण आनी संग्रहीत अनुभव, ती सामूहीक आनी सार्वत्रीक जावन आसची. (ह्यामंड)

मानव शासत्रा प्रकार ‘संस्कृतींत’ मनशाचीं सर्व कार्यीं आटाप्ता. ती सांप्रदायीक रितिची लोकाची रांदपाची पद्धत, जेवणा खाणाची रीत, घरां बांदचें क्रम इत्यादी संगतीं थावन लोकान पाळची सामाजीक, नैतीक आनी धार्मीक गूण आनी मौल्यांक मनशाच्या उंचल्या मनोधर्मांच्या तृप्ते खातीर आपल्या सवयेन कर्चीं समेसत विचारांक आटाप्ता. (युगयात्री भारतीय संपूट – सं. १ पु. ३). संस्कृती म्हळ्यार मनशान आपले उत्तीम गूण अभिवृद्धेक हाडून, कीळ गूण हतोटिंत दवरून या निर्मूळ करुंक निरंतर कर्च्या प्रयत्नांचो फळ; संस्कृती आत्मक्षेत्रांतली अभाधीत स्थिती. (भारतीय संस्कृती दर्शन – सं. अनकृ. पू. ५).

संसकृती एका जम्यांत दिंवची घेंवची क्रिया म्हळ्यार चूक जांवची ना. देकूनच ती परंपरागत रितीन वाडोन एका समाजाक क्रमबद्ध रूप दीवंक सहायक जाता. हो सगळ्याय जनजीवनाच्या अंतरंग–बहिरंगाचो अनुभव. विवीध विभिन्न अंशांची भर्सोवणी. वेवेगळे धर्म, भास आनी त्या त्या प्रदेशांच्या हवागुणांक अनुगूण जावन ती ती संस्कृती रूप घेता. देकून संस्कृतीचें ‘सूत्रबंध’ एकाच उत्रान सोडवंक कष्ट.

‘The term culture has been central and primary importance to the Social Sciences. It is difficult however, to encompass in a single definition all the meanings to it (New Catholic Eneyclopedia Vol. IV - P 522).

एकाच उत्रान सांग्येत जाल्यार मनशा वर्गाक आसोन, मोनजाती वर्गाक नासल्लीच संस्कृती!

### संस्कृतीचें लक्षण:

संसकृतिच्या लक्षणांत अनुकरण आनी संयोजन प्रमूख पात्र घेता. खंयचियी संस्कृती अभिवृद्धीक पावाजाय तर थंय येणें–देणें निरंतर आसाजाय. संस्कृती कोंडांतलें उदक जावंक नजो, बदलेक सदांच व्हाळचें उदक जायजे. एक संसकृती आनियेका संस्कृती वयर साध्य तितलें पाय दवरून चलोंक सकत शिवाय, त्या मूळ संस्कृतीक म्होसतून रावाना. थोड्याच जम्यांनी हें काम संस्कृती करुंक सकत तरयी बोटांनी मेजियेत तितली विरळ. देकून त्या त्या प्रदेशाक संबंधीत, त्या त्या राश्ट्रांक संबंधीत, थंयिच्च सीमीत जाल्ल्या विशिष्ट संस्कृतीचें स्वरूप

सुलभायेन पळेव्येत. एकेका संस्कृतीकयी आपलिंच लक्षणां आसता. पाश्चात्य संस्कृतीक आनी भारतीय संस्कृतीक आसचो अंतर काळ्या-धव्या यितलोच स्पष्ट (डा। डी.के. राजेंद्र, जानपद समालोक, मलेनाडू प्रकाशन, बेंगळूरू १९८०, पू. ८-९).

शेकड्यां थावनयी भारतीय संस्कृतींत एक निर्दिष्ट एकताय झळकोंचें सूक्ष्ममत आसल्ल्या कोणेंय पार्कियेत. वासतव म्हळ्यार अंतर्गामी जावन आसची, ही एकताच्च भारतीय संसकृतीच्या विशिष्ट लक्षणांत एक. भारतीय संसकृतिचीं सत्व-सकत हजारांनी विपऱ्यासांच्या मधें आनीकयी वांचोन उरल्या. हाका कारण: 'ह्या धर्णीर पांय दवरल्ल्या सर्व विविधतां वयरयी एका थराची एकता थापून, वेवेगळे रंग, गूण रचना आसचें. अनेक सुतां मेळोवन राषट्रीय जिणियेचें एकच वसतूर वोळल्लें भारतीयत्वाच्या भावनान'. (अनू: आर.एल. अनंतरामय्य, भारतीय संस्कृती परंपरे, कन्नड अध्ययन संस्थे, मैसूरू विश्वविद्यानिलय १९६९ पू. ३७). देकूनच भारतीयांनी धार्मीक आनी सात्वीक दिश्टिकोनांनी संस्कृती अर्थ करून घेतल्ली. नय-विनय, सात्वीक जिणी, आदर्श जीवन, अंतरंग विकास, नीत नियम विवरांवची दिक्सूची संस्कृती जाल्या. भारतीय संस्कृतीक धर्मच पाटथळ. पूण हांगा लौकीक आनी आध्यात्मीक प्रगतीक महत्व आसा. संसकृतीचें ओट्रास तीरल जिणी आनी मरण हांचें समन्वय.

## जनपद संस्कृती आनी शिषट संस्कृती:

संस्कृतींत जनपद संस्कृती (Folk Culture) आनी शिषट संस्कृती (learned culture) म्हळ्ळे दोन प्रकार आसा म्हण विद्वांसांनी अभिप्राय दिल्या. जनपद संस्कृती मूळ पाळ तर शिष्ट संस्कृती हाचे थावनच फांटे फुटोन परिषकृत जाल्ली.

न्यू काथोलीक एनसैकलोपीडिया Vol.४ / पू. ५२९ हांतूं जनपद संस्कृतीविशीं अशें विवर मेळटा-

'The Folk society is characteristically small, isolated, close knit, homogeneous entity. Its social relationships are principally patterned around kinship, its members have a supernaturalistic world view, and its values are more implicit than explicit.'

रग्ता संबंधाचीं आत्मीय भावनां आसची जनपद संस्कृती. हो समाज ल्हान आसोन हांतल्या सांद्यांचें संबंध खूब लागशिलें. ह्या समाजांतल्यो रिती निती कट्टनिट्टान उरोन आयल्या. जनपद संस्कृती हांगाच्या मातिये थावनच जल्मोन वाडल्ली. देकून आपल्या सर्व मूळ अंशांक आतां म्हणासरयी जीवाळ दवरून आयल्या. लोकाची उत्रावळ, आचार विचार ही संगत विशिष्ट रितीर प्रतिनिधीत कर्ता. हाचीं पाळां समाजेच्या अंतराळांत रिगून आसता म्हळ्ळें आमी विस्रोंक नजो. हाचें एक पाळ हालोंवचें म्हळ्यार सगळ्या समाजाकच हालयिल्ल्याबरीं.

जनपद संस्कृती रग्तागत जावन आयिल्ली. पूण शिष्ट संस्कृती परिष्कृत जाल्ल्यान जनपद संसकाराचे सर्व अंश हांगा झळकाना. नागरीकताच्या प्रभावाक वळग जावन जनपद संसकाराचे जायित्ते अंश शिष्ट संस्कृतींत असकत या पोल जाल्या. नागरीकता आनी गृंथस्थ शिक्षणाच्या प्रभावान जिणियेंत नवे नवे समस्ये उबजोन आदली बांदावळ आनी बांधव्य सदीळ जाल्यां. मनशा मनशा मधें आसल्लें मानवीय मधूर बांधव्य तुटलां आनी एका थराचें व्यवहारीक संबंध मात्र उरलां.

“At the same time Kin and associate groups, which were dominated under tribal culture have lost most of their strength and influence, and the large total society being only remotely and machanically interested in the persons the indivedual has become relatively free. He is free to try to develop as he wishes, free to choose his own contact and to change them. There is nothing to hold him in the course of the forefathers not even in his own original course. (KROEBER: Anthropology - P. 283)’.

नागरीकताच्या प्रभावान जाल्ल्या ह्या सर्व कारणांनी जनपद समाजेची बळिष्ट बांदावळ सदीळ जावन त्या मुखांतर जनपद संसकृतिचें स्वरूपयी बदलोन जिणियेंत यांत्रिकता उबजाली. तशें जावन जनपद संसकृतीच्या बदलाक आनियेक संसकृती उदेली. काळ आनी वेळाच्या व्हाळ्यांत पर्नी मौल्यां दिश्टी भायर जालीं. तांतल्या सत्वाच्या अभावान न्हय – हें एक स्थित्यंतराचें लक्षण मात्र.

समाजांत दिसोन येंवची चडणी आनी देंवणेंत मेळोन एकाच्च समाजांत ह्यो दोनयी संसकृती दिसोन येंवची साध्यताय आसा. ग्रेसतकाय–दुरबळकाये निमतीं दोन वर्ग जावन सहजतायेन तांचे आचार विचार आनी संप्रदायांनी व्यत्यास घडोन संस्कृतीचे दोन वांटे जाता. अशें समाजांतल्या सकयल्या स्तरार उबजाल्ली जनपद संस्कृती उरोन आयल्यार, उंचल्या स्तराच्या लोका मधें हाका भिन्न आसची संस्कृती उबजाता; या ह्यो दोनी संस्कृती भर्साल्ली वेगळीच संस्कृती उदेवंक साध्य आसा. हरएक वसतुंकयी एक मूळ रूप आसच्या प्रमाणें संस्कृतीकयी एक मूळ रूप आसता तिच्च जनपद संस्कृती. त्या मुकलें बदलावणच शिष्ट संस्कृती.

मनशाच्या समसत सामाजीक परंपरांक आटापून आसची संस्कृती– आचरणां आनी सांप्रदायीक चलणेचो जमो. ही व्यक्तिच्या जिणियेंतल्या हरएका हंतार प्रगट जांवच्या संस्कृतीक जानपद विद्वांसांनी शुद्ध जनपद संस्कृती, मध्यम संस्कृती आनी प्रौढ संस्कृती म्हण तीन स्तरांनी विंगडन केलां.

परिमीत व्याप्ती भितर निश्चीत थोड्या पुरोहीत वर्गाच्यांनी, राज नीतिज्ञांनी, विज्ञानिंनी, धार्मीक मुखेल्यांनी, कविंनी, कलाकारांनी निर्मीत केल्ली (जी शं प) ‘प्रौढ संस्कृती’ म्हण वोलायली. ह्या हंतार व्यक्त जाल्ली संस्कृतीची हरएक पंगतयी लोकावयर दबावान थापल्ल्या तसली. म्हळ्यार, निर्मिती एकल्याची आनी ताच्या अभिप्रायांक जायत्यांचें व्यक्तित्व बली जांवची परिस्थिती. चडश्या लोकाचें व्यक्तित्व आपल्या कुशीन वोडून घेंवची तांक आसच्या प्रतिषठीत व्यक्तिच्या प्रभावाक सांपडोन आपूण संपूर्ण ताका खाल जावन चल्ची साध्यताय हांतूं चड आसता.

जनपद संसकृती, वयल्या विवरांक व्यतिरिक्त. ती समषठी थावन अंगीकार घेतल्ल्या पात्येणी, पदां, संप्रदाय, आचरणांची जाण्वाय आनी गिन्यानाक संबंध जाल्ली. हांकां बद्ध आसल्लो मात्र जनपद संस्कृतींत वळखोन घेता. ह्या स्संसकृतीक मातियेचो वास आसोन जिणिये वांगडा लागशिलो संपर्क आसता. आत्मीय वातावरण आपणावन आसता. जनपद संस्कृतीचे प्रातिनिधीक रूप जावनासच्या मनशा जिणियेच्या हरयेक पांवड्यारयी व्यक्त जांवचीं उत्रां, पातियेणी, आचरणां, संप्रदाय – असल्या

पाळांक हालयिल्ल्या व्यक्तींक समाज विरोध करून बहिषकार घाल्ता. तसलो खडक चौकट्ट जनपद संस्कृतीक आसा.

अनेक संदर्भांनी शिष्ट आनी जनपद संसकृती मधें वळखोंक जायना तसलो संबंधयी आसता. ह्या दोनांच्यो मिश्रीत संस्कृतीयी पळेव्येत. जनपद संस्कृतीक आकर्षीत जाल्ल्या वेळारच सुधारलेल्या नागरीकताच्या प्रभावान शिष्ट संस्कृतीच्या जाळाक सांपडचो लोकयी आसा. ह्या संदर्भार प्रकट जांवची 'मध्यम संसकृती'.

जनपद विद्वांसांनी 'फोकलोर' सब्दाचें व्याख्यान कर्च्या वेळा 'लोर' म्हळ्ळ्या सब्दाक 'संस्कृती' म्हळ्ळो अर्थ दीवन व्याख्यान दिल्लें पळेल्यार 'फोक कल्चर' आनी 'फोकलोर', ह्या दोनी सब्दां मधें अर्थ व्यत्यास ना म्हळ्ळें खचित जाता. 'संस्कृती' सब्द उप्योग जाल्ल्या सगळ्या कडेन सभ्यता, नागरीकता, रसिकता, विनय, वैचारिकता, कर्तव्य निषठा, भक्ती भावुकता, त्याग, शुचित्व... इत्यादी उंचले गूण स्वभाव प्रगट जांवचें गमनाक येता.

'सांस्कृतीक मानव विज्ञान' म्हण वळखोन घेव्येत जाल्लें Cultural Anthropology म्हळ्ळ्या शासत्रांत उल्लेखीत Culture सब्दाक अन्वय जांवचो अर्थ सांग्येत तर, जनांग आपल्या परंपरांत आयिल्ल्या अनुसरणा मौल्यांक तीवर रितीर स्पंदन करून उरवन हाडल्ल्यो पद्धती, आचरणां, पात्येणी त्या त्या जनांगांतल्या घेंवच्या-दिंवच्यांत, वाक-कृतींनी, कला साहित्यांनी व्यक्त जाता त्यो संग्ती संसकृती म्हळ्ळ्या नांवाक बाध्य जांवच्यो. संवसरांतल्या सगळ्या जनांगाच्या संसकृतीक ह्या वरेग सांस्कृतीक मानव शासत्रज्ञानी नगर संसकृती, ग्राम संसकृती, आदीम संस्कृती – ह्या तीन हंतांनी विंगडण करून अध्ययन चलयलां.

नगर आनी ग्राम संस्कृतीाच्याान आदीम संसकृती वेगळी, आदली आनी हीच बुडकट्ट संस्कृती. संस्कृती विश्वव्यापी म्हणताना ह्याच संदरबार 'एक संस्कृती' म्हळ्ळें परिकल्पनयी प्रमूख जाता. हांगा एक व्यक्ती दुबळोगी ग्रेसतगी, उंचल्या जातिचोगी कीळ जातिचोगी, हें खंयचेंयी लेकाक येना. मनीस आसल्ले कडेन संस्कृती आसता. संसकृती म्हळ्ळ्या परिकल्पनांत उंचली संसकृती कीळ संसकृती म्हळ्ळें भेद ना. हर्सकोविटस म्हळ्ळ्या विद्वांसा प्रमाणें लोकाची जिणिये विधानच

संसकृती. (Cultural Anthropology - Herskovits). हे व्यक्ती कोणयी जाव्येत, खंय तरी जियेवन आस्येत. लोक आसल्ले कडेन संस्कृती आसताच. असली संस्कृती देकूनच्च एकच थर आसाना. एकेका प्रदेशांत एकेका जनांगाची एकेक संस्कृती आस्येता. 'एक संस्कृती' म्हळ्ळें परिकल्पन उबजोंचें आनी प्रचलीत जांवचें ह्याच पाट भुंयीर. मनशाची संसकृती रूप घेंवच्या वेळा, विविध कारणांनी विविंगड जाल्लो मनशा समाज, आपल्या विभजीत पाट भूंयीक अनुगूण जावन विभिन्न संसकृतीक रूप दीत आयिल्ली एक चारित्रीक संगत.

## संसकृती आनी जानपदः

खंयच्याय एका जनांगाच्ये संसकृती विशीं समजोवणी जाय तर त्या जनांगांतलें साहित्य गमनाक घेवंक जाय. कारण, त्या लोकाचें अंतरंगांतलें गूंडायेचें जिणिये चित्रण त्या लोकान सृष्टी केल्ल्या साहित्यांत जमोन प्रतिबिंबीत जाता. भारतीय संसकृती आमच्या काव्यांनी भारतीय भासांनी व्यक्त जाता व्हय तरी, असलीं काव्यां राजाश्रयांतल्या पंडितांचीं रचनां जाल्ल्यान तें नैज जिणियेचें परिपूर्ण चित्रण न्हय. ह्या एका कारणान गृंथस्थ काव्यांनी साद्या लोकाची संस्कृती झळकाना. देकून, साद्या लोकानच रचून पोषण केल्ल्या जानपद साहित्या तेवशीं दीषट घुंवडांवची पडटा. जनजीवनाच्या उस्वासाचें स्पंदन हांतूं आमकां दिसोन येता. साद्या लोकाच्या समग्र संस्कृतिची कुसकूट पुणी परिचय आमकां जाता. अज्ञात कविंचीं हीं अमर गितां निरंतर व्हाळोन बदलावण जायित्त जनपदांच्या अनबोगा तुप्पांत बुडोन, न्हावन अन्वाळीं जाल्ल्यान हें एक जम्या पंगड कविंचें काव्य सृषटी आनी समग्र देशी संस्कृतिचो कोश. एका जनांगाच्या उदेवा सांगाता 'जानपद'यी उदेता देकून त्या जम्याचें जिणिये विधान, आचार विचार, व्यापार वहिवाट, शृद्धा, पात्येणी आनी संप्रदायांची झळक हांतूं भरोन वोमताता.

एके संसकृतिचें अध्ययन आनी ताचें संसकृतीक विश्वाच्या बांदावळींत मौखीक परंपराची जाण्वाय आनी ज्ञान महत्वाचें आकर जाता. कारण, लिखीत परंपराच्या दिश्टीक दिसानासल्लें या दिसवण्या भायलें एक सांस्कृतीक अनावरण मौखीक परंपरेंतल्यान उज्वाडाक येता. जानपद आनी संस्कृतीक लागशिलो संबंध आसा. जानपद साद्या

लोकाचें अनभोगाचें स्वरूप. तशें पळेल्यार संस्कृतियी सामान्य लोकाचें अनभोगाचें स्वरूपच. पूण जानपद, संस्कृती बिंबीत कर्चें माध्यम जावन प्रमूख पात्र घेता. उंचली कला आनी साहित्य उंचल्या वर्गाच्या संस्कृतिचें निदर्शन म्हण आमी समजाता. पूण जानपदांत पळयिल्लें सक्कड उंचलें म्हण लेकचें समा न्हय. कित्याक म्हळ्यार संस्कृती म्हण परिगणीत जाल्लें सक्कड उंचल्या अंशांनी भरोन आसाजे म्हण ना. खंयच्या संस्कृतिंतयी बरें–वायट, सत्वभरीत–पोल म्हळ्ळ्या ह्या मध्यम संगतींक संबंध जोडल्लें सगळें एकवटोन संस्कृती जाता. संस्कृतीक मत–धर्मांचो प्रभाव पडल्ल्यो पात्येण्यो, आचरणां... इत्यादी रूप दिता. हेर पूरक प्रभाववयी पडची साध्यताय आसा. जानपद ह्या सर्वांचें संकेत मात्र.

'आमच्या देशाची संमिश्र आनी संकीर्ण संसकृती. तिच्या वयर अनेक पंगडाचो, काळाचो, देशाचो, मतांचो वर्चस्व पडोनच येंवच्यान हो संमिश्र आनी संकीर्ण प्रभाव प्राप्त जाता. काळ सरल्ल्या प्रमाणें स्वाभावीक जावन तांतूं अर्थ आसल्लें आनी अर्थ नातल्लें भर्साता'. (डा.के. शिवराम कारंत – जानपद गीतेगळू – प्रसारांग – मैसूरू विश्वविद्यानिलय १९७१ पू. ५). हें उतर जानपदाकयी लगाव जांवचें विशेस न्हय. एका संस्कृती भितर आनियेक संस्कृती जिराना; दोन संस्कृतिंच्या संयोगान एक विशिषट संस्कृती उदेवाक येता. देकूनच भारतीय संस्कृती वयर खंयचीय पाश्चात्य संस्कृती आपलो प्रभाव स्थापीत करुंक सकोंक्ना म्हळ्ळें गमनार्ह. कित्याक म्हळ्यार, लोकान तांचो धर्म मात्र परिवर्तन केलो शिवाय जिणिये विधान होगडावंक ना. परंपरेन आयिल्ले सामाजीक आचार विचार, शृद्धा, पात्येण्यो... ह्या सर्वान भारतीय ग्रामांतर संस्कृतींत गूंडायेचीं पाळां रोंबयल्यां. हेर धर्माक खाल जाल्यारयी संस्कृतीक खाल जायनासतांच त्या धर्माच्या दबावान प्रभावीत जावन आपली पुर्विली संस्कृती पाळून येवन एक नव्या स्वरूपाक अनुवर्तन केल्यारयी देशी संस्कृती जावनच उरल्या.

## संस्कृती आनी कलाः

मनशाच्या सांस्कृतीक चरित्राक आनी जनपद कलांच्या उदेवक अविनाभाव संबंध आसा. आराधन आनी आचरणांची क्रिया, कला रूपार

विकास जावन पूर्ण स्वरूपाची कला जाल्ली एक रीत तर धर्म आनी पंथ प्रसाराखातीर जल्माल्ली कला उपरांत धर्म–पंथांचो उद्देशव्याप्ती उत्रोन सार्वजनीक कला जाल्ली आनियेक रीत. कलाच्च कसब जावन, उपरांत ती येक परंपरा रूपार विकास जाल्ली एक रीत जाल्यार आसल्ल्या व्यवस्थ्या विरोध नवी कला जल्म घेतल्ली आनियेक रीत. अशें अनेक कौतूक चाळवोंवची कला आमच्या संस्कृतीचें स्पषट प्रतीक.

एका आराधना व्यवस्थांतलीं वेवेगळीं क्रियां, मुकार नाट्यांशाच्या रूपार कला जावन उबजाली. आराधन म्हळ्यार उपासन मात्र न्हय. गायन, नर्तन, दैन्यतेन बागोन आडपडचें, हात जोडून ध्यानस्थ जांवचें, बोबाट घालून किळंच मारून मागणें कर्चें... असले विविध थरांचे अभिनय तांतूं आसता. असले अनुसरण कर्चे विविध आंगीक चलनवलन निर्दिष्ट संदर्भांनी पर्त्यान पर्त्यान पुनरुक्ती जांवच्या मुखांतर आचरणांचे भाग जाले. मनशाच्या जिणियेंत, संस्कृतींत समानांतरार वाडोन आयिल्ली कला आज एकाक एक पूरक जाल्लें पळेव्येत. कला स्वरूप पार्कून संस्कृती वळखोंच्या तितलें सुधारण जालां. साहित्य, कला, धर्म, नीत, जिणिये शैली – हें सक्कड मनशाच्या अंतरंगांतले संस्कृतींचें भायलें रूप. हे सर्व अंश आमच्या जानपदांत झळकाता. जनपद संस्कृतींत लांबाय रूंदायेक, उंचाये गूंडायेक व्हाळोन आयिल्ली कला, क्रमेण वेवेगळ्या रितिचे कला प्रकार जावन वांटे फांटे जाल्या. ह्या प्रकारार आयच्या संदर्भार कला आनी संसकृती एकच म्हणच्या तितल्या मट्टाक पावलां.

कला संस्कृतीचें प्रतीक. कला नातल्ली जिणी लारां नातल्ल्या दऱ्याबरीं म्हण जाणाऱ्यांनी उचारलां. जिणी म्हळ्यार पणगील पडल्ली न्हय. ती वर्णरंजीत सोभाय. दुबळिकायेंतयी ही सोभाय आपणावन आपले कषट अन्वार आनी दुःख विस्रोंक जाय म्हळ्ळी अपेक्षा मनशाक सुप्त रितीर तरी आसता. आपल्या अत्म्या भितरल्या सर्व चिंत्नांक एक रूप दीवन, तें रूप कला मुखांतर कल्पन करून आराधन कर्ता.

"He wants his emotion to be transmitted externally by a beautiful combination of lines, forms, colours or by a succession of movements, sounds and words subject to certain

rythem.' (P. Rajeshwara Rao: An outline of Indian Art - P.5). ತೊ ಮುಕಾರ್ ಸಾಂಗ್ತಾ 'The human being is a lover of Art he thirsts for art and lives for it. It is the symbol of human dignity. Just as life required air; humanity requires Art.'

अशें जिणियेचें एक भाग म्हणचे बरीं वाडोन आयिल्ल्या, जिणी म्हळ्यार हीच म्हणच्या रितीर भगच्या कलाक आनी संस्कृतीक सादो सुदो, आड आडकोळ नातल्लो संबंध आसा. खंयचियी एक कला अभिवृद्धी जावंक संस्कृतिचें पाटथळ गर्ज. प्रकृतिची प्रतिकृती कला जाली व्हय तरी तितल्यारच थांबोंक ना. जिणियेक सूख समाधान मेळोंक, कष्ट अन्वार पयस सरोन शांती संचयन जावंक, ज्ञान वाडोंक, अरिषडवर्गांचें उपाद्र पयस करुंक, कलाकार केवल अनुकरणाची फाट लागानाशें, उल्लासभरीत जिणियेचो पालवी जालो. प्रकृतिच्या भायल्या देखीक कौतुकान पळेवन भुल्च्या प्रास प्रकृतिंतले सुप्त रहस्य उगडापें करून जिणियेच्या निरंतर अभिवृद्धेक प्रकृतिंतली खंयची सकत आनी स्फूर्त आपणाव्येत म्हण कला द्वारीं लक्षांत काणघेलां.

## संस्कृती आनी धर्मः

संस्कृती आनी धर्मांत एकामेका अवलंबन आसा. धर्माच्या अनुसंधानाचें फळच संसकृती. धर्मानुषठानाचें लक्षण संसकृती. व्यष्टी जिणियेंतलें धर्माचें अनुषठान समष्टी जिणियेंत का-यरूप घेताना संसकृतिचें आविषकार जाता (संस्कृती मत्तू धर्मः 'संस्कृती' साहित्य मत्तू संस्कृती इलाखे, पू. १३).

Religion was the source of primitive art, which can be understood when we broaden our frame of reference to include voluminious supplimentary materials old customs remaining this day, folklore and early historic documents - all source which reveal ancient religious belief. (M. Grimbuar - Ancient symbolism in Lishemi and Folk Art - Indian Folk Culture - Page 82).

मतधर्म कशें कला उदेवाक प्रेरक जाल्या त्या प्रमाणें तांतूं संसकृतीयी भर्सोन आयल्या. मनीस ह्या प्रथवे वयर जल्मोन दीश्ट

सोडटाना ताका थोड्यो विशेश संग्ती दिसल्यो. पृथवी वयले जयत गात्राचे रूख झाडां, फातर, दोंगर, पर्वत, रातीक पडचें चांदनें, दिसार झळचो सूऱ्यो, येळचें वारें, व्हाळचें उदक, विशाल म्हळब, अगाध दऱ्यो, मोड, पावस, घडघडो झगलाणें, गिराण, भुंयकाप, ज्वालामुखी, दुकोळ, रोगरुदान... असल्या, आपल्या चिंत्या सक्ते भायल्या संगतींक पळेवन विज्मीत जालो; भयभक्तेन आनी पवित्र लेकून चलोंक लागलो. आपणान कितें प्रयत्न केल्यारयी त्या सक्तेंच्या प्रभावाथावन चुकोवन जियेवंक असाध्य म्हळ्ळें वासतव कळ्ळें. त्या सक्त्यांक भियेवन, तांच्या वयर देवत्व, दैवत्व आवाहन करून आदरणीय रितीन चलोंक लागलो. त्या सकत्यांच्या तृप्तेखातीर विविध वाटो सोधून आचरणां करुंक प्रारंभ केलें. हीं आचरणां क्रमेण कला स्वरूप घेवन धार्मीक आनी सामाजीक भोगावळिंनी प्रदर्शनांकयी प्रारंभ केलें. ह्या रितिच्या आचरणांक एक मीत घालूंक निर्दिषट चौकट्ट रचलो. आचरणांच्या विधीक एक प्रशसत दीस, तीथ, वेळ, नमियारलो. आपणान उप्योग कर्ची हरएक वसतू त्या आचरणाद्वारीं समर्पिलें. हें क्रम सुधारण जावन थोडे विधी निषेध ज्यारियेक आयले. अशें आदलें प्राकृतीक रूप सुधारण जावन, आचरणांक धार्मीक लेप लावन सुधारलेल्या संस्कृतीचें रूप घेवन, संस्कृतीक एक निर्दिषट व्याप्त निर्माण जाली. भारतीय जिणिये पद्धतींत सर्व अविषकारांनियी आध्यात्म आटापलां म्हळ्ळें कोणेयी पार्कियेत.

ललीतकला आनी साहित्य ह्या नियमा थावन पयस ना. भारतीय शिल्पकला, संगीत, साहित्य, चित्रकला... इत्यादी सर्व भारतीय आध्यात्म जिणियेचें भायलें स्वरूप म्हण दुबावाविणें सांग्येत.

## संस्कृती आनी नागरीकता:

संस्कृती म्हळ्ळो सब्द इंगलिशांतल्या 'culture' म्हळ्ळ्या सब्दाक समानार्थान उप्योग कर्तांव म्हण आमी हाचादल्या विवरणांत पळयलां. थोड्यांनी संस्कृती आनी नागरीकता (civilisation) हे दोनी सब्द एकाच्च अर्थान उप्योग केल्लें गमनाक येता. संस्कृती आनी नागरिकताक आत्म आनी भौतीक वसतुंक आसच्या तितलो अंतर आसा. नागरीकता आसल्ली संस्कृती जावंक तांतूं आध्यात्मीक बरेंपण मेळाजाय. बरेंपण संस्कृतीचें सारसर्वस्व. संसकृती आनी नागरिकता वासतव जावन

विभिन्न तरी थोड्यांनी दोनांक़यी समान अर्थार उप्योग केल्ल्याक हेनरी एस. लूकस म्हळ्ळ्या अध्ययनकाराची अभिप्राय दिव्येत– These two words (culture and civilisation) however, are correctly used to express the same concept, except, that culture is more limited in area and time, than civilisation, hence we speak of Humeric culture and western 'civilisation.'

'संसकृती' म्हळ्ळी, ह्या पयलेंच सांगल्ल्या प्रमाणें सुलभायेन विवरावंक जायना तसलो तत्व. संस्कृतीचें जीवसत्व या ताचो विरोधांश म्हण बोट जोकून दाखंवचे खंयचेयी लक्षण या अंश ऊर्जीत ना. विभिन्न श्रेणिचो महत्व आनी सत्वांच्या अनेक फांट्यांनी जाल्लो तो एक जमो. 'नागरिकता' म्हळ्यार प्रजासमुदायाक आनी समाजाक एका वोळीर हाडची एक जीवन व्यवस्था. मनीस, फलदायक आनी रचनात्मक चटुवटिकांनी आसोंक, सहजीवनाच्या स्थितींत साध्य जावन वाडल्ली नागरिकता. संस्कृती तसल्या एका परिस्थितीन उबजोंचें फळ. ती, भास आनी कला प्रकारांनी, तत्व आनी धर्मांनी, सामाजीक रिती–रिवाजिंच्या आचरणांनी, राजकीय संघ–संस्थ्यानी आनी आर्थीक व्यवस्थां मुखांतर व्यक्त जाता. हांच्या पयकी खंयचोयी एकच अंश प्रत्येक जावन संस्कृती म्हण जायना. ह्या सगळ्या जिणियेच्या अभिव्यक्तीक 'संसकृती' म्हणतांव. सांस्कृतीक परिस्थितिच्या व्यवस्थीत उदेवाक कारण जांवचीच नागरिकता. देकून, नागरिकता नासतां संस्कृती आसोंक असाध्य. पूण संसकृती विकास जावन तसल्यो नागरिकता आसोंक साध्य आसा.

'संस्कृती' मनशामधें गूंडायेचीं पाळां रोंबोवन रावल्यारयी, काळाच्या प्रभावाक वळग जावन ती आपलें स्वरूप बदलावण करून घेता. पूण तें नागरिकताच्या बदलावणेच्या वेगाच्याकी मंद जावन आसता म्हळ्ळी विशय गमनाऱ्ह. नागरिकताच्या प्रभावान एका व्यक्तिचें विस्मीत रितिचें बदलावण तीवर वेगान दिसोन येत. दाखल्याक – तोडोप न्हेसोन, शेंडी बांधचो व्यक्ती, तक्षण केस कापणी करून सूटबूट न्हेसोंक प्रारंभ करीत; पूण, तितल्याच सुलभायेन तोच्च व्यक्ती आपणान हरदीस पाळचीं आचरणां, आपल्या पेल्यां कडेन कर्चो सामाजीक व्यवहार शीघ्र गतीन बदलूंक सकचो ना. कारण त्या व्यक्तिसंगीं ताचो व्यवहार अती प्रबल थरान रोंबोन आसता. संस्कृती सगळ्या समुदायाचें अंतरंगाचें फूल.

ताचो पर्मळ हर एका कडेन आनी हरएकल्या कडेन प्रसार जांवच्या तसलो. आमच्या दिश्टीक दिसानातल्यारी, समुदायाची चाल चमकण, उचार आनी आचार विचारांनी ताचो पर्मळ प्रसारोन आकरषीत कर्ता.

## आखेर कर्च्या फुडें

प्रसिध्द मानव शासत्रज्ञ क्लिफर्ड गियर्ट्स हाणें संस्कृतीक 'मानव समाज निर्मीत सर्व वांट्यांची उत्पादनां, भौतीक वसतू (घरां, नगर... इत्यादी) आनी भौतीक उत्पादनां (भास, धर्म.. इत्यादी) म्हण उल्लेख केलां. संसकृती समाज संघटन करून मुकार व्हर्ता. सामाजीक स्थिरता, आत्मीयता, सामाजीक अंतरक्रियां, मानवीय संबंधाची निरंतरता आनी तांतल्या सांद्यां मदलें उंचले ओप्पंद संस्कृतीन घडोन अभिवृध्दी जाता. देकून, खंयचेयी समाजेचें वैज्ञानीक या क्रमबध्द अभ्यास (study) म्हळ्यार तांतल्या संस्कृतीचें विशलेषण म्हण अर्थ. सामाजीक संघटना वांगडा सामाजीक विघटनयी ह्या विशलेषणाचो अनिवाऱ्य भाग जाता.

हरयेक संस्कृतियी विविध स्तरांनी वैविद्यमय उपसंसकृती आपणावन आसता. प्रमूख संसकृती थावन भायर उरोन, आपल्याच क्षेत्रांत, प्रत्येक जिणिये शैली चाल्तेर हाडून, प्रधान संस्कृतीच्या प्रभावान 'उपसंसकृतिचो' अर्थ, अध्ययनाचीं परिकल्पनां आनी प्राककल्पनां हांच्या दिश्टीन प्रत्येक जावन चलयल्यार मात्र असले सूक्ष्म विचार प्रगट जावंक साध्य.

प्रतिस्पर्धी संसकृती (counter culture) आनी सांस्कृतीक पाटीं पडणी (cultural lag) ह्या दोनी सब्दांचो उपसंस्कृतिच्या अध्ययनांत महत्वाचो वांटो आसता. 'प्रतिस्पर्धी संस्कृती'यी सांसकृतीक मुख्यवाहिनिचो एक उपशाखो. पूण ह्या उपशाख्याची वोडणी प्रमूख शाख्याच्या व्हाळ्याच्या आनियेके कुशीन आसता हें गमनांत दवरिजाय. आधुनीक पाश्चात्य समाजांत असतित्वांत आयिल्ल्यो असल्यो प्रतिस्पर्धी संसकृती (उदा: हरेकृषण, हिप्पी उपसंस्कृती... इत्यादी), त्या समाजांनी शेकड्यां थावन अंगीकार करून घेतल्ली मौल्यां-नियमांक सरसकट रितीन वाऱ्यार उबयिल्ली पळेव्येत.

संसकृतीक मत-धर्मांच्या आवरणां भितर चल्च्या निषठूर आचरणांच्या परिधींत विशलेषण करचें सांप्रदायीक आनी अनिवाऱ्य

क्रम. भारतांतल्या देशी परिसरांत मत–धर्मा भायल्या संस्कृती रूपाचें परिकल्पन असाध्य. हाका कारण कितेंय आसों, मनशा सयत सर्व जीविंचें सृषटी मूळ अलौकीक दैवी सक्तेंत देकच्या आमच्या समाजेचीं चिंतनां भावनात्मक आनी कल्पनाशील. देकून धर्म आनी जातिंच्या हजारांनी आचरणांक बद्ध जाल्ल्या आमच्या समाजान आदिमानव काळा थावनयी संस्कृतीक जायित्तीं रूपां दिल्यां. पूण 'संस्कृती' म्हण वोलावन खंयच्या संग्ती विशीं आमी विशलेषण चलवन आसागी ती आज मूळ स्वरूपांत पळेवंक मेळना म्हळ्ळें वीपऱ्यास. संसकृती विशलेषणाचे ह्या मेरेनचे मानदंड बदल्ल्या. जात, मत, प्रदेश, भास हें खंयचें भेदयी नासतां मनीस आपल्या सर्व आचार विचारांक आधुनीक वैज्ञानीक आविषकारांक अवलंबन कर्चें हाका कारण. भारतीय संसकृती विशीं अमोघ आनी आवेशभरीत रितिचीं भाषणां दिंवचेयी ह्या अवलंबना थावन भायर ना. अशें जाल्ल्यान, आमच्या मूळ संसकृतीचीं पाळां जावनासची जानपद कला, साहित्य... इत्यादी संवेदनाच्या पाटथळार मात्र उरल्यां शिवाय आचरण, अनुषठानाच्या मळार निराशादायक जाल्यां म्हणयेत.

आकर ग्रंथः


१. डी.वी.जी. – संस्कृती – प्रः काव्यालय, मैसूरू – १९५३

२. कर्नाटक बुडकट्टुगळू संपूट १&२ प्रः कर्नाटक जानपद मत्तू यक्षगान अकाडेमी, बेंगळूरू – २०००

३. बी.एस. तलवाडी – क्रैसत जनपद गीतेगळू, प्रः दयानंद प्रभू, सैंट फिलोमिनास बोर्डिंग मैसूरू – १९८३

४. एन.एस. लक्ष्मीनारायण भट्ट – उदयवाणी   २३.०३.२००१

५. एं. व्यास – उदयवाणी – १७.१०.२००१

६. डा. योगीश कैरोडी – उदयवाणी – ६.३.२०१४


*** *** ***

# कोंकण आनी कोंकणी

–दामोदर बाळीगा, मंगळूर १९६८

## कोंकणी लोक

गोंय, महाराषट्र, मैसूर, केरळ ह्या राज्यांत आनी हांचे भाहीरयी भारताचा जायित्ते सुवात्यांचेर सिंपिल्लेबरी कोंकणी लोकसमुदाय आसल्यारयी तांचो अत्मो सामको एकूच जावनू प्रज्वळता. १९६१ भारत राज्वोटाच्ये जनगणती प्रमाणे आख्या भारतांत १,३५२,२६३ इतल्या जनांची भास कोंकणी आस्सा म्हणून आंकडो घाल्ला. ह्या शिवाय, गोंय मेकळें जावचा वेळार थंय आसच्या ५५८,१५९ जनांतू ४८७,३७३ इतले कोंकणी भाषेचो लोक आसचे कळोन आयलां. ही मोगाळ कोंकणी भास भारी प्राकातान लोकांची मायामोगाची 'आवय-भास' जावून आस्सो म्होणू आम्मी पुराण आनी इतिहासांचेर नजर घालनू समजूंक येता. सारस्वत ब्राह्मण आनी रोमन केथोलीक क्रिसतांव हे दोन समाज कोंकणी उलौपी होडलो हिस्सो जाल्यारियी रत्नागिरी जिल्ल्याचा राजपूर तान, केरळाचे त्रिवेंड्रम थांयी, हेर अनेक लोक कोंकणी भास उल्लयितात. वाणी, सोनार, सुतार, कासार, गुडिगार, कुंडबी, कुंबार, सुदीर, भांडारी आनी कलावंत–हे नंता नवायत, काफी, आनी डालडी (तीनूय मुसल्मान जातियों) ही भास तांची आवय–भास म्होणून मानोन घेतात. चाकरी आनी दंद्या पासून आफ्रिका आनी अरब राषट्रांक वोचून तंहीच रावुल्ले कोंकणी लोक सबार आस्सात. चित्तपावन आनी कराड ब्राह्मणांनी उलौची भास कोंकणिचोच एक रूप. मुंबयी, रत्नागिरी, मालवान, सावंतवाडी ह्या प्रदेशांत म्हार (म्हणजे हरिजन) सुधां कोंकणी भासच उलयितात. हे भाषेक हांगा 'कुडली' म्हणतात. बेळगांव जिल्ल्यांतू उल्लोवचे कोंकणीक 'गोमंतकी' या 'पर्देश्कारी' म्होणू आपयतात. मालवानांतू तिका मलवंद म्होणू सांगचेयी आसा. केरळ राज्यांत कोंकणी भाषेक तिस्रें स्थान म्हणून मानयिला.

## वेदवाक्य

आपआपली मांय भास, आपआपलो मांय देस आनी आपआपली संस्कृताय ह्यो तीनूय केदनायी मंगळकारी. त्यो आमी बिल्कूल विसरू नजो. ह्या तीनाकय आमी आमच्या काळजांत थीर दवरूंक जाय. आमचे भारताचो अनादी ग्रंथ ऋग्वेदाचो एक ऋक्क (मंत्र) होच अर्थ भरून अस्से आसाः–

“इळा सरस्वती मही तिस्रो
देवीर्मयो भुवः
बऱ्हीः सीदंत्वस्रिधः”

हांतूं तान आमी असे बुद्ध घेव्येतः आमची माय–भास, आमचो माय–देस आनी आमची संस्कृताय ह्यो तीनूय शूभ मंगळ कोर्च्यो (बरे कर्तल्यो) देवियो जावून आस्सात. ते निमित्ती आमी हांका विसरूनासता, शृद्धेन, भक्तीन तांची नित्य आराधन कोर्काच. संस्कृताय म्हणचे एका जनसमूदायाक गुणेसत, आचारवंत आनी माणसुगेचो कर्ता, वा करूंक उपकार कर्ता तसलो विषय. ही संस्कृताय जीण एक लोकाक भारी दिसां तान घोडून आय्यिली जावून आस्सा.

## कोंकण परंपरा

आमचे भारताची असतेंत करावळ या किनारपट्टी कोंकण म्हणून नांवाडदीक आसा. सह्याद्री म्हणचे पश्चीम घाटांचा सालाचा म्हाऱ्यांत आसची अरब्बी समुद्राची ही करावळीक आमचा पोर्ने स्कंद पुराणांत ‘शूर्परक’ म्हणून प्रसताव केल्ला. ‘अपरांतक’ नांवयी हे तीर प्रदेशाक आनी दुस्रे दुस्रे पुराणांत दिल्लें आसा.

## परशुराम सृषटी

हें क्षेत्र परशुरामान सृषटी केल्लें म्होणून महाभारताचा शांतिपर्व–४६ अध्यायांतू उल्लेख आस्सा. स्कंद पुराणाचा सह्याद्री खंडांत ही गजाल आनीकयी विवर्सून दिल्या. आपल्याक द्रोह केल्लें क्षत्रीय वंश सगळें निर्नाम कोरुंक एकवीस पावटीं सबंध भूमंडलांतू खेपी मारून परशुरामान आपण जमयिली पूरा जमीन बाम्माणांक दान केल्ली. अश्शी धारादत्त कोर्न दिल्या भुंयचेर आपणाक ठिकाणो आसचो समा न्हंय?

म्हणून ताणे चिंतलें. आनी नवीच एक भूभाग निर्मोचाक ताणे ठरायिल्लें. सह्याद्री दोंग्रार रावून ताणे ताची कुडार, की भाल्ली, कोपान उडयिल्ल्या वर्वीं दऱ्यो भियोन पाटीं सरलो. तेन्ना हें 'शूर्पारक क्षेत्र' या 'अपरांतक' सृषटी जाल्ले. भारताची असत्येंत देग ह्या निमित्ती 'परशुराम क्षेत्र' म्हणून गाजता.

## प्रळयांत उबजल्ले कोंकण

भारताचो आसतेंत किनारो जावनू आसचो हो कोंकण प्रांत संयभांत जांवचा उचांबळान व्हयीर पळ्ळो म्हणून पात्येचाक भूविज्ञानी तांचा संशोधनांनी रुजू कोर्नू दित्तात. प्रकृतिचा प्रकोपान उजो वोंकचे दोंग्रा आसात; तातोवोळ मारेकार वादाल येंवचो, भयंकर भुंय–कांप जांवचो, दऱ्ये मेर मिर्वून भुंय गिळची, असले मारेकार गजालियो सबार आसात. संयबांत तावोळ तावोळ जांवचे असले उचांबळांक, प्रकृतिचा प्रकोपाक, आमचा पूर्वजांनी असली दैवीक कल्पना दीवनू आस्सू पुरो. ते निमित्ती कोंकणपट्टी परशुरामान सृषटी केल्ली म्होणू तानी पुराणच बरयिल्ले. "शतपथ ब्राह्मण" ह्या पुराणांत वर्णिलो जलपरळय शास्त्रीय दृषटीन पात्येंवचें सार्के आस्सा. कित्याक डा। वुली (Dr. Woolley) म्हळेल्या प्रख्यात भूगर्भशासत्रज्ञान मेसेपोटमिया तान राजस्थान पऱ्यंतर बारिक्साणेन संशोधन करून थंयी चल्लीं–गजाली पूरा जलपरळय आनी प्रकृतिचा इतर घाडामुड्डोंत घडले म्होणू कारण दीवनू विवर्सिला. हिंदू आनी सेमेटीक देशांत प्रचलीत आसचे पुराण ऐतिह्य, रीत, रिवाज सक्कड एक सार्के आसचे दृषटांत दिवून ताणे आदीं हिंदूस्थान आनी मेसेपोटमीय अखंड जावून आस्सील म्होणू दाखयिलां.

## साहित्यांतू कोंकण

"मार्कंडेय पुराण", वराह मिहीर हाणे बरयिल्लें 'बृहत संहिता' वात्सायनाचें 'कामसूत्रा'क, जयदेव मंगळ म्हळ्ळेल्यान बरेयिल्ल्या ठीकेंतूयी' ''पश्चीम समुद्र समीप देश' म्होणू जायितले कडेन उल्लेख आसात.

पैले क्रिसत शकांतुले म्होणू कोळून आयिल्ल्या एक ताड पत्रांतू (Pepires of the Erythrean Sea) भारताचा ह्या असत्येंत भाग कोंकण आऱ्य देशांतू आस्सा म्होणू विवरिला. संस्कृत महाकवी दंडी हाच्या

'दशकुमार चरीत' हांतूं ह्या भागाक कोंकण म्हणोनूच नांव आसा. आमचो भारताचो कवी सार्वभौम जावनू आसचो काळिदासाचो 'रघुवंश' काव्यांतू रघू चक्रवर्तीन केल्ल्या जैताची वर्णन आस्सा. तांतुंय हो नांवाडदीक पश्चीम देश, ताचे ताबेन कसो आयलो म्होणू सोबीत वर्णन आस्सा.

## सप्त कोंकण

'प्रपंच हृदय' म्हणचा एक प्राक संस्कृत ग्रंथांतू सप्त कोंकणांची नांवां अशीं दिल्यांत. १. कूपक २. केरळ ३. मूषीक ४. आलूव ५. पशू ६. कोंकण आनी ७. परकूंकण, कूपक, केरळ आनी मूषीक हीं तीनी आदले तिरुवांकूर, कोच्चीन राज्यांतूयी, मलबारांतूयी आस्सिलीं. चौतें 'आलूव' म्हणचे आमचे दक्षीण कन्नड जावनू आस्सा. ईजिप्ट देशाचो 'प्तोल्मी' म्हणचो एक ग्रीक भौगोलीक हें क्षेत्राक 'अपरांतक' म्हणचें शिवाय ह्या आलूव देशाक (Olkhoria) 'ओलोक्होरिया' म्होणू आपयिता. हें 'अलुवखेड' म्हणचा नांव कोंकण क्षेत्राचा दक्षीण कन्नडाक संबंध पाविल्ले म्होणू होयसळ रायांचा म्वावळ्ळी, सिंदगिरी, म्हणचा शिला शासनांतू स्पषट जाता. पांचवे 'पशू' म्हळ्यारी उत्तर कन्नड जिल्ला. सवें कोंकण म्हळ्यारी गोंय, रत्नागिरी जिल्लो. सात्वें पर कोंकण म्हळ्यारी कोलाबा, ठाणा आनी मुंबयी जावनासात.

नांवाडदीक संशोदक जावनासचे जोस निकोला डा पोनेसका (Jose Nicolau da Fonesca) हाणे बरयिल्या एक अमूल्य चारित्रीक आनी संशोधक ग्रंथ जावन आसचा (Historical and Archoelogical Sketches of the City of Goa, 1873) हांतूं आख्या कोंकणाचे सात विभाग अशे दिल्यात. १. केरळ २. तुलुंग (दक्षीण कन्नड आनी उत्तर कन्नडांचे दक्षीण भाग) ३. गोवा राषट्र (आतांचें गोंय आनी उ. कन्नड जिल्लाचे उत्तर भाग). ४. कोंकण (रत्नागिरी, सावंतवाडी, कोलबा आनी जेंजीरा देशी राज्य). ५. करलट, ६. वरलट–म्हणजे आतांचा गुजराताचें दक्षीण पाश्र्व ७. बारबरा (कात्यावाराची दोंग्री भाग).

## आख्या कोंकणाचो विसतार

कोंकणाची परंपरा प्रमाणे अरब्बी समुद्र आनी सह्याद्रिचा मद्येंतू–उत्तरांतू, धमन गंगा न्हंयचा थावन दक्षीण गंगवल्ली न्हंयचे थंयसार आसची भ्हुंयी कोंकण म्हणोन नांवाडदीक जाल्ल्या. हें संबंध कोंकण,

उत्तर कोंकण, मध्य कोंकण आनी दक्षीण कोंकण म्होणू विंगड विंगड कोर्चे रूढीय आस्सा. अलेक्सांडर कन्निंगह्याम ह्या होडले चरित्रकारान पश्चीम घाट्टाची उदेंत आसचो थोडो प्रदेशुयी कोंकणांक मेळन आशिल्लो म्होणू स्पषट केला. ताचे अजमासा प्रमाणे कोंकण राज्याच्यो चतुर्गडी अशे आसिल्यो:–१. दक्षीण:– द्रावीड राज्यां. २. पूर्व: धनकटक ३. उत्तर: महाराषट्र ४. पश्चीम: अरब्बी दऱ्यो. उत्तरांत वेंगुरले तान दक्षिणाक कुंदापूर थांयी आसचे ह्या राज्यांचे भितरली गडी गुलबर्गा तान मधुगिरी थांयी आस्सूका म्होणू ताचो अभिप्राय. कदंब रायांचा राज्वाटाक मेळ्ळी आख्या भ्हुंयी ही जावनासा म्होणू तो स्पषट सांग्ता.

ए.सी. बर्नेल ह्या शासत्रज्ञान लिपी आनी अनेक प्राक गजालियो संशोधन करून एक मोलाधीक ग्रंथ (Elements of South Indian Palegraphy) बरयिल्ला. तांतूं अनेक रायांची वंशावळी दिल्यांचेर देशाचो एक रायाचें नांव कोंकणी म्होणू आसा. ताचो राज्वोट क्री. श. ३५५तू चल्लो. ताचा मागीर सह मातें मुखार आन्येकलो कोंकणी नांवाचो राय पाट्टाक आयलो. ताका कोंकणी II म्होणू बर्नेल म्हणता. ह्या नंत्रा प्रथवी कोंकणी म्हळ्ळ्या रायाचें नांवयी ताणे दिल्ला. कोडगांत (Coorg) ‘किग्गट्टनाड’ म्हळ्ळेकडेन मेळल्ल्या एक शासनांतू सत्यादित्य कोंकणी वर्म महा राजाधिराजाची भारी शिफारस आसा. बर्नेलाच्या ह्या अमूल्य ग्रंथांतू एक स्पषट नकाशा (Map) य दिल्लां. हांतूं कोंकणपुर आनी कोंकणहळ्ळी म्होणू दोनी गांवां स्पषट दिसतात. हें कोंकणपूर मद्रास प्रांतांचा सेलं जिल्लेंतू आसा. हैदराबादांत आसचे कोंकणकलन, गुलबर्गाचा लागसार आसचे कोंकल, आनी महबूद नगराचे कुशीन आसचे कोनकल हीं नांवां सक्कड कोंकण प्रदेशाची पातळाय कितली आशिल्ली म्होणू स्पषट दाकोन दितात. क्री.पू. पैले शतमानांचो स्ट्राबो नांवाचो रोमी भूगोल शासत्रज्ञान ह्या असत्यंत तीर प्रदेशाक ‘कोमक्वी’ म्होणू आपयलां

## तमीळ साहित्यांतू कोंकणाचो प्रसताव

तमीळ भाषेंतू दुसरे क्रिसत शकांतू रचिल्लें अगदी पोर्नें ‘शिलप्पदिगारं’ नांवाचें एक काव्य आसा. हें काव्य बोरोंवचा कितलेकी पाटल्यानच कोंकण कितलें प्रसिद्द जावनू आस्सिलें म्होणू ह्या काव्यांतू

थंयी थंयी येंवचीं वर्णनां स्पषट कोर्नू दित्तात. सेंगुट्टवन म्हणचा तमीळ रायाक ताचो मंत्री अशें प्रशंसा कर्ता: "हे प्रभो, तुजो न्यायाधीक राज्वोट आनीकयी अनेक वर्सां पऱ्यांत आसूंदी; तुंवें तुजा सार्केंच बलाढ्य जावनासचा दुस्मान रायांकडेन झुजून जैत घेतलें; तेन्ना ताणीं तांचो बावटो रग्तान होळचा कोंकण रणरंगांतू अर्पण कोर्नू, ते सक्कड तुका शराणगत जाले....

"लेखमिती नातिल्ले शसत्रासत्र वापुर्चांतू नांव घेतिल्लें कोंकण, कळिंग, क्रूर कर्नाटक, हांचें संबंध संयुक्त सैन्याचेंरी तुजे पाटाचे हसतेन, तमिळाचें सैन्यांक पाटिबलाक घेवनू, मसतून पाय उडोन विभाड विभाड केल्लें ते दृश्य आजयी म्होजा दोळ्यां मुखार नियाळता" कोंकण राज्य आनी कोंकणी लोकांचे स्पषट उल्लेख केल्लें हे काव्य मुखार कोंकणी कलावंत (नाचगार) चलियांनी ह्याची तमिळ राजप्रमुखाचे मुखार तांचें नाच, नृत्य भारिसकणायेन प्रदर्शन केल्लेली सोभीत वर्णना सुंदर शैलीन बरेयिल्ल्या.

## पूर्व इतिहासांतू

सुमार क्री.पू. २०० वरषांचे आदिंच गारापुरी (आतां मुंबयिलागीं आसच्या एलिफेंटा) थंयी सिंहासनारूढ जावन आसले शिलाहार वंशाचे राय कोंकणाचेर राज्वोट कोर्नू आसल्ले. तेच कोंकण संस्थानाचे खरे राय. हाणीं चडवुणे क्री.श. १४ पऱ्यांत कोंकणाचें आडळत पळेयिलां म्हण चरित्रेंतू दाखले आस्सात. आल मसूदी नांवांचो अरब्बी भौगोलीक एकलो उत्तर कोंकणांतू 'लरियहा' म्होणची भास उलयताली म्होणू बरेयता. अशेंच अल बिलादुरी म्हळ्ळो आनी एकलो अरब्बी पयणारियी कोंकण देशाचो व्यापारधंदो भारी ऊंच पांवड्याचे आसलो म्होणू वित्रावून, कोंकणांतू आसल्ले बंदरांचो विवोर दिता. आन्येकलो आल कजविनी नांवाचो आरबोयी आख्या कोंकणांतू भोंवडी करून ह्या देशाची आर्थीक उदरगत भारी आसिल्ली म्होणू बरेयता. सबंध देशांतू सवसताकाय आसून, फार्सी, क्रिसतांव, मुसल्मान आनी यहूदी मतांचो लोक एकवोटान आसून, तांचो वावर, वहिवाट बरेच रीतीन चल्ताल्यो म्हणून बरयता. हिंद्वांच्या देवस्थानांची ग्रेसतकाय वित्रायताना, माणका, मोतियांनी, रत्नां, वज्रांनी निर्मिल्यो देवाच्यो मूर्तिच्यो वर्णन ताणे भारी बारिक्साणेन केल्या.

मार्कोपोलो नांवाचो इटलिचो भोंवडिगार हांगाच्यो संपत्समृद्धी उकवोन येताली म्होणू सांगोन हांगा एक विशिषट भास उलयताले म्होणू गोमयता. ताणे ह्या देशाक 'कणन' म्होणू आपयिल्लां.

## सारस्वत लोक

पूर्विल्या ते महा प्रळया निमित्ती पंजाबांतू आदीं आसल्ली सरस्वती न्हंयी ना जावन गेल्ली. तिचे तडीर आसले लोकांक घर-गांव सोडका पडले. नर्मदा न्हंयिचें आजूबाजूंत कसलोयी उचांबळ जायनातिल्यान सरस्वती न्हंयचे तडियेर आसलो हो लोक पूरा, ह्ये कुशेन थोडो, पूर्वाक बिहार प्रांताक वचोन आसोंक पुरो, ते कुशेन थोडो सिंध प्रांताक येवन दऱ्या वाटेन गुजराथ प्रांता थावन ह्या आसत्येंत किनार पट्टीक येवन पावन आसूंकयी पुरो. मूलांत वेद कालाचे संस्कृतायेंत वाडिल्लो हो सारस्वत लोक (सरस्वती न्हंयचे देगेचे लोक) तंयी आयिल्ले अन्वारा निमित्ती गांव सोडून तिशीन बिहार, त्रिहूत, गौड इत्यादी उदेंत प्रांतांतुयी, हिवशीन सिंध, गुजराथ, कोंकणाक येवन पावले म्हळ्ळेल्यांत दुबाव ना. कोंकणपट्टी समुद्रा तान व्हयीर पडली भुंय जावन आस्सा म्हणून आमी विस्रोंक नजो.

## कोंकणांत आयिल्ल्यांची संसकृताय

हांगा येवून पाविल्ले सारस्वत लोकांची मूळ संसकृताय वेदांचा काला थावन होळोनू आयिल्ली जावन आस्सा. तीच संसकृताय वाडून, विकास जावन कोंकणांतू फुल्ली. कोंकणी लोक जातकच मायेसत, भावीक, मनशाळो, विश्वप्रेमी, कलावंत आनी अगदी पुरुषार्थीक जावन आसा. तो कोंकणांतू आसो या कोंकणा भायर आसो तो केदनांयी एक्सुरोच रावुंक ना. तर ज्या ज्या पर्की लोकाकडेन ताजो संपर्क आयिल्लो ताजी ताजी ताणी इषटागत जोडिल्ली. तांगेल्ली भास, तांगेल्ली कला आनी तांची रीत रिवाज ताणे श्रद्धेन शिकोन घेतली. जाल्यारी ताजे जिण्येंत कोंकणिपण उणे जावंकना. हाका लागून ताचे जीवन परिपुषट जाले; मन अधीक संसकारीक जाले. बुद्धी तीक्ष्ण जाली. त्या भायर ताणे वेगळे वेगळ्या लोकांचा जिण्येंक आनी संस्कृतायेक हातभार लायिल्ल्यान ताका तांचो मोग आनी आधार बी सार्को प्राप्त जालो.

अनादी कालांतून नांवाडदीक जावून आसच्या साहित्याचो आनी

चरित्रेचो नियाळ घेतल्यार आमचा पूर्वजांनी केल्ली साधनांचे कल्पना आमी करूंक जाता. ‘कर्ण सुंदरी’ नांवांचे संसकृत नाटक बरयणार बिल्हण, ‘शांती शतक’ काव्यरचन केल्लो ‘चिल्हण’, ‘राज तरंगिणी’ तसल्ली महाकृती उगडायिल्लो ‘कल्हण’, ‘पतंजली’ चा महाबाषयाक ठीका बरयणार कय्यट, काव्यपरकाश म्हळ्ळे ग्रंथ निर्मिल्लो मम्हट, हे पूरा सारस्वत जावन आसात. भगवान बुद्धाचो प्रप्रथम शिषय जावन आसचो पुन्न (पूर्ण) हो गोंयचो वाणी. होडलो वागमी, इतिहासकार, अर्थशासत्रज्ञ, कादंबरिकार म्होणू अख्या युरोपांत प्रजचळ्ळलो नांवाडदीक लूयीस गोम्स गोंयचो सुपुत्र जावन आस्सा. कोंकणांत राज्वोट केल्ले शिलाहार रायाचा आस्थानांतू, सर्वाधिकारी नागनय्य, महाकवी नागलय्य, महा प्रधानी रुद्रपै, चत्रयेचो कोशाधिकारी जोगप्पय्य हे पूरा कोंकणिंच. कोंकणाचो दुस्रो अपराधित्य म्होणू नांव घेतिल्लो शिलाहार रायान याज्ञवल्क्याचा न्याय शासत्राक ठीका बरोन न्यायांगांतू भारी नांव  केल्लां. कोंकणी विध्वांसांक उत्तर काश्मीर राज्यांतुंयी तर्कसभेक आनी विचार घोषटीक आमंत्रण दिताले म्हणून ‘श्रीकांत चरित्र’ म्हळेल्या ग्रंथांतू आमकां दिसून येता. विजय नगराचा दुस्रे हरिहर सार्वभौमचा आस्रो घेवन गोंयां थावन मुसलिमांचे पाय उडयिल्ली ख्याती कोंकणी मंत्री माधवाक फावो. व्यापार दंधेंतू सगळे युरोप आनी अरब राषट्रांतू नांव घेतलो भटकळ नारायण मल्याचो उल्लेख ब्रिटिषांचा अनेक दाखल्यांतू आमकां मेळतात. बोंबय नगराचा विकासाक वावुरले रामराय शेण्वी म्हळ्ळया कोंगण्याचे जीवन वृत्त, ‘पुण्यात्मो राम कामती’ म्हळ्ळेल्या चरित्रे पुसतकांतू शेणै गोंय बाब हाणीं बरयिल्या. हे राम कामतिचो सोयरो नारायण शेण्वी हाणे मराठेंचा कालांतू चलयिल्ले तीक्ष्ण बारिक्सायेचे राजकारण आमकां चरित्रेंतू वाचूंक मेळता.

पूर्विल्या काला थावनंच हो कोंकण प्रदेश एकवोट जावन एकच राज्वोटांतू आसून सवसतकायेन आसचो संद्राप केदाळायी मेळूंक ना. जाल्यारियी तरतराचे घडा मुद्धें मधें, अन्वारां मधें, उचांबळां मधें कोंकणी लोक तांचे परंपरा राकोन आयल्यात. वेदमंत्राचा आवाजा मधेंतू तांची उलौपी भास उबजोन आयली. तांची नागरिकपण वेदकालांतूच विकास जावन आयला. तंय थावनंच तांची संस्कृताय थरथरांचे कषट संकषटा मधें, विविध अडकळांक माडोन उडोन, वाडोन आयिल्या. मोवाळसाण,

त्यागबुद्धी आनी पुरुषार्थ सिद्धी तांचा हे संस्कृतायेचे विशेष जावन आसात.

## मांयभूंयचो आधार

हे संदर्भारी ग्रीकांचे पुराणांतली एक काणी उगडासाक येता. ग्रीकांचो भो बलाढ्य वीर, हरिक्युलस हो आंटियसाक मारून उडोच्याक भारी भारी कुसती कर्ता. हरिक्युलस आंटियसाक उबार्न धर्णीक आपटिता. तेन्ना तो आंटियास रोखडोच उब्बी रावून पर्तून हरिक्यूलसाचा आंगार धावन येता. आनी खूब शक्तीन हरिक्युलसाकडेन झुजता. हरिक्युलस पर्तून पर्तून आंटियसाक भुंयक आपाटिता. तरयी गजाल तशेंच घडता. निमाणे हरिक्युलसान पारखिलें आंटियास धर्तरेचो नीज पूत आसा. तो आपली शक्त जमनिंतल्यान काणघेता. तेन्ना हरिक्युलसान ताका व्हयीर उकल्लो, आनी तसोच धरुन गळो दामून तहिंच ताका जीवनिशीं मारल्लो. जोमेरेन आमी आमची मांय भ्हुंयचेर पाय थीर दवर्तात तो मेरेन आम्हका कोणांचोय भंय आसचेना. ते निमित्ती आमी कोंकणाचेर, कोंकणपणाचेर, कोंकणी भाषेचेर अवलंबून रावल्यार तेन्ना आमचे जीवीत तें सोबीत फुल्लाबरी फुल्लौन रसरसतेलें; परमळतिलो सार्थक जातलें.

## कोंकणी भास–प्राक नियाळ

सरस्वती न्हंयिचा तडियेर आसताना सारस्वत लोकांनी तांचा दिननित्य व्यवहारा खातीर एक उलौपी भास निर्मून घेतली. ही भास संस्कृताकच अवलंबून आसली. संस्कृत मूळां थावन कालक्रमान फांट्या रूपार भायर सरलल्या भाषेंक प्राकृत भास म्हणतात. आमची कोंकणी भास आसलीच एक प्राकृत जावन आसा. वन मनीस जावन आसलो स्वभावांनी सुधारून नागरीक जावन मुखार सर्चे वाटेर पैले पावूल जावन आसा ताची भास. ताणे रांदूक शिक्तानांच ताची भास उबजोन येता म्हळ्ळें खचीत. नित्य विचार सांगोंक वापरून घेंवचे जो शब्द आसात तेच भाषाशासत्रा रीत खूब महत्वाचे. आजयी आमी कोंकणिंतू 'उज्जो' म्हणचो हो शब्द वेदाचा मंत्रांतू यज्ञाक स्थापन कर्चा अग्नीक 'उद्धव' म्हणचा शब्दां थावन आस्सो जाल्ला. 'उद्धव' शब्दू दुस्रे प्राकृत भाषेंतूयी' 'उज्जवओ' म्होणू आस्सा. तेंच क्रमागतान 'उज्जो' हें रूप घेवून आमचे भाषेंत आसा. आमची कोंकणी भास कितली पोर्नी म्होणू

समजूंक हो प्रामुख्य शब्दू उज्जो एकच पुरो. तशेंच आमी आजीकयी ‘आयदान’ म्होणू वापरून घेंवचो सब्दूयी वेदांतू येंवचा ‘आयतन’ म्हणचा शब्दातान रूपांतर जालो म्होणू स्पषट आसा. ‘दीग’ (लांब) म्हणचो शब्दू संसकृताचो ‘दीर्घ’ म्हळ्ळ्या शब्दाचो तदभव जाल्यार, संसकृत ‘दीर्घ’ थावन रोकडेंच ‘दीग’ शब्दू जल्मूंक ना. बुद्ध मताचे जातक काणियांतू ‘दीर्घ‘ हाचे रूप ‘दिग्ग’ जावन दिसटी पडता.

भासेचो विकास ह्या गजालिंनी आमी आमची कोंकणी भास चडवुणे बुद्धाचा काला थावनंच सामान्य लोकांनी उलौचें एक जीवंत भास जावन पाळां सोडन आस्सिली म्हणुंक आधार मेळतात. तेन्ना तिका कोंकणी म्होणू नांव ना आशिलें. पंजाबांतू प्राकांतू जाल्या प्रळयांतू, अन्वारांतू पडलेले सारस्वत लोक कोंकण प्रदेशाक येवन रावले. सरस्वतीचा तडीर ताणीं आसताना निर्माण केल्ली ही भास ताणीं कोंकणांतू परिषकार कोर्नू तांचा दिस्पोटी व्यवहारांतू खूब वाडयिल्ली. कोंकण प्रदेशाचें काळीज जावन आसचा गोंयांत अर्थात गोमंतकांतू ही भास परिपुषट जाल्ली. त्या निमित्ती ह्या भाषेक गोमंत प्राकृती म्हणताले. क्रमेण ही भास आख्या कोंकणांतू पातळोन आयली. देकून ह्या भाषेक कोंकणी म्होणू तिचे प्रसिद्ध नांव आयलें. प्राकृत भाषे थावन उबजल्ली ही कोंकणी भास शीरपुटी, पातळ, असकत दिसोंक पुरो. कित्याक हिची धूवकी, धाकटी भैणकी जावन आसची मराठी भास रायांचे प्रोत्साहान आनी पंडितवऱ्यांचे पुरसकारान फूडफुडीत, घटमूट आनी दाटिमोटी जावन होडली साहित्यक भास जावन आजी रसरसता.

## लोकांची भास

आदीं थावन लोकांचीच भास आमची ही भास कोंकणी; सामान्य लोकांचा जिबेरीच घडाघडीत घोळोन आयिल्ली भास. तांचे संस्कृतायेचो उदगार जावन आसचे जानपद साहित्य ओपरियो, गाधियो, हुमण्यियो, जानपद काणियो, मांडे, दूलपद, देंकण्यो इत्यादी लोक गीतां कोंकणिंत भर्पूर आसात. ही भास सारस्वताचीं कशेंकी तशेंच गांवड्याचीं जावनासा. बामणाची, सुद्रांची, म्हारांचियी जावन आसा. क्रिसतांव भाव, मुसलीं बंधूयी कोंकणी तांची आवय भास म्होणू मानयतात. प्राक थावन कसलें अन्वार, कषट, नषट, आयल्यारी ताणीं ह्या आवय भाषेचो मोग सोडूंक ना. संयभाचे उचांबळा मधें, राजकीय या धर्म द्वेषांतू तांचेर घडल्ले अन्याय,

पीडापीड आनी अघोर त्रासा मधेंतूय ताणीं घरदार सोडून एकडे थावन दुस्रेकडेन धावन वेतानायी ही तांची मोगाळ भास तांचे जिबेरच स्थीर वोरली. आवय भासच तांचे कूडिची स्वास जावन आस्सिली. तीच तांची आत्म विश्वास. कितले पावटीं देशांतर काडतानाय ताणीं भक्तीन आनी शृद्धेन आवय भास सार्के राकोन हाडली. रायाचे व पंडितांचें फाटबल तिका मेळोंक ना जाल्यारियी हजारांनी वर्सां पीडापीड, हिन्सावणी आनी कुसकुटावणीच तिचा वांट्याक पडलीं. कितलेकी पावटीं तिचा संतानाक जीव आनी स्वत्तू वाचांवुंक आपले आश्शिले भुयेंत भिरांकुळांतूच दीस काडचे पडले. आनी तांतुले अनेकांक देशांतराक वचोन वोळवोळचे पडले. असले परिस्थितिंतू दुस्री खंचीयी भास केदनाकी निर्नाम जाता आसली, पूण आमगेले कोंकणी भासेचो नीज आत्मो ह्या सर्व अग्नी परीक्षेंतू उत्तीर्ण जालो. तिचीं पाळां मुळां तिचा संतानांचा प्राणांत खोल रिगोन आशिल्यान, आयिल्ल्या पूरा अन्वारांक सारे करून आज ती गेल्ले गेल्लेकडेन रसरसून आसा. विंगड विंगड सुवातेर तिच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो शैली जाल्यो. पूण तिची मूळ बांदावळ आनी तिचो स्वभाव बदलूंक ना. तिणे गेल्ले गेल्लेकडेन तांचा संपर्कान आयिल्या हेर भासांतुली उत्रावळ घेतली. पूण ती उत्रावळ अपणाल्या मूल स्वभावाचा आयटिंत वोतून घेतली आनी आपणायिल्ली. मूळ रूपाक पसंद कोर्नू दवरली. सार्के पळैलार ती आजयी साधी, सोंपी, सुरबूस, मोव्हाळ आनी ग्रेसत जावन आसा. ती सदांच लोकाची भास जावन उरल्या. तर तिका दरबारी वा पंडिती तेंको मेळती जाल्यार ती एक कृत्रीम आनी जड भास जाता आश्शिली. तिचें आयचें सोंपेपण आनी थोड्याच उत्रां भितर काळजातुंले उमाळे प्रकट कर्पाची तांक भंग जाता आश्शिली.

"कोंकणी ही एक खूब संस्कारी, तार्कीक, चड अर्थ वावोओपी, तेजिषट आनी मोव्हाळ, मोगाळ भास. कोंकणांतुले लोक जेन्ना आपणाले विचार आनी अनुभव नेटान प्रकट कर्तात, कोंकणांतुल्यो बायलो जेन्ना आपणाले उमाळे गायतात तेन्ना तांतुतुल्यो सूक्ष्म चटा आनी ते उग्ते कर्पाची खूबी पोळोवन कोंकणिचे शक्तिविषीः आधार दिसिल्या बगर रावुना. जो समाजिचो अनुभूती विविध आनी खोल, त्या समाजाची सदांची उलोपी भास लेगीत ग्रेसत आनी बलिषट आसतलीच" अशें उदगार्ता श्री काका साहेब कालेलकर.

## कोंकणिची पाळां मूळां

कोंकणी भाषेची इतली ही ताकत आनी सोभीतकाय आसतानायी कोंकणी लोकांनी अपूरबायेचा आपल्या भाषेक कित्या साहित्य निर्माण केलेंना? हे सवालाक जाप दित्तले थरावळ आसात. थोडे म्हणतात कोंकणिंत आसले साहित्य पोर्तुगीसान निर्नाम केल्ले म्होणू. दुस्रे थोडे म्हणतात ह्या भासेचा पाळां मुळां धुवन तिचे विभाड कोरुंक आयल्यो पेल्यो भाषांनी तरतरेचे कारास्थान केल्ले म्होणून, ती कोनशांतू पडली म्होणचेंच सार्कें नहीं. जो कोण एक कोंकणी भक्त आसलो कुन्हा रिवरा (Cunha Rivara) नांवाचो हाणे १०० वर्सां पैलेंच सांगिल्लीं उत्रां तीं अशें आसात: "दूसऱ्याक दूषण लांवचा आदीं आमी आमकांच दोश दिव्यां. आमगेले आळसायेक लागून–आमचे आवय भासेची सेवा करूंक येता आसताना, आनी कोरुंक जायी आसताना आमी तिका दिस्पोटयतात, कुस्पोटायतात. आनी कांय वर्सां आदीं बो। त्रिसतांव ब्रंगाज ड कून्ह हे खंतिषट जावन म्हणताले: "शीकल्लें, सवेल्लेले हिंदू आनी क्रिसतांव दोगांयी लोक भाषेक कुसकुटायतात. पर्की भासान भरोन ते फकत अनुकरण कर्तात, जे आपल्या बोंव्यातुल्या, मनांतुल्यान स्फूर्त घेतात तांच्याच साहित्यांत मूळावेंपण आनी नवे निर्माणेचे शक्त हें गूण होल्मतात. आमगेले बोरे बोरे मनीस पर्की भासो होडल्या प्रयत्नान शिकपांतूच आनी त्यो वापर्चांतूच आपणाली शक्त होगडायतात. तांतुंच विरिनासताना जिवसाण नासता. यित्याक तर त्या साहित्याचीं पाळां जन्मभुयेंतू आसतात"?

आमी जाणांत येसू क्रिसताले उलौवप सगळे आरामीक भाषेंत आसशिलें. ही भास साफ ल्हान आसली. तशेंच कोंकणी भास ल्हान आसूंक पुरो. पूण तिका व्होड फुडार आसा. संसारभर ती पातळ्ळ्या. तिचे संतानांक एकटावापाची शक्त कोंकणी भाषेक आसा. जन्मा थावन कोंकणी भाषेक आस्रो या पालव मेळ्ळोना. तरी ती आजूनयी लेगून रावल्या. "तिका कुसकुटायली, घिस्पोटायली, चीपचिपायली, हिणसायली, चिड्डिली, बुड्डिली, मड्डिली, गुड्डायली, चिमटायली, खोटायली तरी ती आजून जिवी तटीत आसा. तिचे अंतःशक्ती तितली व्होड आसा. आनी

तिचीच जिवसाण खर" – म्हणता होगुळितू उभय भाषा कवी श्री बा. बा. बोर्कर.

"कातले फरस फुल्ली धवी
म्होंवा परस म्होंवी, म्होंवी
पोर्नी तर सदाची नवी
म्हजी कोंकणी भास"

म्होणू मनोज्ञ जावन गायता कवी श्री मनोहर सर्देसायी.

## कोंकणीच गर्ज

लोकांचा जिबेर झगझगता ही आमची कोंकणी भास. पूण ती एक एक प्रांतांत एक एक शैलीन विविध ध्वनिंत उलौपी जावन आसा. तिचांत अमर साहित्य निर्माण जावुंक ना म्हण्येत. हाका मुख्य कारण म्हळ्यार, वेगळ्या वेगळ्या प्रदेशांत आसचो कोंकणी लोक विंगड विंगड बोली कर्तात. अशी कोंकणी वेगळिवेगळ्यो बोलिंचो शासत्रीय अभ्यास हे मेरेन जावंकना. वेगळ्या वेगळ्याकडेन साहितीक वावर आतां बरे हावेसान चलत आसा. नवीं नवीं नेमाळीं भायर सर्तात. कादंबरी, काणियो, कात्रां, शेंबरांनी प्रकट जात्तात. पूण बोलिची शासत्रशुद्ध अभ्यास (हीच मुखेल गजाल) दुर्दैवान हे पऱ्यांतर लक्षांत घेवन कोंकणी भाषेक समन्वय हाडपाचे, एकटांय कर्पाचें काम शृद्धेन जावूंक ना. गोंयचा कोंकणी पंडीत म्हणतेल्यांक मंगळूरगारांचा बोलींत वापुर्चे सब्दांची वळोंक ना. मंगळूरगारांक कोच्चिकारांची कोंकणी बोली समा समजाना. सक्कड रुकांची, झाडांची, भल्यांची, फळांची, फुलांची, पाळांची, वालिंची नांवां कोणेंयी येदोळयी संग्रह करूंक ना. मनजातींत आसचा किडी, मूंयांची, पिसोळ्यांची, सर्पांची, सुकण्यांचीं नांवां आमकां कोणाकयी येतात व्हयी? वावराड्यांचें, मोगेरांचें, मेसतांचे, सोनारांचे, कुंबारांचे, मडवाळांचे, केलश्यांचे, दुदकारांचे, तामट्याचें, फुल्कारांचे पूरा उत्रावळ या वाक प्रयोग आमी जाणा व्हयी? चड कित्याक उलोंवचे! आमच्याच कुडिचे विस्वे, भाग, शिरो, नाडी, हाडां, हांचीं नांवां पुणी आमी जाणांवे? आमकां मार्ची पिडा, अस्वस्थता, चूकी, पात्कांचीं नांवां तरी आमी जाणांवे? हे सक्कड सार्के शिकोन भाषेचो खरो पंडीत जांवचें भारी कठीण, चड प्रयत्नाचें आनी रात दीस अभ्यासाचें काम जावन आसा.

हें सगळें काम एकले दोगांनी तडी पावोंचें साध्य ना. कोंकणी भाषेचा भक्तांनी, शिकप्यांनी एकवोटांतू पेंकटा बांधून आसले प्रयत्न कर्ची गर्ज ती व्होडली.

## मुखलीं पावलां

आमची अपूरबायेची ही मांय भाषेचे संपूर्ण सौंदर्य आनी तिची ग्रेसतकाय आमी सामकेच पार्कोक जाल्यारी आमी तिची सेवा मायामोगान, भक्ती श्रद्धेन, करिजाय. भाषेची पूजा कोण भावाडतान कर्ता की ताका मात्र ती प्रत्यक्ष जावन भुलयता. ऋग्वेदांत एक मंत्र आसा:-

उत त्वः पश्यन्न ददर्श वाचम
उत त्वः शृण्वन्न शृणोत्सनाम ।
उत त्वस्मै तन्वं विससत्रे
जायेव पत्य उशतो सुवासाः ॥ (ऋग्वेद १०:७१-४).

भाषेकडेन पळेल्या मात्रांक ती दिसली अशेंना. कानार ती पडली तेन्ना ती आयकाली अशें ना. पूण जो तिका संपूर्ण वळकलो, ताचेकडेन ती कसलोच आड फडदो धरिना. आमची परिस्थिती अशेंच आसा. आमी आमची उदरगती खातीर आमचे मांय भासेचो साक्षात्कार घेयिजे. कोंकणी भाषेचे वेगळे वेगळे बोलियेंचो शासत्रोक्त अभ्यास कोरका. तांकां आटापून समग्र कोंकणिंत आसचे शब्द संपत एकटांय करिजे, म्हणजे, एक प्रामाणीक अर्थकोश (Dictionary) निर्माण जायिजे. विंगड विंगड सुवातेर आसच्यो उत्रावळिंचो खूबी नजरेंत दवोर्न भाषेचो बांदावळ साहितीक नजरेन घोडोन हाडिजे. आनी हेर यत्न करूं आनी ह्या आवय भाषेची भारिकायी आनी नाजूकायी प्रगट जांवचे सार्के खूब पावलां मारूं. ती आपणाल्या मायामोगाचे कोंकणांत गटमूट, मोटी, उबी जावन तिका फावो जाल्ले अग्रस्थान वेग्गीं प्राप्त करूंक सर्व विधानान वावुर्तेल्यांव. हेंच जावूं आमचे गीतः-

"कोंकण आमचो देस, आवय कोंकणी भास!
आमी सगळीं भुर्गीं तिचीं भाव भैणां खास
गावूं तेंच गीत, घालूं हातांत हात,
काडूं देस-भास व्हय; दुसरो ना हावेस"

*** *** ***

# मंगळूरांत कथोलिकांची कोंकणी भाशेची सेवा

– फेलिक्स पावल नोरेञ १९७४

लगबग शेंबर वर्सां आदीं आमच्या ह्या दक्षीण कन्नड जिल्ल्यांत कोंकणी भाषेचें लिखीत बोव उणें आसल्लें. तिनशीं–चार्शीं वर्सां पुर्वीं गोंयां थावन येवन ह्या जिल्ल्यांत वसती कर्न रावल्ल्या कोंकणी लोकाक शिकाप नातल्लें म्हणून नहीं, घडल्लें कितेंगी म्हळ्यार सोळाव्या शतमानांत गोंयचो गांव पुर्तुगेजांक गेल्ल्या वेळार, ताणीं आमच्या पुर्वजांक क्रिसतांव केले, आनी ताणीं नव्या शासत्रांत थीर रावोंक देशी भासांनी आसल्लीं तांची लिखितां हिंदू समडतीक संबंध जाल्लीं म्हण लेखून नास केलीं. बदलाक, नव्या क्रिसतांवां खातीर रोमी अक्षरांनी पुराणां, कंतिगो आनी दोतोर्निचीं पुसतकां पाद्रीं कर्ना बरवंक लायलीं.

असें, मंगळूरच्या कोंकणी क्रिसतांवां मधें क्रिसतांव समडतिचीं शासत्रीक पुसतकां थोडीं उरलीं शिवाय पुर्विल्या लिखिताचें दायज कसलेंच गोयां थावन हाडुंक मेळ्ळेंना. तरिपूण, त्या साध्या काळार, हिंच थोडीं शासत्रीक पुसतकां तांकां पावतालीं. कन्नड लिपीन हात–बर्पान केल्ल्यो त्या पुसतकांच्यो प्रतियो तेणे हेणे सिंपडन आसून लोकाच्या उपयोगाक पडताल्यो.

अट्राव्या शतमानाचे अक्रेक दक्षीण कन्नड इंगलेजांनी काणघेतच मंगळुरांत इंगलेज शिकाप सुरू जालें आनी गेलेत्या शतमानाचे आक्रेक मंगळुर्चे शिकपी चडावत सक्कड इंगलेज जाणासल्ले. सर्कारी नौकरेंत तशें व्यापार वहिवाटांत इंगलेज भास चालू आसतां, कोडियाळचे कोंकणी पुत्र आपले माय–भाषेक विसर्न, घरांतयी कोंकणी सांडून, इंगलेज उलवंक सुरू करी! कोंकणी भास कीळ वर्गाची म्हळ्ळी समजणी उबजोन, इगर्जेंतल्या सेर्मांव–शिकवण्यांक शिवाय, हेर सकड वहिवाटाक इंगलेजच रूढीर गेलें. असें, कोंकणी भास हळ्ळेगारांची भास, चाक्रांची भास म्हळ्ळ्याबरी बोव कदीम स्थितीक देंवून आसतां, १८८० इस्वेंत इतालियन जेज्वीत मंगळूर आयले. जर आयच्या दिसा कोंकणी भास

कोनशांतली वयर सरोन मनशांत आयल्या हाका मूळ कारण तेच जेज्वीत पाद्री म्हण आमी उपकारी मनान वोपवाजाय.

## जेज्वितांचो मूळ–वावर:

गोयांतल्या आमच्या पुर्वजांक गांवचे भाषेन क्रिसतांव शिक्षण मेळोंक बरयिल्लें प्रथम पुसतक थंयसर मिस्सियोनार जावन आयिल्ल्या पाद्र एसतेवांवाचें क्रिसतांव पुराण. ह्या पुसतकांत आमचे समडतिची चरित्रा–आदांव थावन आमचो सोमियाचो सर्गा प्रवेस पऱ्यांत उत्तम कविते रुपार मधूर उत्रांनी वर्णून बरयल्या. एसतेवांवाच्या पुराणाची भास मराठी जाल्यारयी, कोंकणी भासयी तांतूं मेळोन आसा. टिप्पू सुल्तानाचे बंधडे वेळार आमच्या मालघड्यांक देवाच्या म्हणियाऱ्यांची सेवा चुकोन आसतां हें पुराण जायते भुजावणेक कारण जाल्लें. पाद्र एसतेवांवान बरयिल्लें आनी एक पुसतक "कोंकणी भाषेचें व्याकरण" तेंच पयलें म्हण दिसता.

मंगळूर आयिल्ल्या इतलिच्या जेज्वितां पयकी कोंकणी भाषेचो नांवाडदीक विद्वांस फादर आंजेलो माफे. विशेश शातेचो मनीस तो. मंगळूर येवन इंगलेज आनी कोंकणी तो शिकलो, आनी तीन–चार वर्सां भितर कोंकणी भाषेचें व्याकरण आनी सब्दां–कोश या वाक्सरी ताणे बरवन मद्रास सर्काराच्या खुसतार फायस केली. थोड्यां वर्सां नंतर आनी एक चड संपूर्ण व्याकरण "कोंकणी रानांतलो सोभीत सुंदर ताळो" म्हळ्ळो ग्रंथ ताणे तयार करून प्रगट केलो. हो फादर माफे विलायती भासांचोयी पंडीत. तो म्हणता: "हांव जाणासच्या विलायती भासां प्रास कोंकणी भास चड संपूर्ण. ती उलवंकयी बोव सोभीत आनी मधूर. आमी विलायती मनशांनी येवन हें मोलाधीक रतन सफाय करुंक साधन कर्चा प्रास गांवच्यांनिंच कित्याक आपली अपुरबायेची भास वृध्दी करुंक नजो?"

जेज्वितांनी कोडियाळबैल छापखानो स्थापन कर्तच, रोमी लिपीन बरयिल्ल्यो थोड्यो कोंकणी कंतिगो आनी ल्हान ल्हान शास्त्रीक पुसतकां फायस जावंक सुरू जालीं. तवळ फायस जाल्ली सांत इनास लोयोलाची जिणी जेज्वीत फादर पासकाल रेगान बरयिल्ली.

कोंकणी भाषेचो आनी एकलो विलायती अभिमानी जेज्वीत फादर

पोलेसे. हाणे बरयिल्लो "दिस्पोडतो सांगाती" बूक हेर मागण्या-पुसतकां नातल्ल्या ह्या शतकाचे सुर्वेर सगळ्या मंगळूर दियेसेजिंत लोकामोगाचो जावनासलो. तवळ लोकान ह्या पुसतकाक "मिसाराचो बूक" (मिसार वाचचो) म्हण म्हणचें आसल्लें. "नव्या तेसतामेंताच्यो मुख्य संगती" आनी "अकटोबर महिनो" -हे दोन बूकयी हाचेच, आनी एक मोठें पुसतक ह्या पाद्रीन फायस केल्लें आसा. "जेजू क्रिसताची देख काणघेंवच्या विषयांत" हें 'इमिटेशन ओफ क्रायिसट' म्हळ्ळया इंगलेज पुसतकाचें भाषांत्र. आतां आमीं 'क्रिसताचो पाटलाव' म्हळ्ळया नांवाकाल सी.मी.न केल्लो तर्जुमो वाचतांव.

## सेकुलार सासेर्दोतिंची सुर्विली सेवा

पाद्र एसतेवांवाच्या क्रिसतांव पुराणा उपरांत दुस्रो मान फावो जाता "रिगलो जेजू" म्हळ्ळे प्रख्यात कंतिगेक. अट्राव्या शतमानाच्या निमाण्यां दशकांनी, हैदर आलिचो बावटो फरंगिपेट मोंत मरियाण कोंवेंताचे तोरीर उबोन आसतां, "अर्कूळ गुरू" म्हण प्रख्यात जाल्ल्या फादर मिरांदान ती कंतीग घडल्ली म्हळ्ळी अभिपराय. हो मिरांद बाप थंयसर एक ल्हान सेमिनरी चलयतालो. टिप्पुचे दगदोणेवेळीं तो दक्षिणाक पळून धांवल्लो म्हणतात.

विसावें शतमान उदेंवच्या वेळीं कोंकणी भाषेच्या मोगान भरल्ले, दुरबळ्या कोंकणी लोकाक कोंकणी वाचूंक आनी बरवंक शिकयजाय म्हण उरबेल्ले दोग सेकुलार पाद्री वयर सरले. एकलो मोन्सीओर मिंगेल प्लासीद कुलास आनी एकलो मोन्सीओर रायमुंद मसकरेञ. दोगयी जिवान दिंडे तसे तकलेन हुशार; दोगांनिंयी कोंकणी नवीच शिक्तेल्यां खातीर सादे पाठ-बूक बरयले.

मोन्सीओर कुलासाचीं पुसतकां "जेजुचो मोग", कोंकणी भाषेचें "प्रथम पुसतक" आनी "बाळकांचीं मेटां". सबार गितां ताणें बरयल्यांत. ह्या पयकी ताचें "खुर्सा मुळीं दुखी माता" आनी "गुपीत म्हज्या देवा तुका नमसकार" प्रत्येक सोभायेचीं. "जेजुचो मोग" बरंवच्यांत पाद्र लिगोरी वासान ताका जायती कुमक केल्या.

मोन्सीओर रायमुंद मसकरेञान केल्ली कोंकणी भाषेची सेवा इतली तितली नहीं. इसकोलाक वचानासतां घराच वाचूंक शिक्तेल्यां खातीर ताणे

“पयलें पुसतक” बरयलें. हांतलो हऱ्येक पाठ भाषे शिवाय बरी चाल शिकयता. सायभिणिचे भक्तीक आनी पाटलावाक संबंध जाल्लीं जायतीं पुसतकां आनी कंतिगो ताणें बरयल्यात. “देवा दयाळ काकुळतिच्या” म्हळ्ळें लोकामोगाचें गीत बरयिल्लें हाणेंच.

पूण, मोन्सीञोर मसकरेञाची जयत कोंकणी कृती सगळ्या नव्या तसतामेंताचो तर्जुमो. त्या शिवाय, सायभिणिचो ल्हान ओफीस ताणें भाषांतर केल्यात.

हे दोग मोन्सीञोर ह्या परीं कोंकणी वावर चलवन आसतां, पोंपै सायभिणिचो भक्त म्हण नांवाडल्लो फादर लुवीस सोज आनीएकेच वाटेन माय-भाषेक लब्दालो. कोंकणी भाषेंतल्यो गादी, उमिण्यो, पदां, वोवियो आनी वेर्स इत्यादी बर्पार नासतां गांवार चालू आसल्ल्यो सकड जायते वांवटीन एकटांय कर्न एका पुसतकांत फायस करुंक ताणे काडल्ली वांवट निजाकयी वर्ती. तवळ तो विलायताक पावल्लो; थंयसरयी ताका हुसको आपणाच्या ह्या बुकाचो आनी ताका ‘सुरू सब्द’ प्यारिसा थावन ताणे बरवन धाडल्लो.

फादर माफे येंवच्या सबार वर्सां आदीं फादर जोकीं मसकरेञ म्हळ्ळ्या आमच्याच एकल्या सेकुलार सासेर्दोतीन कोंकणी भाषेचें एक व्याकरण बरयिल्लें आसा. ताची एक प्रती लंडन म्यूजियमांत आसा म्हणतात!

## कोंकणी दिर्व्याचो उदेव

मरोंक तेंकल्ली कोंकणी भास जीव करिजाय, मंगळूरच्या आनी शहरा भायल्या कोंकणी लोकाक सामाजीक आनी राजकी शिक्षण मेळासें वावरिजाय म्हळ्ळे हुमेदीन भरून १९१२ इस्वेंत शहरांतल्या दोगां तर्नाट्यांनी “कोंकणी दिर्वें” म्हळ्ळ्या पत्राची बुन्याद घाली. हे समाज-सेवे खातीर नांवाडल्लो लुवीस मसकरेञ आनी सर्दार लुवीस कण्णप्प. ह्या उपरांतल्यान कोंकणेन बरयिल्लें ना जाव्येत; ताची माय भास कोंकणी नहीं. पूण मसकरेञाक धयर दीवन कोंकणी दिर्वें फायस कर्चा पयस्यांच्या खर्चाक आनी इतर आडळत्याचे राटावळीक सुर्वेर मातें मारल्लें हाणेंच. हो नहीं जाल्लो जाल्यार, मसकरेञान एकल्यान दिर्वें सुरू कर्चे बरी नातल्लें. देखून सर्दार कण्णप्पाचो उपकार कोंकणी लोकान बिल्कूल विसर्चो नहीं.

लुवीस मसकरेञान सुर्वेचीं पांच वर्सां दिर्व्याचें संपादकपण पळेलें. कोंकणी बर्पावळिंत मसकरेञाची शाती विशेस. ताच्या विषयांत "कोंकणी दिर्व्या"च्या रुप्योत्सव अंक्यांत एका नांवाडदीक विद्वानान म्हळ्ळें आसा तशें हांगासर आमी दितांव: "ताची जाण्वाय आनी विद्या, ताची गुंडाय आनी बारिक्साण, ताचे भाषेचो अलंकार आनी शैलेची सुढाळाय हें सर्व इतलें आनी विंचनार, ताची लेखनां वाचल्लीं तितलीं वाचयां म्हण जातात. कोणाक जर्तर कोंकणी भास बरवंक शिकाजाय म्हण आसा, तो ती पयल्या पांच वर्सांचीं दिर्वीं वाचून पळेंवदी... लुवीस मसकरेञ एक कवी–कविताचें संयबीक देणे आसचो खरो कवी. ताच्या तेंपाचीं दिर्वीं वाचून पळेया आनी तांतू मेळतेलीं थोडीं काविया उत्तीम कवितेचीं..." व्होय, लुवीस मसकरेञ एक असाधारण वर्गाचो कोंकणी विद्वान आनी कवी म्हळ्ळें सकडयी वोप्तात. ताचीं मटवीं कावियां "मनीस म्हणजे कितें?" आनी "निदेंत हासत्या बाळशाक" वाचल्लो ग्रायक विस्मीत जाता. नाटक रुपीं बरयिल्लें ताचें महा–कावियें "आबरांवचें यज़दान" ह्या बरयणाराक वाचल्लें तितलें पावाना. सोबीत लिखीत तें; ताचे तसली उत्तम कृती कोंकणी भाषेंत दुस्री मेळासिना.

लुवीस मसकरेञा उपरांत दिर्व्याचें संपादकपण थोड्यां वर्सांक चलवन व्हेल्लें कोलेजिंतलो मेसत्री पेद्रू जुवांव सोजान. साधी चाल्ती भास ताची. कोंकणेन सबार काणियां–पुसतकां ताणे बरयल्यांत. सुर्वेर केनन श्मिडाचे बूक ताणे तर्जुमो केले: 'गुलोबाचें झाड', 'पार्वो', 'आवर' आनी नांवाडदीक 'जेनेवीव'. उपरांत शेक्सपियराच्यो थोड्यो काणियों अनुसार कर्न 'चूड कोत्रू', "फिलुची भोंवडी" इत्यादी ताणे भायर काडल्यो. ह्या शिवाय थोडीं हासतीं नाटकां आनी भक्तिचीं पुसतकांयी ताणे बरयिल्ली आसात. पेद्रू सोज काणियां–पुसतकांचो बाप म्हण आमीं म्हण्येत. ताचा पयलें कोंकणी कथा पुसतकां म्हळ्यार कितें म्हळ्ळें कोणंच नेणासल्लो.

१९४० इस्वी पऱ्यांत लगबग २० वर्सां कोंकणी दिर्व्याचो संपादक जावनासलो वकील आलेक्स ए. पायस, तो कोंकणी पत्रगारिकेंत चुरूक आनी हुशार, कोंकणी भास वृद्धी करुंक आनी अधीक कर्न कोंकणी लोकाक राजकी शिक्षण लाभवंक आपल्या दिर्व्या मुकांत्र कितलो म्हण ना तो वावुरला. दिर्व्याचें संपादकपण नहीं आसतां, सबार कोंकणी बूक

ताणे बरयल्यात. ह्या पयकी सां. रिताची जीण मुख्य. ‘दोग सार्जेंट’, ‘निळसें भगदाळ’, ‘दुमगा–दुमगें’ इत्यादी पुसतकां नहीं आसतां दिर्व्यांत आयिल्लीं ताचीं प्रख्यात सांखळ लेखनां हीं: “गरीब गुलोबांचो प्रजळ” (पात्का थावन पर्तोन सांत जाल्ल्यांचो जिणियो); ‘चर्का’ (इंडियाच्या प्राचीन वसत्रा–व्यापाराची चरित्रा आनी उपरांतली ब्रिटिषांची दगदोणी); ‘पाद्र डेनीस फेर्नांद, जे.स.’ (मंगळूरच्या कोंकणी समाजिची चरित्रा); लांब काणियों ‘कांवट ह्यूगो’, ‘आबूल फारागूस’ इत्यादी.

कोंकणी दिर्व्याच्या संपादकां विषयांत उलवन जातच, त्याच दिर्व्याच्या आडळत्याच्या कामाक लांब वर्सां खांद मारल्ल्या कोंकणी बर्पी जुवांव जुजे रेगा विषयांत सांगानासताना रावूंक जायना. लगबग २० वर्सां अलेक्स पायसान संपादकपण चलयलें म्हण आमी म्हळ्ळें. पूण हो संपादक कामा निमतीं बोंबय रावतालो. तवळ दिर्व्याक आयिल्लीं चडावत सकड लेखनां वाचून आनी तिद्बून छापो करंवची राटावळ चलयिल्ली जुजे रेगान. हे ताचे खळानातल्ले कुमकेविणे पायसान बोंबय थावन दिर्वें चलवंक साध्य जातें ना. कोणेयी बरवन धाडिना जाल्यार तोच लेखना बरवन दिर्वें भर्तालो. कितल्यास्या पावटीं मध्यान रात पऱ्यांत तकली खोर्पून तो दिर्व्याक बरयतालो. ह्या बरयणाराक कोंकणी वाचपाची आनी अधीक करून कोंकणी बरंवची रूच दिल्ली ताणेंच; ताच्या शिक्षणाचो आनी विशेस मोगाचो उगडास हो बरयणार केदीं विसर्चेबरी ना. कोंकणी लिखीत सभेचो काऱ्यदर्शी जावन जुजे रेग वावुरला. शासत्रीक गितां थोडीं ताणे बरयिल्लीं आसात. ताच्या संपादकपणाखाल भायर सरल्लो बूक “सिंग–ए–सोंग”, हाच्या संग्रहाक जायती वांवट ताणे काडल्या. ह्या शिवाय हेर दोन–तीन पुसतकां ताणें बरयल्यांत. कोंकणी दिर्व्याचे वाडावळीक कुमक जाल्ले लेखक सबार जण आसात– संसारी मनीस नहीं आसतां जेज्वीत आनी सेकुलार पाद्री.

## हेर थोडे सुर्विले भाषा–वावराडी

कोंकणी दिर्वें स्थापन जांवचे आदिंच कोंकणी भाषे पासत वावुरललो एकलो महंत आसा. हो देवाधीन डिसट्रिकट जडज जेरोम साल्दाञ. ताणे कोंकणेन बरयिल्लें कांय ना म्हळ्ळें खरें; पूण कोंकणी भास वृद्धी कर्ची उरबा आमचे समाजींत आसा करुंक ताणे आपल्या

विविध इंगलेज भाषणांनी आनी लेखनांनी वर्तें प्रयतन केलां. क्रिसतांव पुराणाची ओळक विसतारुंक तो जायतो वावुरला आनी तें मंगळुरांत फायस करुंक अधीक उत्तेजन ताचेंच.

विद्या संपन्न आनी कवी जुजे (बेबी) साल्दान्यूाचो उगडास लेखनाचे सुर्वेरच येजाय आसल्लो. तो तर नहीं क्रिसतांव पुराण आमी मंगळुरांत फायस कर्चेंच नातल्लें. ताच्या विषयांत दिर्व्याच्या रुप्योत्सव अंक्यांत सिलवेसतर मिनेज बाप म्हणता: "…. ताची विचित्र शाती, ताची भासांची जाण्वाय, ताचें कवितेचें देणे–हें एक विशेस आशीर्वाद देवान आमचे समाजीक दिल्लें. पुराणा पासत जुजे साल्दान्यान काडल्ली वांवट कळीत आसची संगत. पूण शेंभर कंतिगो बूक संपूर्ण कर्चांतयी तो वावुरला म्हण चडावत कळीत ना. त्याच बुकाचे आकेरीक आसचे "व्हड आवक आमच्या पापा सायबाक" म्हळ्ळे उत्तीम श्लोक, इंगलंडांत सयत नांव व्हेल्ल्या ह्या कवेश्वरान बरयिल्ले…"

काविया रुपार जेजू क्रिसताची जिणी आटापचें "रुचीक अमृत" पुसतक बरयिल्लें लोरेस वासान. आनी एकलो जेज्वीत बर्पी आसा, हाचो उगडास आमी विस्रुंक जायना. फादर ग्रेगोर कुवेल तो. हाणे बरयिल्लीं पुसतकां: "मरी म्हजी माय" आनी "पवित्र काळजाचो महिनो". जेज्वीत फादर बाजील रुजारीन "जेजुचो कुरोव" म्हळ्ळो लोका मोगाचों बूक बरयोल्लो नहीं आसतां कोंकणी भास गुंडायेन शिकोंक ताणे जावन साधन केलें आनी ह्या साधनाचो वोसो हेरांकयी दिलो. सेकुलार सासेर्दोत लियांव साल्दान्याचे वांवटीन क्रिसतांव पुराणाचे थोडे भाग बिस्प वितोर फेर्नांदाच्या काळार कन्नड लिपीन फायस जाल्ले.

## राकणो आनी कोंकणी बर्पांवळ

१९३८ इस्वेचे आकेरीक बिस्प वितोर फेर्नांदान राकणो स्थापन केलो आनी नांवाडदीक विद्वान मानाधीक सिलवेसतर मिनेजाक हाचो प्रथम संपादक नेम्लो.

मिनेज बापान १७ वर्सां संपादकपण चलयलें. मिनेज बापाचे विशाल जाण्वायेक आनी आलोचेन्यांक राकण्याचें गात्र ल्हान जालें जाल्यारयी वर्ते वांवटीन ताणे तें चलवन व्हेलें. आपणाक उरल्लो फुर्सतेचो वेळ मिनेज बापान पाड केलो ना. "माते कोंकणी भाषेक भुज्वण" म्हळ्ळ्या

आपल्या १९१२ इस्वेच्या दिर्व्या वयल्या कवनांत कोंकणी भाषेची अपूण सेवा कर्तलों म्हण ताणे दिल्ली ती भास तो पाळीत आयलो. हे सेवेचो फळ जावन ताच्या बर्पाच्यो धा-पन्नास कोंकणी कडतिल्यो आमकां मेळ्ळ्यो नहीं आसतां, ताचे थावन हेर महा-कृतियो घेवंक आमकां संद्राप मेळ्ळो. ह्यो खंच्योगी म्हळ्यार: क्रिसताचो पाटलाव, कोंकणी रितुवाल, पवित्र वांजेल, सगळ्या भागेवंत हप्त्याची लितुर्जी आनी आयल्यावार फायस जाल्लो आयताराचो मिसा गृंथ. असल्यां महा-कृतियांनी गंभीर भास गर्ज; सांगाताच भाषेची सुढाळाययी जाय. ह्या दोनयी संगतींक फावोती लक्षा दीवन मिनेज बापान आपलीं हीं पुसतकां तयार केल्लो ताचो व्हड उपकार. मिनेज बाप कवियी जावनासा. ताचीं विविध गितां कसिंयी जालीं-मू, आयल्यावार फायस जाल्लें ताचें "पाशांवाचें गीत" एक अपुरबायेचें कावियें म्हळ्ळ्याक कोणयी रुज्वात दीत. ७० वर्सांचो हो विद्वान विशेव म्हळ्ळो नेणा. "आपोसतलांचीं कृत्यां" करून पावलाचीं "पत्रां" ताचो भाषांत्र-वावर; मरियेच्या लीजनाचें हात पुसतक ताणे भाषांत्र केल्लें आनी दियेसेजिंत वापर्चे सर्व दोतोर्निचे बूक ताणेंच बरयिल्ले.

सिलवेसतर मिनेज बापा उपरांत मानाधीक जोन मिनेज राकण्याचो संपादक जालो. हाच्या काळार राकण्याची प्रगती अधीक जाली. राकण्याचें संपादकपण ६-७ वर्सां चलयिल्लो जोन मिनेज बाप १९५० इस्वी धऱ्यां "आमची माय" पत्राचें संपादकपणयी चलवन आयला. आमची माय पत्र सुरू थावन आज पऱ्यांत श्रेषट वर्गाचें म्हण नांवाडलां जाल्यार हे ताचे कीर्तीक मानाधीक जोन मिनेज कारण, "जेजू, मरियेचो पूत्र, म्हजी आदर्श देख" आनी "पासकांच्या तेंपाक नियाळ" बूक वाचल्यार ताचें कोंकणी पांडीत्य समजयेत. विविध जवाब्दारिंक लागून ताका आनीकयी चड कोंकणी वावर करुंक संद्राप मेळोंकना म्हळ्ळी संगत पश्चात्तापाची.

जोन मिनेज बाप मूडबीदऱ्यांक वर्ग जातच मानाधीक दोतोर अलेक्सांडर सोजान राकण्याचें संपादकपण हातीं घेतलें. विविध बर्प्यांक आरावन काणघेवन राकणो आनीकयी वृध्दी करुंक तो पेचाडन आयला. उन्नत सनद आनी पर्गांवची माहेत जोडन आसचा ह्या लोकामोगाच्या संपादकाखाल राकणो आनीकयी वृध्दी जाला. उप्रांत मा. मार्क वालडार संपादक जालो.

पंचवीस वर्सां धऱ्यां राकण्याक लेखनां धाडन भाषेची आनी समाजिची सेवा केल्ल्या लेखकांचीं नांवां हांगासर आमीं दिनांव. तांची निस्वार्थी कुमक नहीं जाल्ली जाल्यार राकणो इतलो रुता जावंक पावतो ना म्हळ्ळें खंडीत. कोंकणी समाज ह्या समेसत लेखकांक ऋणी.

## कोंकणी भक्तीक पत्रां आनी तांचे संपादक:

कोंकणी दिर्व्याक पांच-स वर्सां भर्तासताना मंगळुरांत "जेजुच्या पवित्र काळजाचो आंज" सुरू जालो, सुर्वेचीं आट वर्सां जेज्वीत कैतान गोसाल बापान तो चलयलो. जेजुच्या ल्हान फुलाची सां तेरेजाची जिणी बरयिल्ली हाणेंच. ताच्या उपरांत फादर मन्वेल मोती संपादक जालो. हो मोती पादऱ्याब ताच्या विविध बर्पां खातीर नांवाडला; ताच्या तेंपाचे आंज काडन वाचल्यार कळात. ताचें सोभीत जयत एक पुसतक आसा. "जेजू, मोगाचो राय" म्हळ्ळें. मोती बापा उपरांत मानाधीक मेथ्यू पींत बापान आंजाचें संपादकपण लगबग पंचवीस वर्सां वयर चलयलें. भराच्या हेर सबार राटावळीं मधें ताणे केल्लो हो कोंकणी वावर निजाकयी होगळसुंक फावो जाल्लो. ताच्या मर्ना नंतर जोन मिनेज बाप आंजाचो संपादक जालो.

मंगळुरांत कालक्रमानुसार सुरू जाल्लीं हेर भक्तीक पत्रां आनी तांचे संपादक हे. दुबळ्यांचो भाव – लुवीस मसकरेञ; इलार कोसत; सिलवेसतर रासकिञ; फेलिक्स नोरेञ (बंद) (आतां बंद पडलां)

आमची माय – मा. अंतोन सोज
जेजू राय–मा. थोमास लोब जेज्वीत.
सां रिताची वर्दी–ए. जे. सिलव
क्रिसतांव कुटमाचो सेवक – मा. वी.जे. मिनेज.
कथोलीक युवक–कुमारी जुडीत मसकरेञ (बंद)

## लोकीक मनशांचें स्वतंत्र साधन

मंगळुर्चें प्रथम कोंकणी पत्र कोंकणी दिर्वें विविध कारणांक लागून १९४० इस्वेंत बंद पडलें. त्या आदिंच कोंकणी लोकीक भाषाभिमानिंनी एकच लोकीक पत्र पावाना, चडीत आसचीं गर्ज म्हण लेखून एक-दोन पत्रां सुरू केलीं. आनी क्रमेण हेर जायतीं प्रारंभ जालीं. आयच्या दिसा कोंकणी समाजेंत लोकीक पत्रां लोकामोगाचीं जावंक पावल्यांत. वी.जे.

पी. साल्दाञान स्थापन केल्लें 'पयणारी' पत्र हफ्त्यावार फायस जावन आज प्रख्यात जालां. त्याच परीं जोकीं सांतान अलवारिसान स्थापन केल्लें 'मित्र' हफ्त्याळें पत्र लोका मोगाचें जावंक पावलां. हीं दोन पत्रां हप्त्यान हप्तो विविध लेखकांचीं बर्पां घेवन भायर सर्तात. हीं हफ्त्याळीं पत्रां मेळोन आमचे समाजेंत उदेल्ल्या हेर पत्रांचीं पट्टी कालक्रमानुसार हांगासर दिल्या:

| मंगळुर्चीं पत्रां | संपादक |
|---|---|
| समाजिचो दिवो | जुजे मचादो (बंद) |
| प्रकास | ए.ए. डी'सोज (बंद) |
| उज्वाड | जे.एल. डी'सोज (बंद) |
| कोंकणी युवक | जोर्ज फेर्नांद (बंद) |
| मित्र | जोकी संतान अलवारीस |
| कथां-झेलो | रायमुंद मिरांद (बंद) |
| झेलो | जोकीं संतान आलवारीस |
| कणस | फेलिक्स ए. डी'सोज |
| मांय गांव | श्री गब्बू (बंद) |
| काणीक | सिरिवंत |
| पंचकादायी | बी.वी. बाळिगा |
| आमची समाज | साल्दोर रुद्रीग |

| बोंबयचीं पत्रां | संपादक | |
|---|---|---|
| सूख-दुःख | जी.एम.बी. लुद्रीक (बंद) | |
| पयणारी | वी.जे.पी. साल्दाञ; चा.फ्रा.दे. कोसता; मार्क डिसोज (बंद) | |
| कोंकण कमळ | ............................ | (बंद) |
| काणीक | आंद्रू मोंडोन्सा | (बंद) |
| जाग माग | चा.फ्रा. दे कोसता | (बंद) |
| कोंकणी दायज | आ.आ.सल्दान | (बंद) |
| विशाल कोंकण | चा.फ्रा. दे कोसता (बंद) | |

कोंकणी पत्रां मुखांत्र ह्या परीं भाषेची आनी समाजिची सेवा चलोन आसतां, गेल्या त्या वीस पंचवीस वर्सां मधें सबार तरूण बरयणारांनी,

आनी प्रायवंतांनी सुधां, नमुन्यावार पुसतकां बरवन फायस केल्यांत. विविध कादंबरी, सामाजीक कथा, काविया, नाटक आनी भक्तीक पुसतकां कोंकणी भाषेंत आज आमकां वाचूंक मेळतात. ह्या शिवाय कोंकणी नाटक बर्पी आमचें मधें सबार जण आसात. हांचीं आनी हांच्या कृतियांचीं नांवां हांगासर दिवंक असाध्य जाल्यारयी हांचो समेसतांचो वावर आमी मानतांव आनी हांच्या थंय कोंकणी समाजिची कृतज्ञता उचार्तांव.

## शेवटिंचें उतर

ह्या लेखनांतलो चडावत वांटो मंगळुर्गार कथोलिकांच्या कोंकणी वावराक संबंध जाल्लो पूण गोयांत आनी बोंबयंत आसच्या आमच्या गोंयकार भावांनी आपले पाडतीन केल्लें साधन जायतें आसा म्हळ्ळें आमी जाणांव. गोयांत रोमी लिपीन कोंकणी पुसतकां आनी पत्रां चालू आसात. आनी बोंबयंत रोमी तसें नागरी लिपीन कोंकणी भाषा-वावर जाता. लिपी वेगळ्यो जावनासल्ल्यान आमकां तांच्या वावराची विशेस माहेत या सळावळ ना जावन गेल्या. गोंयां थावन 'सत' उपरांत 'दिंवटी' दिस्पडतीं पत्रां रोमी लिपीन फायस जातालीं आनी रोमी लिपिचीं हप्त्याळीं पत्रां थंय आनी बोंबयंत हेर आसात म्हणतासताना आमचे गोंयकार भाव कोंकणी भाषेचे अभिवृद्धेक वावूरच्यांत आमच्या सांगाताच आसात म्हळ्ळी संगत आमकां वर्तें धादोसकायेची.

मंगळुर्गार जांव, गोंयकार जांव, हांचो समेसतांचो कोंकणी वावर फकत लोकाच्या मोगाची आनी भाषे थंय अभिमानाची सेवा शिवाय, हेर कसल्याच फायद्याच्या इराद्याची नहीं म्हळ्ळें आमीं विस्रुंक नजो. देवाधीन जाल्ल्यां आमच्या कोंकणी भाषा वावराड्यांक उपकारी काळजान-वंदिताना आमच्या आतांच्या कोंकणी संपादकांक, बरप्यांक, कवींक आनी संगीतगारांक, नाटक-कर्तांक, कादंबरिगारांक आनी हेर भाषाभिमानींक आमचे हार्दीक उल्लास आनी कृतज्ञता आमी समर्पितांव!

*** *** ***

Statement of ownership and other particulars about the journal

# "AMAR KONKANI"
# FORM IV (Rule 8)

| | | |
|---|---|---|
| 1. | Place of Publication | ...Mangaluru |
| 2. | Periodicity of its Publication | ...Half Yearly |
| 3. | Printer's name<br>Nationality<br>Address | ...Rev. Fr.Peter Cyprian D'Souza<br>...Indian<br>...Assisi Press<br>Mangaluru-575003 |
| 4. | Publisher's Name<br>Nationality<br>Address | ...Rev. (Dr) Fr Praveen Martis S.J.<br>...Indian<br>...St.Aloysius College (Autonomous)<br>Mangaluru-575003 |
| 5. | Editor's Name<br>Nationality<br>Addresss | ...Sri Edwin J.F.DSouza<br>... Indian<br>..."FOUNTAINHEAD"<br>S.L. Mathias Road, Highlands,<br>Mangaluru-575002 |
| 6. | Name and Address of Individuals who own the journal and partners or shareholdetrs holding more than one percent of the total capital | ...Rev. (Dr) Fr Praveen Martis S.J.<br>...St.Aloysius College (Autonomous)<br>...Mangaluru-575003 |

I, Rev. (Dr) Fr Praveen Martis S.J., hereby declare that the particulars given above are true to the best of my knowledge and belief.

Mangaluru
30-6-2017

Rev. (Dr) Fr Praveen Martis S.J.